# अमृत मंथन



श्री यशवंत सदानंद पालेकार

# अमृत मंथन

लेख संकलन




यशवंत पालकर



कोंकण भारती

# अमृत मंथन

लेख संकलन

यशवंत पालेकार





पयली उजवाडावणी : 21 मार्च, 2015

**उजवाडावपी :**
कोंकण भारती
घर क्रमांक 107, सॉत्रांत,
कुठ्ठाळी - गोवा-403710
फोन : 9823860483

**मुखपृष्ठ :**
श्री. गौरिश वेर्णेकार

**छापपी :**
अर्थ प्रॉडक्शन
पणसुलें, काणकोण-गोंय.
फोन : 0832 2643226

**मोल : ₹ 150/-**

# मांडावळ

1.

# गोंय आनी गोंय भोंवतण

''गोंय'' हें उतरच अशें आसा, जें फकत कोंकणी उलोवपी मनशाकच सारखें म्हणपाक जाता–तो मनीस जांव गोंयकार वा गोंय भयलो. कोंकणी भास उलोवपी न्हय आशिल्लो भरतांतलो जांव वा संसारातल्या खंच्याच वाठारांतलो जांव, ताका, ''गोंय'' हे उतर कोंकणी उलोवपी मनशां भशेन सारखें उच्चारपाक केन्नाच जमना. कोंकणी लोक सोडून संवसारांतले सगळे लोक गोंयाक ''गोआ''म्हण्टात हाजें कारण हेंच आसा.

कोंकणी उलोवपी लोक कोंकणीत उलयतना ''गोंय'' चो जसो सारखो उच्चार सारखो करतात तसो ते जेन्ना हेर भासांनी उलयतात तेन्ना तांकांय ''गोंय'' चो उच्चार करपाक जमना. मराठीत ''मी गोंयचा आहे'' म्हण्टना कोंकणी मनशाकय ''गोंयचा'' ह्या उताराचो उच्चार सारखो करपाक जायना. कन्नडांत ''नानु गोंयदवनिद्दे ने'' म्हण्टनाय ताजी तीच अवस्था जाता. भारतांतल्या हेर भासांतय म्हण्टना तशेंच जाता. भारतीयच कित्याक, परदेशातले इंग्लीशींतय ''आय एम फ्रोम गोंय''अशें म्हणचे आसत तर कोंकणी उलोवपी मनशाकय ''गोंय'' चो उच्चार सारखो खंय करपाक जाता?

हे सगळे पळयत तर ''गोंय''हें कोंकणी उलोवपी लोकांचे एक खाशेलें उतर आसा म्हळ्ळें ध्यानात आयले बगर रावना. ''गोंय'' हें उतर गोंयकारांक जशें आपलेंशें दिसता तशें गोंया भायल्या कोंकणी आवय भास आशिल्यांकय आपलेशें दिसता. ''खयं वता, गोंया वता'' अशें जेन्ना ते म्हण्टात तेन्ना गोयांविशी तांकां जी ओडलायणी भावना आसता तशे तरेची भावना गोंय सोडून भारतांतल्या वा भारता भायल्या खंयच्याच वाठारा विशी तांकां उरना. शेंकड्यांनी वर्सां आदीं गोंयसून जे गेल्ले तांचे आयचे पिळगेंतले लोक जे पैसुल्ल्या मंगळुर, कोची वाठारांत आसात, जांणी गोंय हें केन्नाच पळोवंक ना, तेय आज गोंयचे नांव कानार पडतकच खुशालभरीत जातात आनी गोंयाविशी कोण

कितें सांगता ते कौतुकान आयकतात. ''कावळेकाका, तू गोंयसून आयलेलो'' अ
जेन्ना तांची माणकुलीं भुरगीं आंगणात आयिल्या कावळ्याक विचारतात तेन्ना तांच्य
काळजांत गोंया विशीची उमळशीक दिसले बगर रावना. भुरगेपणांतसाकून ''गोंय''
हें तांचे परंपरेचे एक अभेद्य आंग जाल्लें आसता: तांच्या काळजाच्या कुर्कुटांत गोंया
अपुर्बायेचें स्थान मेळयिल्ले आसता.

पूण हें जें ''गोंय'' म्हण्टात तें खंय आशिल्लें आनी तें केदें आशिल्लें? तें आ
खंय आसा आनी केदें आसा? ह्या प्रस्नांची जाप सोदपाक गेल्यार मात गोंया भायल
कोंकणी लोकच न्हय तर गोंयकारय गोंदळ्ळे बगर रावनात. आज जें आमी ''गों
राज्य'' म्हणटात तें शेंकड्यांनी वर्सां आदीं आज आसा थयं, आज आसा तेदें
आशिल्लें? इतिहासाचें मातय गिन्याय आशिल्लो मनीस ह्या प्रस्नाक ''ना'' हीच जा
दितलो. ताजे खातीर आमकां इतिहासाची पानां परतुवपाची पडटलीं.

पंद्रावे शेंकड्यांचे अखेरेक वास्को-द-गामाक ''गोंय'' उतराचो उच्चार कर
जमना जाल्ल्यान ताणे तांका ''गोआ'' अशें हेर परदेशी लोक म्हण्टात तशें म्हळे
उपरांत सगळे कडेन -चड करून परदेशांत-गोंय हें ''गोआ'' जालें. पोर्तुगीजांच्य
कागदपत्रांतय गोआच जालें. ते उपरांत पोर्तुगीजांनी गोंय भोंवतणचो इल्लो-इल्लो वाठा
आपल्या पांख्यातळा हाडलो आनी तो वाठांर गोयांत आसपालो आनी त्या अख्य
वाठाराक ''गोआ''अशेंच ते म्हणपाक लागले. स्थानिक लोकय त्या सगळ्या वाठारा
''गोंय'' म्हणपाक लागले. जशी -जशी पोर्तुगीजांच्या राज्याची शीम वाडत गेल
तशें-तशें पोर्तुगीजांचे ''गोंय'' वाडत गेलें. एका वेळार एका शारापुरतेच आंवा
आशिल्लें गोंय वाडत वचत आयच्या आकाराचें गोंय इतिहासान घडयलें. सुदैवाच
गजाल म्हळ्यार ह्या वाडिल्ल्या गोंय वाठारांत कोंकणी आवय भास आशिल्ले लोक
आसपावले. ही गोंय वाडपाची प्रक्रिया एकेक फावटी जाली ना. उत्तर दिकाचो पेड
आदी वाठार आनी दक्षिण दिकाचो काणकोण आदी वाठार गोंयात आसपावपा
दोन-तीन शतकांचो काळ लागलो.

जाय तीं वर्सां घडत आयिल्ले हे प्रक्रियेंत गोंयांत कोकणी भास उलोवपी लो
आशिल्लों वाठार जरी आसपावलो तरी कोंकणी भास भोवसंख्येन उलोवपी आनिकू
वाठार गोंया भायरच उल्लो. तो वाठार घेवपाची शक्त पोर्तुगेज राजसत्तेंत तेन्ना आसताल
जाल्यार तोवय वाठार आज गोंयात आसपावतंलो आशिल्लो आनी कोंकणी लो
भोवसंख्येन आशिल्लें खरे अर्थान परिपूर्ण कोंकणी राज्य घडतलें आशिल्लें. त्या सगळ्
वाठाराक आमी ''गोंयराज्य''अशें म्हण्टलें आशिल्लें. त्या राज्यांत एकच संस्कृतायेच
परंपरा आशिल्लें कोंकणी उलोवपी लोक आसतले आशिल्ले आनी भारतात कन्नड

मराठी, पंजाबी, तेलगु, मळ्याळी, तमीळ आदीं राज्यां जशीं एकभाशीक लोक आसपाविल्लीं परिपूर्ण राज्यां घडल्यांत तशीं कोंकणी एकभाशीक लोक आशिल्लें गोंय घडिल्लें आमकां पळोवपाक मेळटले आशिल्ले.

पूण इतिहासान तशें घडयलें ना. ताजे खातीर आमी चिंता करपाची गरज ना. इतिहास घडता तो आपशींच घडना. इतिहासपुरसांच्या दूरदर्शी विचारांतल्यान नवे विचार मुखार येतात. ताका जेन्ना लोकशक्तीचें सक्रीय फाटबळ मेळता तेन्ना लोकक्षोभ जाता. त्या लोकक्षोभांत प्रचंड आत्मबळ आसता. तें आत्मबळ इतिहासाक नवी दिशा दिता. तांतल्यान क्रांतिकारी इतिहास घडत आसता. अशे तरेचे प्रक्रियेंतल्यान शेंकड्यांनी वर्सां मुंबई प्रांत, हैदराबाद राज्य आनी मध्यप्रदेश राज्यांत वाटून गेल्ले भोवसंख्येन मराठी भाशीक आशिल्ले वाठार एकठांय येवन महाराष्ट्र हें मराठी भोवभाशीक लोक आशिल्ले परीपूण मराठी राज्य घडलें. तशेंच मुंबय प्रांत, म्हैसूर राज्य, हैदराबाद राज्य आनी मद्रास प्रांतांत शेकड्यांनी वर्सां वांटून गेल्ले भोवसंख्येन कन्नड भोवभाशीक लोक आशिल्ले वाठार एकठांय हाडून कर्नाटक हें भोवभाशीक लोक आशिल्ले परिपूर्ण कन्नड राज्य घडले. तशेंच तामीळनाडू, आंध्र आदीं एकभाशीक परिपूर्ण राज्यां घडलीं. ह्या आतां नव्यान घडयिल्ल्या राज्यांचे विंगड-विंगड कुडके इतिहास काळात शेकड्यांनी वर्सां विंगड विंगड राज्यांत आशिल्ले आनी थंयचे लोक त्या राज्यांत अल्पसंख्य म्हूण हेर भाशेच्या चेपणा खाला जगताले. पूण तांणी एकभाशीक परिपूर्ण राज्य घडोवपा खातीर चळवळ चलयली, त्याग केलो, कांय जांणान बलिदानय दिलें आनी इतिहास घडयलो. हो इतिहास हालींच घडला. ताका पन्नासय वर्सां जाल्लीं नात. तो इतिहास गोंयचें बाबतीतय घडपाक जाय. ताजे खातीर इतिहासाची पुनरावृत्तीजावची पडटली. जशी कन्नड, मराठी, तेलगु, मळ्यळी आदी भाशीक लोकांनी चळवळ केली, त्याग केलो आनी बलिदान दिलें तशें कोकणी लोकांकय करपाचो प्रसंग येवपाचो संभव आसा.

पूण हांगा एक गजाल कोंकणी भाशीक लोकांचे नदरेन आदले परस बरी आसा. आज कोंकणी भाशीक - अपूर्ण आसना - एक राज्य आसा, कोंकणीक राजभास म्हूण मान्यताय मेळिल्ली आसा. जेन्ना हेर भाशिकांची चळवळ चलताली तेन्ना त्या भाशिकांचे अशें राज्यय नाशिल्लें आनी त्या भासांक राज्यभास म्हूण मान्यताय मेळिल्ली नाशिल्ली. ते नदरेन आमी कोंकणी भाशीक लोक सुदैवी म्हणपाक जाय.

ह्या शिवाय आनीकूय एक गजाल कोंकणी भाशीक गोंय राज्य घडपाचे नदरेन बरी आसा. भारतांत भाशावार प्रांतरचना करपा खातीर केंद्र सरकारान नेमिल्ल्या फजलअली कमिशना मुखार आनी उपरांत कर्नाटक-महाराष्ट्र शीमेवाद सोडोवपाक नेमिल्ल्या

महाजन कमिशना सामकार कारवार, सुपा, हळियाळ, म्हालांतले भोवसंख्य लो
कोंकणी आवयभास आशिल्ले आसात अशी कन्नड भाशीकांनी आनी कर्नाटक सरकारा
अधिकृतपणान साक्ष दिल्ली आसा. त्याच तत्वाचेर पेडणेच्या लोकांकडेन संस्कृताये
आनी भाशेचे नदरेन एकसंघ आशिल्लो मालवण, वेंगुर्ला म्हालांचोय आसपास गोंया
जावप योग्य जातलो अशें प्रामाणिक मत महाराष्ट्र सरकाराचें जावंक शकतलें. पू
ते खातीर गोंय आनी गोंया भोंवतणी रावपी भोवभाशीक कोंकणी भाशीक वाठारां
आशिल्ल्या लोकांचो आग्रोह जाय. गरज पडल्यार चळवळ करपाची तयारी आसपाव
जाय. वेळ आयल्यार आत्म बलिदानाची तांक आसपाक जाय.

कोंकणी भाशीक लोक सभावान शांत आसात, विचारान उदार आसात. मना
ओडलायणे आसात, राष्ट्रप्रेमांत अनन्यसाधारण आसात. दुसऱ्यांचें बरें जाता जाल्या
ताजे खातीर कसल्याय त्यागाक ते तयार आसतात. देकूनच ताणी इतिहासाचे घडणुके
लागून कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ आदी वाठारांत स्थलांतर केले उपरांत थंयच्य
लोकांत समरस जावन तांचे सांस्कृतिक, भाशीक, सामाजिक उद्गती खातीर सातत्या
हातभार लायिल्लो आसा. गरजे वेळार तांचे खातीर आत्मबलिदानय केल्ले आसा
कोंकणी लोकांनी ज्या-ज्या वाठारांत शेंकड्यांनी वर्सां रावन त्या त्या वाठारांची ज
सेवा केल्या ताजे बदलाक थंयचे लोक एक परिपूर्ण कोंकणी राज्य घडोवपाचे कोंकण
लोकांचो मागणेक तेंको दिलेबगर रावपाचे नात.

कोंकणी राजभास करपा खातीर आनी गोंय घटक राज्य घडोवपा खातीर कोंकण
लोकांनी केल्ली चळवळ यशवंत जाल्या. कोंकणी लोकांत स्वाभिमान आसा
आपले न्याय मागणे खातीर त्याग करपाची तयारी तांच्यांत आसा, ते ध्येय साध
खातीर बलिदानय करतात हाजे दर्शन ते चळवळीत घडिल्लें आसा. 'गोंय' उतरां
आगळे-वेगळेपण फाल्यांचे गोंय घडोवपाची बुनयाद आसा. गोंयची कोकणी भा
आनी गोंयची आगळी संस्कृताय ताजे दोन खांबे आसात. गोंयच्या भोंवतणच
कोंकणी भोवभाशीक वाठार आनी तांचो गोंयविशीचो मोग हे हेर दोन खांबे आसात
घट बुनयादीचेर आशिल्ल्या ह्या चार खांब्यांच्या आधारार फायच्या गोंयचो कळ
उबारपाचो आसा.

पंद्राव्या शेंकड्याचें सुरवातीचें कालचें गोंय आयचें गोंय जावपाक अठराव्
शेंकड्याच्या निमाणेचो काळ उजवाडचो पडलो. कोंकणी भाशेचें परिपूर्ण अशें फाय
गोंय घडपाक कांय दशकांच लागतलीं. ताजे खातीर आमी उसंत घेनासतना आत
दांग मारपाक जाय.

●●●

2.

# वेद-पुराणांतले आनी बायबल-कुराणांतले राक्षस

वेद, पुराण, इतिहास काव्य आनी काणयेंत राक्षसांची खबर आसताच. राक्षस, असुर, दानव, दैत्य असो तांचो उल्लेख जाता. तांचे विशीं वर्णन केल्लें आयकतना वेळ कसो गेलो तो कळना. भुरग्यांक तर राक्षसांची काणी म्हळ्यार जाली. रातच्या वेळार कितलोय वेळ जागरण करपाची तांची तयारी आसता.

राक्षसांचो उल्लेख आदी ऋग्वेदांत केल्लो आसा. तेन्ना राक्षसाक 'असुर' अशें म्हणिल्लें आसा. पूण हें उत्तर कशें आयलें ते विशीं विंगड-विंगड मतां आसात. बरे करपी जे आसात ते 'सुर' म्हळ्यार 'जीव'. जीव राखपी जो आसता तो असुर अशें थोड्यांचे मत आसा. 'आस' ह्या उतरांतल्यान 'असुर' हें उतर घडलां अशेंय कांय जाण म्हण्टात.

शतपथ ब्राह्मणांत देव आनी राक्षसांक ब्रह्मदेवान निर्माण केलां. देवांनी सत्याचो स्वीकार केलो जाल्यार राक्षसांनी असत्याचो स्वीकार केलो. राक्षसांनी असत्याचो आधार मागलो अशें त्या ग्रंथात म्हणिल्लें आसा. अजापाची गजाल म्हळ्यार ऋगवेदांत वरूण देवाक असुर अशें म्हळ्ळां. अग्नी आनी चंद्रदेवाकय असुर' म्हणिल्लें वाचपाक मेळटा.

वह्नी पुराणांत दानव कशें जल्माक आयले ताजी एक काणी आसा. दक्षब्रह्माक तेरा धुवो आशिल्ल्यो. तांतली दनु कश्यप मुनी कडेन लग्न जाली - तिका नरकासुर, हिरण्यकशिपु आदी चाळींस पूत जाले. हांकां दानव अशें म्हणटात. कश्यप मुनीक दिती म्हळ्ळी आनेक बायल आशिल्ली. तिका जे पूत जाले तांकां 'दत्य' वा 'दैत्य' अशें म्हण्टात.

रामायण उत्तरकांडातल्या भारत सभा पर्वात यक्ष आनी राक्षस हांचे विशीं सांगिल्ले

आसा. एक दीस ब्रह्मदेवाक हो संवसार निर्माण करपाची इत्सा जाली. सगळ्य आदीं ताणें उदाक उत्पन्न केलें. ताची राखण करपा खातीर कांय प्राणी तयार केले तांतल्या कांय जाणांनी ''जक्ष'' म्हळें. हेरानी ''रक्ष'' म्हळें. जांणी ''जक्ष'' म्हव तांका ''यक्ष'' आनी जांणी ''रक्ष'' म्हळें ताका राक्षस म्हूण ताणें म्हळें. अशे तरे यक्ष आनी राक्षस तयार जाले. हांतले राक्षस भयंकर आशिल्ले.

बह्मदेवाल्या चार तोंडांतल्यान ''हेती'' आनी ''प्रहेती'' म्हूण राक्षस जल्माव आयले. प्रहेती तप करपाक रानांत गेलो. हेती ''बया'' नांवाच्या राक्षसीणे बरोबर लग्न जालो. तांकां ''विद्युत्तेश'' म्हळ्ळो चलो जालो. तो संध्यादेवीली धूव सालकटंकले कडेन लग्न जालो. सालकटंकला कांय दिसांनी मंदार पर्वतार बाळंत जाली. जल्माव आयिल्ल्या आपल्या चल्याक तिणें थंय तशेंच सोडलें आनी ती घोवा म्हऱ्यांत गेली थोड्या वेळान त्या मार्गावेल्यान शिव आनी पार्वती वताली. जल्माक आयिल्ल्य चल्याक तशीच सोडून गेल्ल्या सालकटंकलेचो पार्वतीक भयंकर राग आयलो ''राक्षशिण्यो गुरुवार जाता म्हणसर बाळंत जावंदीत आनी तांकां जल्माक आयिल्ल भुरगीं जल्माक येता म्हणसर आवयचे येदीं जांव दीत ''म्हूण तिणें स्राप दिलो. त्य उपरांत जल्मांक आयिल्ले राक्षस कलियुगांत राजघराण्यांत जल्माक येवन राजा जाले अशें रामायण उत्तर कांडात भारत आदी पर्वांत आसा.

विष्णु पानांचेर न्हिदिल्लो आसतना ताज्या कानांतल्यान मधू आनी कैटभ हे दोग राक्षस जल्माक आयले. रोखडेच ते राक्षस ब्रह्मदेवाक पिडपाक लागले. ब्रह्मदेवा विष्णूची पार्थना केली. तेन्ना विष्णू जागो जालो आनी दोगाय राक्षसा आड झुजपाव लागलो. पूण ते आयकनासतना विष्णु कडेन झुजत रावले. झुजां वेळार विष्णुची म्हान करणी पळोवन दोगय राक्षस ताजी तोखणाय करपाक लागले आनी ताका व माग म्हूण सांगपाक लागले. शिटूक विष्णून कळाव करनासतना ''म्हज्या हाता तुमकां दोगांकय मरण येवपाचो वर दियात'' म्हूण मागले. मधु आनी कैटभ राक्षसांव आपणाली चूक ध्यानांत आयली. पूण आतां उतर फाटीं घेवपाचें साध्य नाशिल्लें ''भुंयेचेर जंय उदाक नासतलें थंय तुज्या हातान आमकां मरण येतलें'' असो व तांणी विष्णूक दिलो. विष्णून रोखडीच शक्तीदेवीची प्रार्थना केली आनी दोगांय राक्षसांक उदकांतल्यान वैर उखलत आपल्या मांडयांचेर न्हिदायले आनी तांचो अंत केलो. शिवपुराणांतल्या उमाखंडांत ही काणी आसा. अश्यो ताच्यो आनिकूय जाय त्यो काण्यो आसात.

अशे तरेन विंगड-विंगड प्रकारान जल्माक आयिल्ले राक्षस स्वभावानय विंगड-

विंगड तरेचे आसात. तांकां नांवांय खूब आसात. तांच्या गुणधर्मांक अणसरुन तांचे विंगड-विंगड विभाग केल्ले आसात. मांसाक ''कुणप'' म्हण्टात. जे राक्षस मांस खातात ते ''कौणप''. हे मांस शिजोवन खातात. जे शिजयनाशिल्ले मांस खातात तांका, ''क्रव्याद'' म्हण्टात. रगत पिवपी जे आसात तांका ''अस्त्रप, राती भोंवत शिकार करपी जे आसात तांकां ''आशर'', ''रात्रींचर'', ''निशाचार'', ''क्षपाट'' अशें म्हण्टात. जे निळें वा काळें वस्त्र न्हेसतात तांकां ''नीलांबर'' अशें म्हण्टात. जे निकषा आनी निकरुती हांचीं भुरगीं आसात तांका असुर, निकषात्मक वा नैऋत अशें म्हण्टात.

ह्या राक्षसांचे कांय खास गूण आसात. ते आंगान घट-मुट आसतात. लांब-रुंदय आसतात. कांय जाणांक दोन दोळे आसतात. तीन दोळ्यांचे राक्षस आसतात. त्या सगळ्यांचे दोन दांत तोंडा भायर आयिल्ले आसतात. हातात एक-ना-एक आयुधा वा शस्त्र आसता. माथ्याक भरपूर केस आसतात. हाताक जाड कांकणां आसतात. पांयांक तसलेच वाळे आसतात. गळ्याक हाडांचे हार आसतात. पळयले जाल्यार सारखेच विद्रूप वा भयकुरे कशे दिसतात. तांचें बळ देवा परस इल्लें चडच आसता. सांज जाली तशी तांच्या शक्तीक बळ वाडपाक लागला. माध्यानरातीं ते सामकेच बळान फुलिल्ले आसतात. लोक न्हिदिल्ले आसतात तेन्ना ते जागे भोंवतात अशे एतरेय ब्राह्मणात म्हळ्ळें आसा.

राक्षस फकत प्राण्यांचेंच मांस खायनात, मनशांचे मांस तांकां चड बरें लागता. ते जाय तेन्ना आपणालें रुप बदलायतात. राम-लक्ष्मणाक फटवपी मारीच राक्षस हरणेचें रुप घेवन आयिल्लो. मूकासूर रानधुकराचें रुप घेवन आयिल्लो. कृष्णदेवाक सतावपी आघासूर पांच तोंडांच्या सोरपाचें रुप घेवन आयिल्लो. दुंदभी राक्षस रेड्याचें रुप घेवन आयिल्लो. धेनुक राक्षस गाढवाचें रुप घेवन आयिल्लो. अशे तरेंची जायती उदाहरणां दिवपाक जातात.

हे राक्षस वेद-विद्या, धर्माचरण, यज्ञ-हाजे आड आशिल्ले. जे वेद-विद्या पठण करतात वा यज्ञ-याग करतात तांचे ते दुस्वात करताले. इतलेंच न्हय तर तांकां जिते मारताले. यज्ञात मांस, चरबी, सोरो बी रकोवन ताजी पवित्रताय भश्टायताले. पूण तितलेच ते परमेश्वराचे भक्त आसले. बह्मा, विष्णु आनी महेश ह्या देवांक प्रसन्न करपाक वर्सांनवर्सां तप करताले. तेन्ना आहार उदाक घेनासतना कठोर तपांतल्यान वर मेळयताले. ज्या देवाच्या आधारान वर घेतला तांचेरच आक्रमण करताले. संवसारभर अच्छेव मांडटाले. पूण निमाणें देव एक-ना-एक उपाय करताले आनी तांचो नाश

करताले. अशें अनादी कालाच्यान घडत आयलां.

अशे तरेचे राक्षसांविशींचे ग्रंथ-साहित्य भारतांतच आसा अशें ना, तर संवसारांतल्य हेर वाठारांतय आसा. ग्रीक, रोमन, मेसापोटेमिया, इराण, जपान, चीन, इजिप्त ऑस्ट्रीया, बाबिलोनिया आदीं देशांतल्या साहित्यांत राक्षसांविशीं भरपूर साहित्य आसा भारतांतल्या राक्षसां प्रमाणे तेंवय आशिल्लें. तशेंच चमत्कार करताले. लोकांचे हाल करताले, तांकां जिते मारताले आनी देवांकय त्रासांत उडयताले. भारतांतल्या राक्षस भशेन तांकांय निमाणें मरचे पडटालें.

भारतांत 'यक्ष प्रस्न' ही कथा आसा. निमाणे यक्षप्रस्नाची जाप मेळटा तशीच ग्रीकांत स्पींक्सान विचारिल्ल्या प्रस्नांक ईडिपस जाप दिता. जाप समा आशिल्ल्यान स्पींक्स जमनीर पडटा आनी मरता. स्पींक्साचें आंग शिंवा भशेन आशिल्लें आनी तोंड बायलमनशेचें आशिल्लें. ही राक्षशीण वाटेवेल्यान वतल्यांक प्रस्न विचारताली जे प्रस्नाक समा जाप दिनात तांकां ती खाताली. एक दीस थीब्स देशांतल्या लुयीस राजालो पूत ईडिपस थंय आयलो. "कोण सकाळीं चार पांयांन चलता?" हे प्रस्न ताका स्पींक्सान विचाल्लो. रोखडीच "मनीस" ही जाप ईडिपसान दिली. आपणाक हार खावची पडली म्हूण दुखेस्त जाल्ल्या स्पींक्सान जीव दिलो अशी एक काणी आसा.

मनशाभशेन तोंड आनी घोड्या भशेन आंग आशिल्लें सेंटार राक्षस पिरिथोस म्हळ्ळ्या राजकुमाराल्या लग्नाक गेल्ले. तांतलो युरिषन म्हळ्ळो राक्षस सोरो पिवन तर्र जालो आनी राजकुमारील्या आंगार हात घालपाक गेलो. तेन्ना जाल्ल्या झुजांत बरेच सेंटार राक्षस मेले अशी काणी आसा.

टिटियस म्हळ्ळो राक्षस जेन्ना आपणालें आंग फुलयतालो तेन्ना ताका णव एकर येदी जमीन न्हिदपाक जाय आशिल्ली. ताका मारपाक ऐटना दोंगर ताजे तकलेर दवरुन दाबचो पडलो अशें बरयिल्लें मेळटा. ब्रियेरीयन राक्षसाक शंभर हात आशिल्ले. टैफान राक्षस उजो ओंकत भोंवतालो. हाका भिवन देव सगळे धांवन इजिप्तांत लिपले अशें काणयेंत म्हळ्ळें आसा. थंयचे जाय ते राक्षस विंगड-विंगड प्राण्यांचीं रुपां घेवपाक शकताले. राक्षसांनी ओस्सा दोंगरांक एकठांय केले. तांचेर चडत सर्गार पावपाचो तांचो विचार आशिल्लो. पूण मिनर्वान वज्राच्या आयुधान तांकां जिते माल्ले अशीय एक काणी आसा.

घोणेची तकली, शिंवाचे आंग आनी पांखां आशिल्लो ग्रिफियन राक्षस भांगर आशिल्ल्या दोंगरार रावतालो. ताजीं नाखटां व्हड आशिल्लीं. तो मेले उपरांत ताज्या

नाखटांचो सोरो पिवपाक लोक उपयोग करताले.

आँटियस राक्षस सगळ्यांक कुस्ती करपाक आपयतालो. कुस्ती करतना तांकां मारतालो आनी खातालो. तो कुस्ती करतना जमनीर पडलो जाल्यार वा ताजें रगत जमनीर सांडलें जाल्यार ताजीं शक्त चड जायत वताली. ते खातीर ताका जितो मारप साध्य जायनाशिल्लें. देवांचो निर्मापक ज्युपिटर आनी ताजो पूत हरक्युलस ह्या दोगांनी त्या राक्षसाक मळबार उडयलो आनी वैलवैर ताजी गोमटी कापली.

भारतांतल्या साहित्यांत जशीं देव आनी राक्षसांची झुजां आसात तशी ग्रीक रोमन साहित्यांत टैटान आनी अलियंपीक राजांमदीं झुजां जातात. क्रोनसनाचो पूत स्टायसान टैटानांचे अधिकार आपणाकडेन घेतिल्ल्या वेळार युरेनसालीं भुरगीं तांचे कडेन धा वर्सां मेरेन झुजत रावलीं. तांकां मारपा खातीर टैवनाली आवय पृथ्वी देवतेन टैटानाक धाडलें. टैटानान सगळयांक जिते माल्ले आनी हेलनालें साम्राज्य परतें घडयलें. ह्या घडणुकेचें शिल्प आजूय पळोवपाक मेळटा.

इंद्रदेव जसो तीन तकलेच्या त्रिशिरस राक्षसाक मारता तसो झेंड अवेस्था ह्या ग्रंथा प्रमाणे थ्रीट तीन सोरपा तोडांच्या अहिदाहक ह्या सोरोप राक्षसाक जितो मारता. भारतांत जशी सुंदोपसुंद हांची काणी आसा तशेच तरेची एफीएल्टीस आनी ओटूस हांची काणी ग्रीक पुराणांत आसा. हे दोगय भाव एकमेकां कडेन झगडत मेले.

अशे तरेन संवसारांतल्या विंगड-विंगड वाठारांत राक्षसांची आनी देवांची झुजां करणी जशी आमका काण्यांत सांगतात तश्यो कांय काणयो किरिस्तांव धर्माच्या बायबलांत आनी मुसलमान धर्माच्या कुराणांतय पळोवपाक मेळटात.

बायबलांत "डॅमन" हे राक्षस आसात. हे आदीं म्हान आशिल्ले. उपरांत तांकां देवाचें स्थान मेळ्ळें. ते देव आनी मनशांमदीं म्हात्म्याच्या (स्पिरीट) स्थानार आयले. हे देवाच्या दूताचें काम करताले. मनशांचें आनी शारांचें रक्षण करपाची जापसालदारकी तांचेर आसा. कांय जाण दुश्ट लोकांचे आत्मेच स्पिरीट जातात. न्यू टेस्टामेंटांत तांचे कडेन आध्यात्मिक शक्ती आसता. पूण ते देवाचे आनी मनशांचे दुस्मान आसात अशें म्हळ्ळें आसा. आदल्या काळांतसून सैतानाचो उल्लेख आमकां पळोवपाक मेळटा. ते सगळ्यांचे वायटच येवजितात. पूण ह्या सैतानांक आपलें अशें खास अस्तित्व नासता. हांचे ड्रॅगन, सैतान, पापाचो अधिपती असो उल्लेख बायबलांत जाता. लोकांक फटोवपाचे, अज्ञान पसरावपाचे, लोकांक पिडपाचें घातकी पिडेन हाल करपाचें हेंच ह्या सैतानांचे काम आसता. तशें पळयत तर ह्या सैतानांत आध्यात्मिक शक्त नासता, ते अमरय नासतात. देवाले इत्सेप्रमाणें तांचें काम पूर्ण जातकच ते नरकात पडतात

आनी तांचो नाश जाता अशें म्हळ्ळें आसा. मदर तेरेसाक संत करपाखातीर जी प्रक्रिय चलत आसा ते प्रक्रियेंत सैतानान तिका जे त्रास दिल्ले ताजे प्रभाव ना करपाक हालीं कोलकता शारांतल्या एका क्रिस्त धर्म मंदिरांत कांय धार्मिक विधी जाल्ले आसात सैताना आड ही केल्ली कारवाय आसा.

मुसलमान धर्मातय राक्षस आसात. तांकां कुराणांत ''इबलीस'' अशें म्हळ आसा. हो अल्लालो सगळ्यांत बरो देवदूत आशिल्लो. ताणे मातयेची ''ॲडम'' तया केली. ते मूर्तित जीव हाडपाक सगळ्या देवदूतांक ताणें ते मुर्तीक पांय पडपाक सांगलें पूण इब्लीसान तें मानलें ना. आपूण उज्यांतल्यान निर्माण जाल्लो आशिल्ल्यान त मूर्तीक पांय पडना अशें ताणें सांगलें. देवांचे नदरेन तो सैतान जालो. तरी पूण ताण देवांकडसून लोकांक वायट मार्गार व्हरपाक आपणाक साध्य जावपाक जाय म्हळ्ळ वर घेतलो. आज तो मनशांक वायट विचार हाडपाक, हेरां विशीं द्वेश वाडोवपाच दुश्ट काम करपी राक्षस जाला अशें मुसलमान मानतात.

संवसारांतल्यान सगळ्या धर्मांत जशे देव आसात तशे राक्षसय आसात. एके वटेन बरें घडत आसतना दुसरे वटेन अनर्थ घडटा हाजें कारण हेंच आसा.

●●●

3.

# दिवाळेचो उजवाड फांकताना

फांतोडेचेर सूर्य उदेता आनी वैर चडत दनपारचो मळबाचे तेंगशेर पावता. उपरांत सकल देंवत अस्तमतेचे देगेर तिळसांजचो पावता. ल्हवूच सगळो वाठार रातराणयेच्या पाख्यातळा विसव घेता. मळबार नखेत्रांचीं फुलां फुलतात. चंद्रिमाचो शीतळ उजवाड चोंयवटेन पातळता.

उदेंतेचेर उदेल्लो सूर्य अस्तंतेची शीम हुपून परतून उदेंतेच्या क्षितिजार पाव मेरेन ह्या विश्वांत जें कितें घडता ताजें आकलन चडांत चड बुदवंत आशिल्ल्या मनशाकय करप साध्य जायना. मनीसकुळयेच्या जल्मा साकून आतां मेरेन मनशान आपणाले बुदवंतकायेचो सातत्यान उपयोग करूनय ताका ह्या विश्वाचें खरें रूप अजून कळूंक शकलें ना. हजारांनी वर्सां उपरांतय तें पूर्णतायेन कळपाचें ना हाजी जाणीव ताका जाल्ली आसा. मनशाक ताजी जाणीव जावं वा ना जावं अनंत काला साकून चलत आयिल्लें हें कालचक्र अनंत काळ मेरेन फुडारांतय चलत आसतलें. ताका उसंत नासता; तें कोणा खातीरय थांबना.

वसंत येता. झाडा-पेडांक पानां-फुलांचो रंग चडता. पाचव्याचार पानांमदीं रंगरंगयाळ्या फुलांचो शिंवर फुलता. फुलांच्या काळजांतलें उमाळ्यांचें म्होंव सवण्यांसावदांचें सपनेल्लें सपन जागयता. सगळी भोंवतण व्हंकले भशेन सोबीतकायेन उपाट भरून मन भुलयत आसतना वैर नितळ निळ्या मळबार सात रंगाचो इंद्रधनू भांगरा वोताचे सयेंत न्हवरो कसो सोबता. रातराणयेच्या परमळांत नखेत्रांचो शालू न्हेसून सुस्त न्हिदिल्ल्या भूंये वांगडा सृंगाराचो खेळ खेळपाच्या हावेसान तो उबो आसता.

पूण कालचक्र थांबना; तें चलत आसता. उपरांत ग्रीष्म येता. धगधगपी धगान आंगांतल्यान घामाचे लोट व्हांवतात. सैमाची लज धांपपी पाचव्या कापडाचीं बोंदरां

जातात. बांय-तळ्यांतलें उदाक मळबाक शरण गेल्ल्यान तळांतले खडप रेंवट मळावेले रेंवें भशेन तळतळटात. तानेन जीव खासावीस जाता. कालचक्र थांबल काय दिसता.

तें कालचक्र थांबना. घुंवत आसता. पावसाळो येता. मळबावेल्यान उदकाचि धार लागता. अखी भूंय न्हांवन चिंब जाता. मळबाचो उपाट मोगा-शिंवर जायत आशिल्ल्यान भूंयची कूस फळता आनी तिजें सगळे आंग नवनवोन्मेषाशालिनीचे रूप घेता. पाचवेंचार कापड न्हेसून स्त्रिंगारून आतांच सव्यार चडिल्ली व्हंकल कशी दिसता. वाऱ्यावांगडा शेता-शेतांनी पाचवीं ल्हारां धोलतात.

कालचक्र घुंवता तशें शेतांत भांगराचीं कणसां दिसपाक लागतात. शरदाचीं पावल मुखार पडत आसतना पीक घरांत येवपाक लागता. घर खोशयेन भरता. निळ्या निळ्य मळबार पुनवे दिसा चंद्रीम आडखळनासतना भोंवपाक लागाता. चान्याचो शीतळ उजवाड चोंय वटेन फांकत आसतना कालचक्र घुंवता आनी उमाशेची रात असंख्य दिव्यांचो उजवाड घेवन येता. भायर-भितर सगळे कडेन दिव्यांचो झगझगीत उजवाड. भायर पण्टयांचो उजवाड; भितर गिन्यानाचो उजवाड

उजवाड नासता थंय काळोख आसता. भायल्या काळखा परस भितल्लो काळोख मनशाक चड गोंदळायता. सूर्य अस्ताक गेले उपरांत चोंयवटेन काळखाचे साम्राज्य पातळटा. पूण सूर्य जेन्ना उदेता, तेन्ना काळोख खंयचो खंय धांवन वता. पूण अंतरंगांत जो अज्ञानाचो काळोख आसता तो केन्ना ना जायत तें मात सांगप कठीण आसता. गिन्यानाच्या उजवाडानच तो काळोख ना जावपाक शकता. हो काळोख ना जावन मनांत उजवाड फांकप म्हळ्यार अंतरात्म्याक गिन्यानाचो दिश्टावो जावप अशें म्हणपाक हरकत ना. अंतरात्म्याक गिन्यानाचो दिश्टावो जाल्लो मनीस स्वयं दैदिव्यमान आसता आनी आपणालो उजवाड भोंवतणी फांकयता. तेन्ना सगळो वाठार उजवाडान लखलखता. काळखांतल्यान उजवाडा कडेन वचपाची ही प्रक्रिया मनीस कुळयेंत अनंत कालासाकून चलत आयल्या. दिव्यान दिवो पेटत अख्खो संवसार असंख्य पण्टयांनी परजळीत जायत आयला. मर्दी-मर्दी दिव्य तेजाचे म्हान प्रकाश-पुंजय परजळत आयल्यात. मनीस कुळयेची आज जी प्रचंड उदरगत जाल्ली दिसता ताजें कारण हेंच आसा. हाजी जाणीव दरेका मनशाक जावपाक जाय आनी ताणें उजवाडाचें-गिन्यानाचें-तेज वाडोवपाक कर्तव्यतत्पर रावपाक जाय. दिवाळे परबे वेळार लावपी दर एक पणटी होच संदेश दीत आसता. आपणाल्या कर्तव्याची जाणीव मनशाक तांतल्यान जाता.

दिवाळेचो उजवाड फांकतना नरकासुराचो वध जाता, बली चक्रवर्तीचो अहंकार ना जाता आनी तो रसातळाक पावता हाजी देख आमी घेवपाक जाय. मनशांत बरे आनी वायट आस्पाविल्लें आसता. वायट जळोवन गोबोर केले उपरांत रसातळाक पावता आनी बऱ्याक जैत फाव जाता. उपरांत लक्षुमी घरांत पावल दवरता. घन-धान्यान घर भरता. उजळ जिणेचो उजवाड फांकता. घरांत सुखा-समाधानाचें वारें व्हांवता. भावां-भयणींचो मोग परमळटा. सोऱ्या-धायऱ्यांचो सहयोग फाव जाता.

●●●

4.

# पंडित जवाहरलाल नेहरू अर्विल्या भारताचो शिल्पकार

देशाचे स्वतंत्रताये खातीर जें झूज जालें तें अपूर्व आसलें. तेन्ना ज्या जाय त्या जाणांनी वांटो घेतिल्लो त्या सगळ्यांत पंडित जवाहरलाल नेहरू हांचे स्थान एक आगळेंच आसा. ते ह्या देशाचेच एक आदर्श म्हापुरुस न्हय तर संवसाराच्या इतिहासांतय विसाव्या शेंकड्यांतले म्हान विभूतीचें स्थान मेळयिल्ले एक व्हड इतिहास पुरुस आसात. ते भारतीय खरे; पूण संवसारांतल्या खंयच्याय देशाक ते परके न्हयत. तांची मनीसपणाची वागणूक, सगळ्या लोकांविशीं आशिल्लो तांचो उपाट मोग, तळागाळांतल्या लोकांचे उदरगती खातीर त्यांच्यांत आशिल्लो उमाळो पळयिल्ल्या संसारांतल्या सगळ्यांक ते आपलेच कशे दिसताले. भुरग्यांचे मोगाचे ते ''चाचा नेहरू'' आशिल्ले. भुरग्यांवांगडा आसतना ते तांचे भशेनच निश्पाप दिसताले.

जवाहरलाल नेहरू हे एक बरे उलोवपी आशिल्ले. लोकसभेंत जावं, संयुक्त राष्ट्र संघात जावं, विज्ञान परिशदेंत जावं, वा हेर खंयचेय वेदीचेर जावं तांचें उलोवप जे आयकताले ते मंत्रमुग्ध जाताले. ते जें उलयतात तें लोकांच्या काळजाक पावतालें. तांचे सभेक लाखांनी लोक पावताले.

भारताक स्वतंत्रताय मेळिल्ल्या 15 ऑगस्ट दिसा मध्यानरातीं तांणी केल्लें उलोवप अख्ख्या संवसारांत गाजलें. संवसाराच्या इतिहासांत अशे तरेचें खणखणीत ताळ्यांतल्यान भायर सरिल्लें भावना प्रधान उलोवप दुसरें नासतलें. ''भारत सपनेल्ले न्हिदेंतल्यान जागो जावन दोळे उगडत आसा'' अशें तांणी सांगतना आयकतल्यांच्या आंगार रोमांच उबे जाल्ले. तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरपी सत्वपूर्ण उतरावळ भावनापूर्ण काव्यान ओली चिंब जावन देशाभिमानाचे गंगे वांगडा समरस जावन

व्हांवतना मनशांच्या काळजाक स्फुरण मेळटालें. राष्ट्रपिता महात्मा गांधी हांकां दुखेस्त मरण आयिल्ल्या वेळार मनांत उफेल्लो भावनेचो म्हापूर आवरत तांणी केल्लें उलोवप आयकतल्यांच्या काळजांक कलकलावन गेल्लें. "इश्टांनो आनी म्हज्या देशभावांनो, आमच्या सगळ्यांचो जिणेक उजवाड दिवपी अमर ज्योत वाडवली आनी आमचे भोंवतणी आतां आकांताचो गडद काळोख पातळ्ळो." हें तांचें उलोवप आकाशवाणी वेल्यान आयकतना अख्खो संवसार काळखांत बुडिल्ल्याचो अणभव जाल्लो. ते इंग्लीश आनी हिंदी ह्या दोनूय भाशेत तितल्याच समर्थपणान उलयताले.

पंडित जवाहरलाल नेहरू हे जशे प्रभावी उलोवपी आशिल्ले, तशेच ते एक समर्थ बरोवपीय आशिल्ले. "आयच्या संवसारातल्या म्हान बरोवप्यांत जवाहरलाल नेहरू हांचो वेल्या पांवड्यार आसपाव जाता." अशे संवसारातले नामनेचे पत्रकार जॉन ग्रंथर हांणी उद्‌गार काडिल्ले.

"भारताची अखंडताय", "संवसाराच्या इतिहासार नदर", "भारताचो सोद", "आत्मचरित्र" आदी ग्रंथां वांगडा तांचीं हेर जायतीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत आनी तांचो संवसारातल्या विंगड-विंगड भासांनी अणकारय जाल्लो आसा. तांच्या पत्रांचोय झेलो उजवाडाक आयिल्लो. हें सगळें तांचें साहित्य ज्या प्रमाणांत संवसारभर खपलां तें पळयत तर त्या साहित्याचो पावंडो केद्या तोलाचो तें समजलेबगर रावना. तांतल्यान तांचें म्हान व्यक्तित्व, दीर्घ अणभव, तशेंच इतिहास समाज, परंपरा, विज्ञान, साहित्य हांची वळख जाता.

भारतीय स्वतंत्राये चळवळीचे म्हान प्रवर्तक महात्मा गांधी हांकां जवाहरलाल नेहरू हांचे कर्तृत्वशक्तीची पूर्ण जाण आशिल्ली. भारतांत सायमन कमिशन आयिल्ल्या वेळार ताजे आड शांततायेन निदर्शनां करतना जवाहरलाल नेहरूनी जें राजकीय मुत्सद्दीपण दाखयलें आनी आपणाल्या प्रगल्भ विचारांचें दर्शन घडयलें तेन्नाच महात्मा गांधींक भारताचो फुडार उजळ आसा हाजी जाणीव जाल्ली. "म्हज्या मोगाच्या जवाहरा, तुवें तुका सोंपयिल्लें काम धिटायेन पूर्ण केलें. आनिकूय प्रचंड कामां तुजे सामकार आसात. भारतदेश स्वतंत्र जावपाक तुजो उपयोग जावं आनी ते खातीर तुका व्हड आयुष्य फाव जावं" असो आशीर्वाद गांधीजीनं दिलो. ते उपरांत भारत स्वतंत्र जालो. भारताचे पयले-वयले प्रधानमंत्री जावपाचें भाग्य जवाहरलाल नेहरू हांकां मेळ्ळें आनी गांधीजीचो आशीर्वाद फळादीक जालो.

जवाहरलाल नेहरू हे भारतीय स्वतंत्रताये चळवळे वेळार आनी स्वतंत्रताये उपरांत भारतीय राजकारणांत म्हत्वाचे आशिल्ले. पूण तांकां आपूण व्हड मनीस अशें केन्ना दिसलें ना. ते उदार मनाचे आशिल्ले. मनांतले विचार ते लिपोवन दवरनाशिल्ले. जें आ तें उक्तेपणान दाखयताले. जेन्ना तांकां राग येतालो तेन्ना तें तोंडार राग दाखयताले आ रागान उलयताले. जेन्ना मोगाचो आवंडो येतालो तेन्ना ते तितल्याच सहजपणान मो दाखयताले. तांचो रागय तितले पुरतोच. थोड्या वेळा भितर राग विसरतातले आ हांसत उलयताले. आपूण चुकले जाल्यार ताजी जाण जातकच ते आपली चूक जाल हें मन मेकळें करून सांगताले.

एका दिसा काँग्रेस म्हा-अधिवेशन चलतालें. त्या अधिवेशनांत मांडपाचे थारा जवाहरलाल नेहरू हांणीं इंग्लीशींत बरोवन काडले आनी तांचो हिंदी अणकार करपा सांगलें. कांय वेळान ताजे अणकार अखिल भारतीय काँग्रेस कमिटीचे कचेरेंत का करपी कारकून घेवन आयलो. तो अणकार सारखो जालो नाशिल्लो. जवाहरलाल नेह हांका राग आयलो. ते त्या कारकुनाक रागान उलयले. तो बाबडो ओगी गेलो. कां वेळा उपरांत तांकां तो अणकार गुजराथचे तेन्नाचे राज्यपाल श्रीमन्नारायण हांणी केल्ल अशें कोणें तरी सांगलें. आपणें कारण नासतना त्या कारकुनाक तापयलें अशें तेन्न तांकां दिसलें आनी तांणी त्या कारकुनालागीं रोखडींच माफी मागली.

एक दीस तांकां मेळपाक एक आदिवासी आयलो. ताका ते रोखडेच मेळपाव तयार जाले. तो आदिवासी कांय खेळ करून दाखोवपाक लागलो. ते खोशयेन पळय आसतना ताणें एक लोखणाची सळय घेवन ताजें एक टोंक वण्टीक तेकयलें आन दुसरें तोंक आपणाल्या डोळ्याचेर तेकोवन ती सळय वांकोवपाक लागलो. जवाहरलाल नेहरू हांकां ते पळोवपाक जालें ना. ताणें रोखडेंच तें बंद करपाक लायलें आनी त्य आदिवासीक पैशे दिवन ताजे फाटीर हात भोंवडायलो. हाजे वेल्यान तांचें मन कितल मोव आशिल्ले तें कळटा.

जवाहरलाल नेहरू हांकां वेळेचे म्हत्व आशिल्ले. खंयचेय काम थारायिल्ल्या वेळा जावपाक जाय अशें तें समजताले आनी तें पाळटाले. लोकसभेंत आनी राज्यसभे केन्ना आपणें वचपाक जाय हें ते याद दवरताले. प्रजाराज्याचें प्रतीक आशिल्ले कडे पवित्रतायेचें बंधन पाळपाक जाय हें ताजें कारण आशिल्लें. आपणें हाजीर आसपाच वेळ आयलो तसो ते राज्यसभेंतल्यान लोकसभेंत आनी लोकसभेंतल्यान राज्यसभे

धावांधांव करताले आनी थंय वेळेर पावताले.

येद्या व्हड भारता सारख्या देशाचो राजकारभार चलोवप, संवसारांत शांतताय तिगपा खातीर वावुरप आदीं खातीर दीस-रात काम करत आसपी जवाहरलाल नेहरू हांका फुरसद नासताली. ''आराम हराम है'' अशें तें सांगताले आनी तशें वागताले. ते राती फकत तीन वरांच न्हिदताले. तरी तांकां वेळ उणो जातालो. अशें आसतनाय ते तांचे कडेन येवपी गरजवंतांक मेळटाले आनी तांचे कडेन उलोवन तांचे प्रस्न सोडयताले. जशे ते राजा-महाराजांक, व्हड पैशेकारांक मेळटाले तशें ते तळा-गाळांतल्या लोकांकय मेळटाले. तांकां निरोप दितना तांचे वांगडा चलत चार पावलां वताले. आत्मीयतेचें नातें जोडटाले. मनीसपण हें आपले जिणेचे एक म्हत्वाचें आंग अशें तें मानताले. तळा-गाळांतल्या लोकां वांगडा समरस जावपांतच तांकां सार्थकताय दिसताली. कोणाकय दुःख जाल्यार तांचें मन हालतालें. भूंयकांप जावन लोकांचेर संकट आयल्यार, जाती-कातींमदीं दंगो जावन रगताचे पाट व्हांवल्यार, लोकांनी आपले स्वतंत्रताये खातीर आनी हका खातीर चळवळ करत आसतना तांचेर लाठी मार-गोळीबार आदीं हिंसाचार केल्यार तांच्या आधाराक वचप आपले कर्तव्य अशें तें समजताले आनी तांच्या रक्षणाक धांवताले. हेर देशांतल्या हुकुमशहा आडय तांणी आवाज काडला. ते तांचो तिरस्कारय करताले. इटलीचे सर्वाधिकारी मुसोलिनी हांणी जवाहर लाल नेहरू हांका मेळपाची इत्सा परगटयिल्ली. पूण ते भेटेचो नेहरून स्वीकार केलो ना.

पंडित जवाहरलाल नेहरू सारखे मनीस इतिहासन घडयत आसतात. देशांतल्याच न्हय तर देशा भायरय तांच्या कर्तुत्वाचो परमळ व्हांवता. जवाहरलाल नेहरू अर्विल्ल्या भारताचे शिल्पकार. देशाचे उदरगती खातीर विज्ञानाची बुनयाद तांणी घाली. आर्थीक उदरगतीची दिशा दाखयली. आज जो भारत उबो जाला ताजें चडांतचड स्रेय जवाहरलाल नेहरू हांकां फाव जाता. स्वतंत्रताये उपरांत अर्ध शतकाच्या काळा भितर भारतात एक स्थीर राष्ट्र जावपाची प्रक्रिया घडली. प्रजाराज्याचो एक म्हान प्रयोग दीर्घकाल मेरेन चलत आयलो. ज्या देशाक पोटा खातीर भायल्यान ओरोव हाडचो पडटालो तो देश आज धान्यांत समृद्ध जालो. भारत भायल्या देशांकय गरजेर धान्य दिता. फकत धान्यच न्हय तर हेर बाबतींतय देश स्वयंपूर्ण जाला. ल्हान-व्हड यंत्रां देशांत तयार जातात आनी भायरय वतात. गरजेचीं वखदां देशांतल्या कारखान्यांत तयार करपाचे

साधलां. अणुशक्तीचो उपयोग करून मनीस कुळयेक लाभ करून दिवपाचें तंत्रगिन्या
देशान मेळयलां. अंतरिक्षांत संशोधन करपाची पात्रताय आमच्या वैज्ञानिकांक आस
संवसाराक नव्या युगांत पावोवपी संगणक विद्येंतय भारतान हेर देशाबरोबर प्रावि
मेळयलां. हें सगळें घडपाक पंडित जवाहरलाल नेहरू हेच कारण आसात. तांणी दे
स्वतंत्र जातकच उजळ फुडाराकडेन नदर दवरून उदरगतीची घट बुनयाद बसयल
आनी ताजेर मंदीर बांदपाचो हावेस जाहीर केलो. तांचे उपरांत जांणी देशाचीं सु
हातांत घेतलीं त्या सगळ्यांनी तांचोच ध्यास फुडें व्हेलो. ताजें फळ आमकां आ
मेळत आसा.

"जवाहर" हें नांव ताकां दवरिल्ले. त्या नांवा प्रमाणे ते खरें "जवाहर" जाले
ते बुद्धीमान आशिल्ले. भूत, वर्तमान आनी भविष्यातले जायते अगम्य अशें गिन्या
मेळोवपात तांका यश मेळिल्ले. तांचे ते अगाध गिन्यान पळोवन तांका लोक 'पंडित
म्हणपाक लागले आनी ते पंडित जवाहरलाल नेहरू म्हूण नामनेक पावले.



5.

# नेहरू घराण्याचेर लोकांचो मोग

"हांव भारताचो पैलो प्रधानमंत्री अशें म्हणप म्हाका आवडना; भारताचो पैलो सेवक अशें म्हाका म्हळें जायत तर बरें दिसता." हे पंडित जवाहरलाल नेहरू हांचे विचार तोखणा करपासारखे आसात. ह्या देशांतले मातयेचेर तांकां उपाट मोग आसा. ह्या देशांत जल्माक आयलों ताजे फाटल्यान खंयचा तरी पुण्याय आसूंक फावो अशे तांणी उद्गार काडिल्ले आसात. "ह्या देशाचेर मोग करपी जे कोण आसात त्यांच्यांत जवाहरलाल नेहरू हे सगळ्यांत वैल्या पांवड्यार आसात." अशें महात्मा गांधीन नेहरू विशीं उलयतना उद्गार काडल्यात.

जवाहरलाल नेहरू हे आगर्भ गिरेस्त कुटुंबांत जल्माक आयले. सुखा-समाधानात जगले. राजवाड्या सारख्या घरांत ते रावताले. जें जाय तें तांकां मेळटालें. तांचे तोंडांतल्यान भायर सरपी उतर जिखपाक जाय ते नोकर चाकर आसताले. त्या काळांत जें शिक्षण मेळटालें तांतलें चडांत चड पावंड्याचें शिक्षण तांणी घेतलें इंग्लंडांत वचून बॅरिस्टर जाले. तांचे बापूय मोतीलाल नेहरू हांकां ब्रिटीश राजकरपी आदरान मानताले. अशा वेळार जवाहरलाल नेहरून मनांत हाडल्यार ते ब्रिटीश सरकारांत वेल्या पावंड्याचे कायदे सल्लागार जावपाक शकताले. पूण तांणी तशें केलें ना.

हो भारत व्हड परंपरा आशिल्लो म्हान देश हाची जाणीव तांकां आशिल्ली. इतिहास, संस्कृताय, साहित्य, कला, ह्या सगळ्या वाठारांत अशे तरेची परंपरा आशिल्लो दुसरो देश ना हें ते बरे भशेन जाणा आशिल्ले. हो देश स्वतंत्र जावपाक जाय आनी अख्ख्या संवसाराक मार्गदर्शन करपाची तांकां ताज्यांत येवपाक जाय अशें तांकां दिसतालें. देखून ते देशाचे स्वतंत्रताये चळवळींत आयले. महात्मा गांधीजींच्या फुडारपणा खाला ते स्वतंत्रताये चळवळींत वांटो घेवपाक लागले. राजवाड्यार सुखाची जीण जगपी

बंदखणींतली जीण जगपाक तयार जाले आनी भारतीय जनतेच्या काळजा-सिंवासना
बसले.

जवाहरलाल नेहरू हांचें अखख्या भारतांतल्या लोकांकडेन आत्मीय भावने‍चें नातें घट जायत गेलें. ते भारताचे अनभिषिक्त साम्राट जाले. तांचे उपरांत आज मेरेन तांच्या कुटुंबाकडचे लोकांचें नातें तशेंच उल्लें. ताका लागून तांच्या स्थानार इंदिरा गांधीक वावुरपाचो योग आयलो. संजय गांधी विशीं लोकांक आपलेपण दिसपाक तेंच कारण आशिल्लें. ते उपरांत राजीव गांधी कडेनय लोकांचें नातें जुळत आयलें. लोकांनी फकत नेहरू घराण्याकडेन रगताचें नातें आशिल्ल्यांचेरच मोग केलो ना तर त्या घराण्या कडेन लग्नाचें नाते जोडप्यांचेरय तितलोच मोग केलो. सोनिया गांधीक आयज देशांतल्या जायत्या जाणां कडसून जो मोग मेळत आसा ताजें कारण तेंच आसा. प्रियांका आनी राहुल हांचे कडेनय आज जायते जाण आत्मीयतेचे नदरेन पळयत आसात. जवाहरलाल नेहरून आपणाले हे भारत भुंयेचे मातयेचेर केल्ल्या उपाट मोगाचें हें फळ आसा. भारतीय समाज हो कोणेंय केल्लो उपकार विसरना. जवाहरलाल नेहरून केल्ल्या मोगाचो प्रभाव ते उपरांतच्या तीन-चार पिळग्यां मेरेन पडत आसा. जवाहरलाल नेहरूंनी आपल्या मरणा उपरांत आपलें चिताभस्म अखख्या भारतांत शिंपडपाक जाय अशी इत्सा परगटायिल्ली. आपल्या मोगाच्या देशाचे मातयेंत आपलें मीलन जावपाक जाय हो तांचो उद्देश आशिल्लो. तांचे इत्सेक मान दिवन तांचें चिताभस्म विमानांतल्यान अखख्या भारताच्या विंगड-विंगड वाठारांत शिंपडायिल्लें. त्या चिताभस्माचो दर एक कण भारताचे मातयेंत किल्लला आनी तांतल्यान अखख्या देशांत तांच्या देशावयल्या मोगाचें पाचवेंचार अभरयारण्य निर्माण जालां.



6.

# पारतंत्र्याच्या दुवाळ्यान घात माल्लो!

19 डिसेंबर 1961 ह्या दिसा गोंयची सुटका जाली आनी अख्खो भारत देश पूर्णतायेन स्वतंत्र जाल्याचें समाधान गोंय आनी भारतांतल्या सगळ्यांक जालें. भारत स्वतंत्र जाल्ले उपरांत गोंय स्वतंत्र जावपाक जाय हाजे खाजीर भारत सरकार यत्न करत आशिल्ले. भारतीय सैन्य दळाक गोंयची सुटका करप तशें व्हड काम न्हय आशिल्लें. दोन-तीन हजार संख्येन आशिल्ल्या पोर्तुगीज सैन्याक लाख-देड लाख संख्येन आशिल्लें भारतीय सैन्य ना नपश्यात करून उडयतले आशिल्ले. पूण भारत सरकाराक तशी गोंयची सुटका जाल्ली नाका आशिल्ली. गोंयची लोक शक्ती जागी जावपाक जाय आनी ताज्या बळान पोर्तुगीजांनी गोंय सोडपाचो प्रसंग येवपाक जाय अशें भारत सरकाराक दिसताले. ज्या ब्रिटीश साम्राज्याक हातांत अस्त्र घेनासतना फकत आत्मबळाचे ताकीन देशांतल्यान भायर वचपाचो प्रसंग हाडिल्ले म्हान भारतीय तेच भावनेन गोंया कडेन पळयताले.

भारतीय स्वतंत्रताये चळवळ चलता आसतना गांधी, नेहरू सारख्या म्हान सुटके झुजाऱ्यां कडेन जायत्या गोंयकारांची संवकळ आशिल्ली. ते गोंयकार गोंय स्वतंत्र जावपाक जाय हाजे खातीर यत्न करीत आशिल्ले. मदीं-मदीं तें गोंयांत येवनय वताले. खबरे पत्रांतल्यान आनी पुस्तकांतल्यान गोंय सुटके विशीं बरयताले. अशे जे कांय जाण आशिल्ले तांकां पोर्तुगीज सरकारान बंदखणींत दवरिल्ले. तांची संख्या सामकीच उणी आशिल्ली. तांचो गोंयच्या लोकां कडेन तसो लागींचो संबंद नाशिल्लो. लोकांत ते चड मिसळ नाशिल्ले. त्या कारणान भारतांतलो गांधी-नेहरूचो संदेश त्या तळागाळांतल्या लोकां मेरेन पावनाशिल्लो. गोंयांत गोंयचे सुटके खातीर व्हड प्रमाणांत जन आंदोलन जावपाक शकलें ना हाजें हें कारण आशिल्ले. गांधी-नेहरू सारख्यांनी भारतांत जशें

लोकांक जागयलें आनी स्वतंत्रताये खातीर सर्वस्व त्याग करपाची जशी प्रचंड श लोकांत फुंकली तशें गोंयचे बाबतींत घडलें ना. आपले असंख्य अनुयायी घे पणजेच्या राज्यकर्त्यांचे छातयेर बसपी एकय गोंयकार तयार जालो ना. तशेंच पोर्तुग सरकारा आड सशस्त्र झूज दिवपाचे बाबतींतय परिणामकारक अशें कांयच घ ना. कांय जाणांनी सशस्त्र झूज दिवपाक सेना उबी केल्ली. भारत सरकारा कड शस्त्रां आनी पैसोय मेळयिल्लो. पैसो तांणी खर्च केलो. पूण शस्त्रान पोर्तुगीज से प्रत्यक्ष प्रतिकार करपी नांवां पुरतेच आशिल्ले. कांय जाणा तांतले सरकारी पैसो अ शस्त्रास्त्रां घेवन गोंयच्यान अवैध्य व्यापार करपाक ताजो उपयोग करताले अ घडिल्लें आसा. अशें करतना तांतल्या कांय जाणांचेर पोर्तुगीज सैन्या कडसून प्र खावपाचोय प्रसंग आयला.

अशे तरेची गोंयची स्वतंत्रताये चळवळ भारत स्वतंत्र जाले उपरांत चलत आशि जाय ते जाण गोंयकारांत जागृताय निर्माण करपाक साहित्याचें प्रकाशन करपाक अ सभा-संमेलना घडोवपाक भारत सरकारा कडसून पैशे हाडीत आसताले. अशे सग तरेच्या प्रकारान भारत सरकाराक जो खर्च करपाचो प्रसंग आयला ताजो हिशे नासतालो. कोट्यांनी रुपयांच्या घरांत तो आसतलो. अशें जाय तीं वर्सां खर्च के उपरांतय स्वतंत्रतायेचें फळ मेळना अशें दिशिल्ल्यान भारत सरकारान 19 डिसें 1961 ह्या दिसा निरुपायान सैन्य दळाचो उपेग करून गोंयची सुटका केली.

भारतीय सैन्यान गोंयची सुटका केली. उपरांत अधिकाराचें स्थान मेळोवप जाय ते जाण मुखार आयले. जे नेहरू भोवतणी घुंवताले तांकां मंत्रिपदां सांभाळपा उमळशीक लागिल्ली. नेहरूचे कृपेन जशें आदीं सादला तशें तेन्नाय सादपाक मेळ हें सपन ते पळयत आशिल्ले. गोंयची सैन्याची राजवट सोंपली तेन्ना मंत्री पद मेळ अशें तांका दिशिल्ले. पूण उपराज्यपालाची राजवाट आयिल्ल्यान तांचेर धैर्य ध कशेंय रावपाचो प्रसंग आयलो. उपरांत नेहरून वेंचणूक करपाचो विचार केलो. जां अधिकाराचे दुवाळे लागिल्ले तांतल्या कांय जाणांनी नेहरूचे फाटल्यान लागून वेंचणुके उमेदवारी मेळयली. नेहरूची आनी कॉंग्रेसाची पुण्याय उपकाराक पडटली अशें तां दिशिल्लें. पुण तांकां आघात जावपाचो प्रसंग आयलो. राजकारणाचे भानगडेंतच के पडूंक नाशिल्ल्या दयानंद बांदोडकरान अपूर्व जैत मेळयलें आनी ‘‘स्वातंत्र सैनिक पितळ उकतें जालें.’’

गोंयांत दयानंद बांदोडकरांचें सरकार आयलें. लोकराज्यांत सरकार लोकां खात

आसता. लोकांक अन्न, वस्त्र, आरोग्य, घर आनी शिक्षण हांची सुविधा मेळोवन दिवपाचें सरकाराचें कर्तव्य आसता. हें केले उपरांत लोकांची भास, संस्कृताय, कला हाजी उदरगत करपा खातीर वावुरचें आसता. पूण दयानंद बांदोडकर हांच्या काळांत एक न्हय नस्तो प्रस्न उबो जालो. तांतल्यान स्वतंत्रतायेच्या मुळारच कुराडेचो घाय पडलो. मनशाक स्वतंत्रताय फकत पोटा खातीरच जाय अशें न्हय. संस्कृतायेचे उदरगतीखातीर स्वतंत्रतायेची खरी गरज आसता. पोर्तुगीज काळांत गोंयचे लोक पोटाक खाताले, आंगार वस्त्रां घालताले, घरांत रावताले, आरोग्य सांबाळटाले आनी गरजेचें शिक्षण मेळयताले. तांकां कसलीच उणीव नाशिल्ली. मीनाचो उद्योग बरो चलतालो, सोन्याचो वेव्हार आनी भांगराचो वेपार सामकोच फळफळटालो. चोरयां भारतांतल्या सगळ्या वाठारांनी म्हाल पावतालो. गोंयांत पैश्याचो पावस पडटालो. लोकांच्या हातांत पैशे घोळटाले. अशा वेळार स्वतंत्रताय कित्याक जाय अशें म्हणटलेय आशिल्ले.

स्वतंत्रताय जाय आसता ती स्वाभिमान जागो दवरपाक आनी संस्कृतायेची उदरगत करपाक अशें जाणकारांचे मत आसा. गोंयाक स्वतंत्रताय जाय आशिल्ली. स्वाभिमान जागो दवरपाक आनी संस्कृतायेचो विकास करपाक हें दुबावा विरयत सांगपाक जाता. स्वतंत्रताय मेळटकच स्वाभिमान जागो जाताच. तो गोंयकारांतय जाल्लो. संस्कृतायेचो विकास जावपाक जाय जाल्यार आपल्या जाणटेल्यांविशीं अभिमान, आपले कलेविशीं आदर आनी आपले भाशेविशीं मोग आसपाक जाय. ह्या सगळ्यांत भाशेविशींचो मोग हो म्हत्वाचो आसता. कारण भाशेवरवीं आपल्या लोकांकडेन आपलेपणाचो संबंद वाडता, कलेचो विकास जाता आनी आपणाले परंपरेविशीं अभिमान निर्माण जाता. हे खातीर लोकभाशेचो विकास करप आनी लोकात तांतल्यान स्वाभिमान जागो करप हें म्हत्वाचें काम सरकारान करपाचें आसता. हें जालेना जायत तर स्वतंत्रतायेक कांयच अर्थ नासता. दयानंद बांदोडकर सरकारान ह्या म्हत्वाच्या वावरा कडेनच अनर्थकारी धोरण आपणायलें आनी गोंयचो इतिहास घडोवपाच्या पवित्र कार्यार अपशकुनाचें सांवट आयलें.

गोंयची भास कोकणी, गोंयची परंपरा कोंकणीन विणल्या, कोंकणी संस्कृताय कोंकणीन फुलयल्या. अशी ही गोड अमृतमय मायभास गोंयची भास न्हय, ती एक सादी बोली, गोंयची आवय भास मराठी अशें धोरण दयानंद बांदोडकार सरकारान आपणायलें. ताजो अर्थ गोंयची परंपरा मराठी, गोंयची संस्कृताय मराठी आनी गोंयचो वाठार महाराष्ट्राचो असो जालो आनी गोंयचें राज्य करपाक घडयिल्लें सरकार

गोंय महाराष्ट्रांत आसपावपाक जाय अशें म्हणपाक लागलें. परत पारतंत्र्यांत वचपा दुवाळे गोंयकारांक जावपाक लागले. म्हान परजळीत इतिहास घडोवपाचो अपूर्व यो आयिल्ल्या वेळार नश्टे दुवाळे जाल्ल्यान गोंयच्या इतिहासाक न्हय-नस्तें वळण मेळ आनी स्वाभिमानी गोंय घडचें तें घडलें ना. आयज गोंयकारपण नाशिल्लें गोंय राज घडत आसा ताजें मूळ कारण त्या पारतंत्र्याच्या दुवाळ्याक आसा अशें म्हळ्यार खरें मूल्यमापन जातलें. गोंयचे स्वतंत्रतायेक चाळीस वर्सां पूर्ण जातना अशे निराशे उद्गार काडपाचो प्रसंग येवप हें दुर्दैवाचें न्हय?

●●

7.

# धर्म आनी आकांतवाद

ह्या दिसांनी संवसारा सामकार एक म्हत्वाचो गंभीर प्रस्न उबो आसा. मनीस कुळयेच्या इतिहासांत अशे तरेचो भिरांकूळ प्रसंग केन्नाच आयलो ना. ह्या संवसारात हे आदीं झुजां जालीं. म्हाझुजांय जालीं. अणुबाँबांचो घातमारो उपयोग जालो. लाखों लोकांक जीव व्हगडावचो पडलो. संवसारांतल्या विंगड-विंगड वाठारांत विंगड -विंगड कारणान विंगड-विंगड ल्हान-व्हड पंगडांत झुजां जाल्ल्यान लोकांचेर असो जीव व्हगडावचो प्रसंग हजारों वर्सांत येत रावला. पूण आतां जें गंभीर वातावरण तयार जालां आनी भिरांकूळ फुडार दारांत अुबो राविल्लो दिसता तसो हे आदीं अणभव मनीस कुळयेक केन्नाच आयिल्लो ना. आधुनिक तंत्रगिन्यान आनी मारक शस्त्रांचो उपयोग करपी आकांतवादी हिंसाचाराची भिरांत दाखोवन संवसारांतल्या उदरगतीक पाविल्ल्या राष्ट्रांकय आपल्याक जाय तशीं नाचोवपाची मांडणी करपांत यश मेळयत आसात. अणुशस्त्रां तांच्या हातांत पडपाकय चड काळ लागपाचो ना. तशें जायत तर मरणाचो तांडव नाच अख्या संवसाराचो गोबोर करतलो आनी म्हाप्रळय घडटलो हाजें स्पश्ट चित्र हालींच्या कांय खबरेंतल्यान नदरे सामकार आयलां. पाकिस्तानांतले दोन अणुशास्त्रज्ञ म्हान घातकी आकांतवादी ओसामा बिन लादेनच्या ताटांतले उश्टे खावन जगत आसात ही खबर आयकून आयकतल्यांचो आवरो अुडिल्लो आसा.

अशे संवसारांत रणखेव मांडपी हे आकांतवादी कोण? ते तशे तरेचे घातमारे कित्याक जाल्यात? ते कितें सादपाक पळयतात? तांकां ही अवाचिन्नपणाची पाडेली बुध्द येवपाक कारण कितें? ह्या आनी हेर अशें तरेच्या प्रस्नांक जाप मेळप तशें कठीण ना. सगळ्यांक ती खबर आसा. ह्या सगळ्या अनर्थाच्या मुळांत ''धर्म'' आसा हेंय भोवतेक जाण जाणात.

ह्या संवसारांक नीत-नियम आसपाक जाय आनी सगळ्या लोकांक शांततायेन जीए
सारपाक मेळपाक जाय हो उद्देश नदरे सामकार जांचो आशिल्लो तांणी धर्म स्थापन केल्ले
विंगड-विंगड काळांत, विंगड-विंगड वाठारांत, विंगड-विंगड बुदवंतांनी, विंगड-विंगड
सामाजिक परिस्थितींत विंगड विंगड धर्मांची बुनयाद घाल्ली. धर्मांची बुनयाद घाल्ल्य
सगळ्या जाणांची बुदवंतकाय एकाच पावंड्याची नाशिल्ली. तांची विचार करपाची तर
एकच नाशिल्ली. तांच्या काळांतली सामाजिक मांडणीय एकेच तरेची नाशिल्ली. त्या-
त्या काळांतले परिस्थितीक फाव सारखे विचार तांकां जे होलमल्ले ते तांणी आपल्य
भोंवतणच्या लोकांक सांगले. ते जांकां पटलें ते तांचे अनुयायी जाले. ताणें सांगिल्ल
नेम ते निश्टेन पाळपाक लागले. ताका बादिकार येवपाक जायना तशे आचार तांणी
दवरले. काल-मान परिस्थितींत हे आचार-विचार सवकासायेन बदलतय गेले. अशे
तरेचे प्रक्रियेंतल्यान घडिल्ले विंगड-विंगड धर्म आज ह्या संवसारांत आसात.

जांणी धर्माची बुनियाद बसयली ते फकत बुदवंतच नाशिल्लेः ते दृष्टार आशिल्ले
दूरदर्शी विचाराचे आशिल्ले. दीर्घ काळ खोलायेन विचार केले उपरांत जे विचार तांक
योग्य अशे दिशिल्ले ते विचार तांणी लोकां सामकार मांडिल्ले. जे जांकां योग्य दिसले ते
त्या धर्माचे वांगडी जाल्ले. जांकां ते पटले नात ते पैस रावले. कांय जाणांनी विरोधय
केलो. तांतल्यान हिंसेकय वाव मेळ्ळो. पूण जाणें धर्म स्थापन केल्ले ते हिंसा करपाक
मुखार नासताले. तांकां विरोध करपीच हिंसा करताले आनी धर्मसंस्थापकांक आनी
तांच्या अनुयायांक छळटाले. असो नवो धर्म स्थापन करतल्या भोवतेक सगळ्यांक
अणभव आयला.

धर्म संस्थापकांनी जे विचार मांडिल्ले, जे आचार सांगिल्ले, जे विधी थारायिल्ले, ताजे
अनुकरण त्या धर्माच्या अनुयायांनी समर्पण भावनेन आपणायिल्ले जाल्यार ही भूंय मनीस
कुळयेक स्वर्गाभशेन आनंदमय जातली आशिल्ली. संवसारांतले सगळे लोक एकचारान
रावतले आशिल्ले आनी एकमेकांक आधार दितले आशिल्ले. पूण तशें घडलें ना.

धर्म संस्थापकांनी जे विचार मांडिल्ले, जे आचार सांगिल्ले आनी जे विधी थारायिल्ले
ताजेर विवेचन करताना तांच्या अनुयायांनी आपणाक जाय तसो अर्थ लायलो. असो
अर्थ लायतल्यांचे बुदवंतकायेची तांक उणी पडिल्ल्यान ताजो परिणाम तांच्या विचार
आचार आनी विधीचेर जालो. काल-मान-परिस्थिती प्रमाणे तांच्यांत बदल घडत
गेले आनी मतभेदय निर्माण जाले. हे मतभेद जशें वाडलें तशें तांचे पंगड वेगळे जाले
एकाच धर्म संस्थापकाचे अनुयायी कालांतरान विंगड जाले. तांचे विंगड-विंगड पंथ
वा उपधर्म तयार जाले. आज हिंदू, मुसलमान, किरिस्तांव अशे कांय मुखेल धर्म

जरी आसले तरी त्या दर एक धर्मांत शेकड्यांनी उपधर्म वा पंथ आसात आनी त्या शिवाय असंख्य ल्हान-व्हड धर्मय आसात. कांय धर्मांनी जे पंथ आसात ते आपलो स्वतंत्र धर्म अशेंय म्हणटात. जैन, बौध्द, शीख, लिंगायत, कॅथोलीक, प्रोटेस्टंट, मॅथोडिस्ट, शिया, सुन्नी, सुफी, अहमदीय आदी पंथ आज स्वतंत्र धर्म अशें मानतात. ह्या सगळ्यांचे विचार, आचार आनी विधी चड-उणे प्रमाणांत बदलत गेल्यात. मूळ धर्म संस्थापकांनी जें सांगिल्लें तांतले खरें खंयचें हें आज कळप कठीण जालां. जें आपूण सांगतां तेंच खरें आनी तेंच सत्य अशें सगळे जाण आज आग्रहान सांगतात.

अशें सगळ्यांनी सांगिल्लें जाल्यार तसो व्हड प्रस्न उबो जायनाशिल्लो. आपले पुरतें आपणाक जाय त्या धर्माचें अनुकरण करत दर एकटो रावतलो आशिल्लो. पूण आपलो धर्म हो एकच खरो धर्म अशें म्हणत सगळ्यांनी त्या धर्माचें अनुकरण करपाक जाय हाजे खातीर हेरांचेर जेन्ना प्रत्यक्ष -अप्रत्यक्ष चेपण हाडपाचें कृत्य जाता तेन्ना मतभेदाक वाव मेळटा आनी तांतल्यान संघर्ष निर्माण जाता. अशा वेळार हेरांक आपल्या धर्मांत हाडपा खातीर यश मेळना जायत तर तांकां आपले दुस्मान थारावन तांची हत्या करपाक जेन्ना कोणय मुखार सरता तेन्ना हिंसेक वाव मेळटा आनी रगताचे पाट व्हांवपाक लागतात. अशें इतिहास कालांतल्यान आज मेरेन घडत आयलां. लोकांक सुख, शांती, समाधान मेळपा खातीर आचार, विचार, विधी ज्या धर्मसंस्थापकांनी थारावन धर्माची बुनियाद घाल्ली त्याच धर्माच्या नांवान संवसारांत रक्तखेवां मांडपी आकंतवादी कारवायो आज घडत आसात. हालींच अमेरीकेंतल्या वर्ल्ड ट्रेड सेंटरार जाल्ल्या घातमाऱ्या आकांतवादी कारवायेन आकांतवादी खंयच्या थराक पावपाक शकतात हाजे स्पश्ट चित्र नदरे सामकार आयिल्लें आसा. फुडारांत ते अख्ख्या संवसाराक कशें तरेन भिरांकूळ संकटांत घालतले हाजी तांणी सुलूस दिल्ली आसा. अशा वेळार तांच्या हातांत महामारक अणुअस्त्रां पडल्यार तें अनर्थकारक जातलें आनी मनीस कुळयेच्या नाशाक तें कारण जातलें. तशें जावपाक जायना. विधात्यान निर्माण केल्ली ही विविधतायेन नटिल्ली सोबीत भूंय मसणवट जावची न्हय हाजे खातीर संवसारांतल्या सगळ्यांनी एकवटून धर्माच्या नावान तांडव नृत्य करपी घातकी आकांतवाद्यां आड खर कारवाय करपाक जाय. आकांतवादी प्रवृत्तीच ह्या संवसारांतल्या मुळासकट ना जावपाक जाय आनी खऱ्या आर्थान धर्म संस्थापक जावपाक जाय अशें भगवद्गीतेंत जें सांगलां तें आजय पूर्णतायेन घडना.

●●●

8.

# आधुनिक रामसेतु?

रामायणांत रामभक्त हनुमान भारतांतल्यान श्रीलंकेंत आकाशमार्गान उडून व
आनी सीतेचो सोद घेता. सीतेक रावणाल्या अशोक वनांतल्यान हाडपा
रावणाकडेन झुजप हो एकच मार्ग आशिल्लो. झुजपाक सैन्य नाका? वानर सै
आशिल्लें. पूण त्या सगळ्या वानरांक श्रीलंकेंत व्हरप कशें? तांकां हनुमानाभशे
आकाशमार्गान उडत वचपाचें साध्य नाशिल्लें. येदो व्हड दर्या हुपून श्रीलंकेंत पावप
साध्य नाशिल्ले. अश्या वेळार भारत आनी श्रीलंकेक जोडपी सांकव बांदप गरजे
आशिल्लों. श्री रामाचें नांव बरयिल्ले व्हडव्हड फातरागुंडे वानर सेनेन दर्यांत उडयले.
तशेच हुबत रावले. तो मेरेन वचून मुखार आनिकूय फातरागुंडे उडयले. तेय वैर हुब
उरले. अशें करत वानर सैन्य त्या उडयिल्ल्या फातरागुंड्या वेल्यान चलत श्रीलंके
पावले. हो दर्यावेलो फातरांगुड्यांचो मार्ग 'राम सेतू' असो रामायणांत उल्लेख आस
पूण तो सेतू आज ना.

रामायणातल्या त्या रामसेतून भारत आनी श्रीलंकेमदीं नातें जोडलें. श्रीलंकेच
राजसिंवासनाचेर रावणाचो भाव विभीषण बसतकच हें नातें वाडत गेलें. उपर
श्रीलंकेच्या च्याच्या मळ्यांत काम करपाक तामीळनाडूंतल्यान हजारों कामग
श्रीलंकेच्या उत्तर-पूर्व वाठारांत वचून रावले. श्रीलंका आनी भारत हांचे मदलें न
आनिकूय घट जालें. आयज श्रीलंकेत शेकड्याक वीस जाण हे तामिळनाडूंत
भारतीय आसात. त्या देशांतल्या उत्तर-पूर्व वाठारांत ते भोवसंख्येन आसात.
कारणान त्या लोकांचे वेपार वेव्हार भारतांतल्या तामीळ लोकांकडेन वाडत आस
आतांच्या आधुनिक युगांत तो चडच वाडला. आतां आकाशमार्गान विमानांतल्य
सामकेच उण्या प्रमाणात आनी दर्यांतल्या व्हड्यांतल्यान व्हड प्रमाणांत जाय ते लो

भारतांतल्यान श्रीलंकेत वच-यो करत आसतात. जीं साधनां वचपा-येवपाक आज आसात तीं पुरो जायनात. ताजे खातीर भारतांतल्यान श्रीलंकेमेरेन मार्ग बांदपाचो विचार मुखार आयिल्लो आसा. भारत आनी श्रीलंका हांचे मदीं बावीस किलो मिटरांचें अंतर आसा. थंय एक व्हड सांकव बांदल्यार बसींनी तशेंच रेल्वेन दोनय देशांमदगतीं यो-वच करपाक सोपें जातलें. ते खातीर हो आधुनिक रामसेतू बांदपाची सुचोवणी श्रीलंकेचे प्रधानमंत्री रनील विक्रमसिंगे हांणी हालीच एक इंग्लीश खबरेपत्राक दिल्ले मुलाखतींत केल्ली आसा. श्रीलंका आनी भारत सरकारान लक्ष घाल्यार हें सोपे तरेन जावपाक शकता. तशें जायत तर श्रीलंकेचो उत्तरेचो भाग आनी भारतातलो तामीळनाडूचो भाग वेपार-उदीमेचे नदरेन समृद्ध जायत वतले. श्रीलंकेतल्या लोकांचो बेंगळूर, हैदराबाद, कोचिन आदीं शारांकडेन लागिंचो संबंद येतलो. तशेंच दक्षिण भारतांतल्या लोकांचो त्रिंकोमाली, कोलंबो आदी श्रीलंकेतल्या शारांकडेन संबंद वाडतले. गरज पडल्यार कोलंबो ते दिल्ली मेरेन राजमार्गान प्रवास करपाक वाव मेळटलो.

●●●

9.

# विसाव्या शेंकड्यांतलो महात्मा जालो हुतात्मा!

जानेवरी 30 तारखेक भारताचे नदरेन एक आगळें म्हत्व आसा. त्या दि भारतीय इतिहासांत एक व्हड अनर्थ घडलो. कोटी-कोटी लोक आशिल्ल ह्या म्हान देशाक प्रचंड शक्त आशिल्ल्या साम्राज्यशाहीच्या तोंडांतल्यान एकय रगता थेंब पडपाक दिनासतना स्वतंत्र करपाचें म्हान कार्य केल्ल्या महात्मा गांधीची फार हत्या केल्लो हो अत्यंत घातमारो दीस म्हूण संवसाराच्या इतिहासांत सदां खातीर उल्ल त्या दिसा उदेल्लो सूर्य वैर-वैर चडत मळबाचे तेंगशेर आपलो रथ पावोपाचे वा आसतना भुंयेर सुटिल्ल्या फारान उसळिल्ली रगताची धार संवसारांतल्या कोट्यां लोकांच्या दोळ्यांत उफेली आनी तांच्या तांबड्या गुंज जाल्ल्या दोळ्यांतल्यान उदकां पाट व्हांवले. तेन्नां रागान तांबडो गुंज जाल्लो सूर्य दुःखावेग सहन जायनासतना त असंख्य लोकांच्या दुकां धारेन तुडूंब भरिल्ल्या म्हासागरांत बुडकी मारुन अंतर्ध पावलो. अनंत कालाचो साक्षिदार आशिल्लो सूर्य तो दीस केन्नाच विसरपाचो न रगतान बरयिल्लो तो मनीस कुळयेचो इतिहासय त्या घातमाऱ्या दिसाची गवाय दी रावतलो.

रक्ताचे पाट व्हांवयत अच्छेव करपी अत्यंत क्रूर सत्ते आड सशस्त्र कारवाय कर वीर मरणाक वेंग मारिल्ले हजारों हुतात्मे आंता मेरेन जाय ते जाण संसारात जाव गेले. पूण महात्मा गांधी भशेन सत्यान, शांततायेन आनी अहिंसेन ब्रिटीशां येद्या प्रचं शस्त्रास्त्रांनी सज्ज आशिल्ले म्हान सत्तेक बागोवपाचें अभूतपूर्व कार्य केल्ल्या इतहि पुरुसाक फाराक बळी पडून हुतात्मो जावपाचो असामान्य प्रसंग मात फकत महात्म गांधीजींच्या वांट्याक आयलो. ह्या ऐतिहासीक प्रसंगाचो उगडास दवरपाक आन

तांच्या म्हान आत्म्याक भावपूर्ण आर्गां ओंपपाक दर वर्सा जानेवरी तीस तारखेचो दीस अख्ख्या भारतात हुतात्मा दीस म्हूण मनयतात. भारताचे स्वतंत्रताये खातीर आनी ती स्वतंत्रताय तिगोवन दवरपा खातीर ज्या ज्या हुतात्म्यांनी बलीदान केलां त्या सगळ्या हुतात्म्यांकय हो म्हान भारत देश त्या दीस अर्गां ओंपता आनी देशाची स्वतंत्रताय राखपा खातीर सर्वस्व त्याग करपाची सोपूत घेता.

ज्या दिसा महात्मा गांधीजीचेर फार मारिल्लो तो दीस सदां भशेन उजवाडिल्लो. नित्य नेमाक अणसरुन गांधीजी प्रार्थनेची कार्यावळ आनी हेर कामां जातकच दिल्लींतल्या बिर्ला भवनांतल्यान भायर सरताले. तांच्या दोनूय वाटांनी दोग जाण बायलां चलत आशिल्लीं. सूर्य मध्यानेच्या पारार येवपाक थोडो वेळ आशिल्लो. घड्याळीर 10.58 वरां जायत आशिल्लीं. इतल्यांत थंय आयिल्ल्या एकट्यान महात्मा गांधीजी सामकार दिंबी मोडून नमस्कार केलो आनी तांचेर रोखडोच फार माल्लो. महात्माजींच्या तोंडांतल्यान "हे राम" हीं उतरां भायर सल्लीं आनी ते थंयच पडले. त्या म्हान म्हात्म्याचो परिशुद्ध आत्मां परमात्म्यांत विलीन जाल्लो तो 10.58 वरांचो खीण मनीस कुळयेच्या त्यागमय इतिहासातलो अत्यंत पुण्यमय खीण जालो. त्या खिणाचो उगडास दवरपाक दर वर्सा दिल्लींतल्या राजघाटावयल्या महात्मा गांधीजीचे समाधीचेर अत्युच्च अधिकारार आशिल्ले भारताचे राष्ट्रपती फुलां ओंपून अख्ख्या राष्ट्राचे वतीन कृतज्ञताय उक्तायतात.

महात्मा गांधी हांची राजघाट समाधी ही फकत भारतीयांकच न्हय तर अख्ख्या संवसारांत जे सत्य, अहिंसा आनी त्यागाक मानवीय मुल्ल्यां मानतात तांकां सगळ्यांक एक पवित्र स्थान जाल्लें आसा. मनीस कुळयेच्या म्हान बलिदानाचें तें एक प्रतीक जावन शांततायेचो संदेश दीत आसा. त्या पवित्र स्थानार गांधीजींच्या पुण्यतिथी दिसाच न्हय तर वर्सय भर हजारांनी लोक येतान आनी तांचें पुण्य स्मरण करतात. विदेशांतल्यान आयिल्ले व्हड-व्हड देशप्रमुखय त्या स्थानार येवन नतमस्तक जातात आनी आदरांजली ओंपून कृतार्थ जातात.

जानेवरी 30 तारखे दीसा सकाळीं राजघाटार राष्ट्रपती, प्रधानमंत्री, हेर मंत्री आनी देशांतले व्हड-व्हड फुडारी लोक येतात. थंय सकाळ फुडें सुरु जाल्ल्या भजनांत वांटो घेतात. समाधीर फुलां ओंपून देशा खातीर वीरमरणाक वेंग मारिल्ल्या भूत काळांतल्या म्हान हुतात्म्यांचें स्मरण करतात आनी भावपूर्ण आर्गां ओंपतात. तो दीस भारत सरकार हुतात्मा दिस वा शहीद दिन म्हूण मानत आयलां. त्या दिसा सकाळच्या 10.58

वरार जेन्ना महात्मा गांधीजीन ह्या संवसाराचो निरोप घेतिल्लो त्याच वेळार भारत
राष्ट्रपती राजघाटार महात्मा गांधीजींचे समाधीर पुष्पांजली ओंपतात. ते आदीं थ
विंगड-विंगड धर्मांचे भावपूर्ण भजन गायतात आनी महात्मा गांधीजीच्या सर्वध
समभावाचें अनुकरण करतात.

**रघुपती राघव राजाराम**

**पतीत पावन सीताराम**

**ईश्वर, अल्ला तेरे नाम**

**सबको सन्मति दे भगवान**

ही भजनाची धून त्या दिसा थंय चोंयवटेन घुंवता आनी ''वैष्णव जन तो ते कहिये'' चो सूर काळजाक थाकाय दिता. अशें तरेन सगळ्यांचें मन महात्मा गांधीजींच्य त्यागमय जिणेचें स्मरण करत आसता. भारताचे राष्ट्रपती जेन्ना समाधिचेर पुष्पांजल ओंपतात तेन्ना भारतीय संरक्षण दलाचे तीनूय विभागांचे जवान शस्त्रां उरफाटीं धरू महात्माजींक अंतीम सलामी दितात. रोखडोच बिगुलाचो शंखनाद मळबार घुंवत आनी शस्त्रदळाची तोफ गडगडटा. सगळे जाण दोन खीण मौन राखतात. त्या वेळा फकत राजघाटार आशिल्ले लोकच न्हय तर अख्ख्या भारतभर दोन खीण स्तब्ध राव सगळे लोक विसावे शेंकड्यांतल्या त्या म्हान पुरुसाक स्मरण करुन काळजाथाव आर्गां ओंपतात.

महात्मा गांधीजीन सत्य-अहिंसेचो संदेश ह्या संवसाराक दिलो. ते संदेश दिवन ओगी रावले नात, तांणी तो प्रत्यक्षांत हाडलो. तांचो संदेश तांचे जिणेंतल्यान उगत जातालो. मिठाचो सत्याग्रह सुरू करतना ते जेन्ना दांडी यात्रेक भायर सल्ले तेन्ना तांक एक पत्रकारान ''तुमचो भारतीय देशबांधवांक संदेश कितें आसा?'' म्हूण प्रस विचाल्लो. महात्माजीन ''आमार जीबनही आमार बानी'' अशी त्या पत्रकाराक जा दिली. ''म्हज्या जिणेंत म्हजो संदेश आसपावला'' अशें तांणी तेन्ना दिल्ली जापच अर्थपूर्ण आशिल्ली. आपली जीण सगळ्यांक आदर्शमय जावपाक जाय अशें तांक दिसतालें देखून ते सदांच कर्मयोगीची जीण जगले. धर्मनिश्ठेन वागले आनी निमाण अमृतत्वांत लीन जाले.

संवसारांतल्या इतिहासांत जे असंख्य म्हान पुरुस जावन गेले तांच्यांत महात्म गांधीजींक एक आगळें स्थान आसा. एक व्हड देशाक स्वतंत्रताय मेळोवपाक अहिंस

तत्वाचो आधार तांणी घेतिल्लो. ते आदीं खंयच्याय देशाक ह्या मार्गान स्वतंत्रताय मेळूंक नाशिल्ली. स्वतंत्रताय मेळोवपाक सत्ताधीशां आड सशस्त्र झूज दिवपाक जाय अशें सगळें मानत आयिल्ले आनी ज्या देशांनी स्वतंत्रताय मेळयल्या त्या देशांनी हो हिंसेचो मार्गच आपणायिल्लो. हो स्वतंत्रताय मेळोवपाचो मार्ग अहिंसेचो आसपाक शकता हो विचार जेन्ना महात्मा गांधीजींनी मांडलो तेन्ना तो कोणाकच पटपा सारखो नाशिल्लो. पूण महात्मा गांधीजींचें आत्मशक्तीचें बळ असामान्य आशिल्लें. तांणी त्या बळार आपलो विचार लोकांक पटयलो आनी लोकशक्तीचें बळार व्हड बलाढ्य साम्राज्यकय कशें हालोवपाक जाता हें तांणी दाखोवन नवो इतिहास घडयलो. सत्ते आड झुजपाक मारक शास्त्रास्त्रांची गरज ना, तारक अहिंसेच्या आत्मबळान तें साधपाक शकता हें कृतीन सिद्ध करतना महात्मा गांधीजीन राजकारणाक धर्मतत्वाची बुनयाद बसयली. ह्या तांच्या म्हान कर्तृत्वशक्तीन संवसाराच्या इतिहासांत तांकां वैल्या पावंड्याचेर स्थान मेळोवन दिलें. भारतीय इतिहासांत तर तांच्या तोलाचो राजकीय धर्मात्मा कोणच जावंक ना. देशांतल्या सगळ्यांच्या काळजांत तांकां जें स्थान आसा तें हेर कोणाकच आज मेरेन मेळूंक ना. भारतीय राज्य घटनेंत तांकां ''राष्ट्रपिता'' ह्या स्थानार बसोवन तांच्या म्हान कर्तृत्वाक फावो तो मान दिला. दर वर्सा तांचो जल्म दीस आनी पुण्यतीथ व्हडा दबाज्यान देशभर मनयतात. पूण तांणी जे आदर्श विचार मांडले आनी जे कृतीन प्रत्यक्षांत हाडले ते आज आमी कितले जाण जाणात आनी जे जाणात तांतले कितले जाण ते कृतींत हाडटात हाजो विचार केल्यार आमची निराशाच जातली.

महात्मा गांधीजीन जे आदर्श विचार मांडले, ज्या कार्यांचे ताणी निश्टेन समर्थन केले, जाचे खातीर ते जिवाची पर्वा करनासतना झुजले, लोक शक्तीक जागोवन ताजो लोकाकार्या खातीर उपयोग करपाक तांणी जें तंत्र आपणायलें, आपलें उतर आनी करणी हांचे मर्दी जे मेळ तांणी सादले हाजेर आज कोणच गंभीरतायेन विचार करतले दिसनात. राजकारणांतआनी समाज कारणांत आज व्हड प्रमाणांत जायतें घडटा आसतनाय आमकां महात्मा गांधीजींची याद जायना. शाळेंतल्या पुस्तकांत तांचेविशीं वा तांच्या कार्याविशीं जें आसता तें भुरगीं वाचतात. पूण ताजो भुरग्यांचे जिणेंत उपयोग जावपा खातीर कसलेच यत्न सरकार वा सामाजिक संस्था करत आशिल्ल्यो आमकां पळोवपाक मेळना. महात्माजींचो म्हान आदर्श आनी तांणी आपणाले जिणेंत साधिल्लें अपुर्वायेंचे कर्तुब हांतल्यान आज कोणाकच उमेदीचे उत्फुर्के येनात. तांची

जयंती आनी मयंती मनोवप, भजन-प्रवचनां करप, दूरदर्शन आनी आकाशवाणी कार्यावळी घडोवन हाडप आनी देशा खातीर व्हड कार्य केलें अशें लोकांक भासो इतल्या आंवाठांतच गांधीजीक आज दवल्ला.

विसाव्या शेकड्यात भारताचे स्वतंत्रताये खातीर अहिंसा, सत्याग्रह आ स्वदेशीचो मंत्र घेवन फुडारांतल्या भव्य भारताचें सपन पळयिल्ले महात्मा गांधी ह एकविसावे शेंकड्याचे सुरवेक देशांत जें चलत आसा तें पळयल्यार आकांताच्य कळवळ्यांत हुलपतले आशिल्ले. अहिंसेचो संदेश संवसाराक दिवन ह्या म्हान भारत देश अख्खे मनीस कुळयेक शांततायेच्या मार्गार वचपाक मार्गदर्शन करपाच्या वांट्या अणुशास्त्रांचो भोरो घेवन अंतरखंडीय रॉकेटांचेर आरुढ जावन अख्ख्या संवसाराच गोबोर करपाचे तयारेंत आशिल्लो देश पळोवप तांकां जमतलें आशिल्लें? जाती-जात मदीं आनी धर्मां-धर्मां मदीं समन्वय आनी सर्वधर्म समभाव दिसपाच्या वांट्या धर्माच्या नांवान आकांतवाद्यांनी मांडिल्लो रगत-खेव तांच्यांनी पळोवपाक जातल आशिल्लो? गरजेचें सगळें देशांतच तयार करपाक जाय हो स्वदेशीचो संदेश प्रत्यक्षां हाडपा वांट्याक बहुराष्ट्रीय वेपाराक आपणावन स्वयंरोजगाराक वाव नासतना भोंवप असंख्य तवनास तरणाटे पळोवन तांचो आवरो उडनासतना रावतलो आशिल्लो? खेड्या-पाड्यांतल्या लोकांच्या हातांक कारभारांची सुत्रां येवन तांची उदरगत तांणीच घडोव हाडपा वांट्याक सगळीं राजकारणाचीं सुत्रां राज्य आनी केंद्रसरकारांत आशिल्ल्य कांय जाणांच्याच हातांत एकवटून देशांतले भोवतेक सगळे लोक जीं हाल-अपेष्ट काडटात तें नदरेक पडिल्लें जाल्यार तांच्या आंगांतलें रगत रागान उसळ्ळे बगर कश रावतलें आशिल्लें? लोकांची चोंयवटेन उदरगत करपाक सरकारी यंत्रणेन लोकाभिमुख जावन सदां कार्यतत्पर रावपाच्या वाट्यांक लोकांची मातूया पर्वा करीनासतना द एक कामाक पैश्यांची मागणी करत जळीं-मळीं आशिल्ले हजारों नोकर-चाकर आन सरकारी अधिकारी पळोवन तांची तळपायाची धग मस्तकात चडले बगर कशी रावतल आशिल्ली? सोरो आनी हेर वेसनां विरयत आदर्श शीलवंत समाज घडपाच्या वांट्याक सोरो आनी गुंगीचे नशेंत सगळो समाज रसातळा पाविल्लो पळोवन तांचो जीव घुसमटल बगर कसो रावतलो आशिल्लो? भारत भाग्य विधाता महात्मा गांधीजींनी जे-जे आदर्श नदरे सामकार दवरिल्ले आनी जें भव्य सपन पळयिल्लें तें सगळें आज मातये भरवण जाल्लें आसा. अशें आसतनाय आज आमी त्या म्हान पुरसाची जयंती आनी मयंती

चुकनासतना मनयत आसात. फुडारांतय मनयत आसतले. हाजो लाब कितें?

महात्मा गांधीजींचे आदर्श विचार आज प्रत्यक्षांत जरी येवपाक शकले नात तरी तांचे विचार आनी आचार म्हान आसात हाजी पूर्ण जाणीव भारतीयांकच न्हय, तर अख्ख्या संवसारांतल्या विचारवंतांक आजय आसा. परिस्थितीच्या खर वाऱ्याचो हुंवार सगळ्यांक असहाय करता आशिल्ल्यान महात्माजींच्या विचारांक प्रत्यक्षांत हाडप जरी जमना तरी बऱ्याच जाणांच्या काळजांत त्या म्हान आदर्शाची पणटी मिणमिणत आसा. ती न्हिवची न्हय हाजी जतनाय जाय ते जाण घेत आयल्यात. ह्यो मिणमिणपी असंख्य पणट्यो आज ना फाल्या मनीस कुळयेच्या काळजांत धगधगून पेटपाक लागतल्यो आनी अख्ख्या संवसारभर परजळीत तेजपुंज उजवाड फांकतल्यो हे विशीं मातय दुबाव ना. संवसारांत हिंसा, अन्याय, दळदीर, जाती-कातीचे भेद, धार्मिक द्वेश, स्वार्थ ह्या सगळ्यांच्या प्रभावान सगळ्या वाठारांत पातळिल्लो काळोख तेन्ना ना जातलो आनी अख्खो संवसार सुखा-समाधानाचो आनी अपूर्व शांततायेचो वाठार जातलो.

●●●

10.

# शिगमो, होळी आनी युगादी

गोंय आनी गोंय भोवतणे आशिल्ल्या कोंकणी लोकांत शिगमो, होळी आनी संस पाडव्याक चड महत्व आसा. तशें पळयत तर ह्या वाठारात चवथीची पर ही सगळ्यांत व्हड परब अशें मानतात. त्या वेळार घरां-घरांनी चवथ आसता आन श्री गणेशाच्या सान्निध्यांत सगळो वाठार पावन-पवित्र जाता. परबेचे खुशालकाये वातावरण भोंवतणे पातळिल्ले आसतनाय श्री गणेशाचे पुजाविधी नेमनिश्टेक अणसरू जावपाक जाय आशिल्ल्यान भाव-भक्तिचे गंभीर अशें वलय थंय आसपाविल्ले आसता ताका मेकळेपणाचे भौशीक रूप ह्या वाठारांत येना. महाराष्ट्रात करतात तशें सार्वजनिव गणेशोत्सव ह्या कांय वर्सांत कांय कडेन जायत आसलेंय तरी ताजें-प्रमाण सामकेंच उणे आसा. कांय शारां पुरतोच ताजो प्रभाव दिसता.

पुण शिगम्याचे वा होळी परबेचे तशें नासता. भोवसांचे भोवरुपाचे पडबिंब पडत आशिल्ल्यान शिगम्याच्या तालगड्यांच्या ''हो चोय'न तालाक तोणयांचो मेळ साधत आंगार भार चडिल्ल्या आवेशान दारांदारांक वचून नाचपी शिगम्या मेळ गांव सगळो मांडयता आनी गांवकारांच्या आंगात स्फुरण फुलयता. त्याच वेळार समाजातली विंगड विंगड विकृती विंगड-विंगड रुपां घेवन शिगम्या मेळावांगडा नांचत आसतात. शिगम्याचो भार सोंपतकच सगळीं विकृतीची सोंगां भगभगपी होळीच्या उज्यात उडोवन त्या सगळ्यांचो गोबर जातकच जे दिव्यत्व तिगून उरता तें नवें वर्साच्या हुमरार पावल दवरपाक संसार पाडव्याच्या म्हूर्ताची वाट पळयता. फाटल्या वर्सात अणभविल्लें सगळें कोडू नीलकंठा भशेन ताळ्या सकल ओतून होळीच्या खर अुज्यान परजळीत जाल्ले सुलाखेचें नवें जीण संसार पाडव्याच्या त्या मंगल म्हूर्तार सुरु करुंया आनी नव्या वर्साची वाट चलत उजळ फुडार घडोवंया.

●●●

11.

# गणराज्यातले गण गणमणतात कित्याक?

भारताक स्वतंत्रताय मेळोवपा खातीर केल्ल्या यत्नाक यश मेळ्ळें. अर्द शेंकड्या परस चड काळ आमी स्वतंत्रतायेची बरी-वायट फळां भोगत आसात. ह्या संसारातल्या सगळ्यांत व्हड गणराज्यात शंभर कोटी गण आसात. स्वतंत्रताय मेळटकच हें सगळें गण आपलें पांयार उबें रावतलें आनी उदरगतीचें गोड फळ तांच्या वांट्यांक येतलें अशें सगळ्यांक दिसतालें.

मनशाच्यो पांच गरज्यो आसतात. ताका पोटाक अन्न जाय, रावपाक घर जाय, आरोग्य सांबाळपाक सुविदाय जाय, गिन्यान वाडोवपाक शिक्षण जाय आनी पैसे मेळवपाक नोकरी-धंदो जाय. हें सगळें गरजेचें जाय तितलें मेळत तर मनीस सुखा-समाधानान रावपाक शकता. अशें सगळ्यांक सुखा-समाधानान आनी स्वाभिमानान जगपाक जाय जाल्यार स्वतंत्रतायेची गरज आसता. स्वतंत्रताय आसत तर मनीस आपणाक जायते स्वप्रयत्नान मेळोवपाक शकता. ताजी जीण समृद्द जाता. ताजे वांगडा ताजे भोंवतणच्यांचेय बरें जायत आसता. अशें तरेन अख्या देशात उदरगतीचे वातावरण तयार जाता आनी देशाक खऱ्या अर्थान स्वतंत्रतायेचो संपूर्ण लाब फाव जाता.

भारतान स्वतंत्रतायेचे अर्द शतक हुपले. ह्या अर्द शातकात आमच्या देशात खऱ्या अर्थान स्वतंत्रताय फाव जालीं काय ना हाजो नियाळ घेत तर आमकां निराशाच जातलीं. तशें पळयत तर आज भारतात देशातल्या सगळ्यांक पुरो जावपा इतले अन्न आसा, भोवतेक जाणांक रावपाक आसरो आसा, आरोग्य सुविदाय दिवपाचे आमकां तांत्रिक गिन्यान आसा, शिक्षण पद्धती विशींची जाण संसारातल्या खंच्याय देशा परस आमकां उणी ना आनी जाय त्या जाणांक नोकरी-धंदे मेळोवन दिवपा इतली उपाट सौमीक सुविदाय देशभर पातळिल्ली आसा. अशें आसतानाय आमचो देश स्वतंत्रतायेचो

पूर्ण लाब कित्याक घेवपाक शकना?

भारत संसारातलो प्रजाराज्य आशिल्लो सगळ्यांत व्हड देश आसा. ह्या देशा शतकोटी लोक रावतात. शंभर कोटी गणांचो हो देश आसा. सगळें गण एकठां येवन एकमतान वावर करपाक लागतीत तर ह्या गणराज्याक संसारातलो सगळ्य परस म्हान राष्ट्र जावपाक कळाव लागपाचो ना. पुण तशें घडना. संगळ्या गणांक बु दिवपी गणपतीन अवतार घेवपाखातीर योग्य वातावरण देशात तयार करपाक सगळ्य गणांनी सातत्यान वावुरपाक जाय. पुण तशें यत्न जायनात. अशें कित्याक जाता ह्या गणराज्यातले गण काळखांत गणमणतात कित्याक?

●●●

12.

# आमची दशा गेल्ल्यान आमकां आज दिशा ना!

गोंयची सुटकां जावन तीन दशकां परस चड वर्सां सोंपली. गोंय सोडलें जाल्यार भारताचो हेर सगळो वाठार त्या आदीं देड दशकां स्वतंत्रताय मेळोवन उदरगतीचे वाटेर चलत आशिल्लो. देशाची उदरगत करप म्हळ्यार देशातल्या तळा-गाळांतल्या लोकांक सुखा-समाधानान आनी मानान जगपाक वाव दिवपा सारखे वातावरण तयार करप असो सर्वसामान्य अर्थ जाता. स्वतंत्रतायेच्या झुंजात म्हान त्याग केल्ले असाधारण बुदवंतकायेचे अप्रूप नेतृत्वाचे हातात तेन्ना देशाची सुत्रां आशिल्ल्यान देशाचो फुडार घडोवपाची मांडावळ घट बुनयादीचेर उबीं जालीं आनी देशाचो उदरगतीचो मार्ग निश्चीत जालो. पंचवर्सुकी येवजणेंची मांडावळ करत उदरगतीचे एक-एक सोपण चडत देशान दोळे दिपकावणी बदल घडोवन हाडलो. अन्ना-गोटो भायल्यान हाडपाचो प्रसंग आशिल्ल्या ह्या देशात सगळ्यांक पोटभर खावपाक पुरो जावपा इतलें अन्न-धान्य पिकपाक लागलें. सगळ्यांक आंग धांपपाक पुरो जावपा इतलें ज्या देशात वस्त्र तयार जायनाशिल्लें त्या देशात भायल्या देशांक धाडपाक जाता इतलें वस्त्रांचे उत्पादन जावपाक लागलें. जांकां घरां बांदपाचीं आसात तांकां जाय तितले सिमीट, लोखंड, आदीं देशात जावपाक लागलें. शिकप्यांक जाय तितलीं शाळां-कॉलेजीं जळीं-मळीं उबीं जालीं. आरोग्य सांबळपाक गरज आशिल्लीं वैद्यकीय सुविदाय लोकांक फाव जावपाक लागलीं. देशभर येरादारी करपाक जाता अशें मार्ग तयार जालें. अशें तरेन देशात क्रांतीकारक बदल घडत आसतनाच गोंयची सुटका जाल्ल्यान त्या सगळ्या सुविदायेंचो लाब गोंयकारांक रोखडोच मेळ्ळो. गोंयची उदरगत वेगान जावपाक लागली. धान्य, भाजी पालो, फळां भारतातल्या हेर वाठारांतल्यान व्हड प्रमाणांत येवपाक लागिल्ल्यान तीं सवाय जालीं आनी खाणा-जेवणाचो प्रस्न गोंयकाराक ना

जालो. जें दिसपट्टें लागता तें सगळें सोपें तरेन मेळपाक लागलें. गांवां-गांवांनी शाव
जालीं. शिकप्यांक जाय तितलीं महाविद्यालयां जालीं. हॉस्पीटलां जालीं. भितल्ल
गावांनी वचपाक जावपी मार्ग तयार जालें. उद्योग-धंदेय वाडलें. घरां बांदपाक जा
तीं सुविदाय मेळपाक लागिल्ल्यान व्हड-व्हड घरांय उबीं जालीं. फकत खाण
माती भायल्या देशांत धाडपाचो उद्योगच आशिल्ल्या गोंयांत हेर जाय ते उद्योग उ
जालें आनी देशांतल्यान आनी भायल्या देशांतल्यान येवपी भोंवंडेकार वाडिल्ल्या
तो गोंयचो मुखेल धंदो जायत आयलो. हें सगळें नवें घडत आसतना भारतातले हे
वाठारांतलें नवें लोकय गोंयात व्हड प्रमाणात येवपाक लागलें. गोंयची लोकसंख्
भरमसाट वाडपाक लागली. हाजो अर्थ गोंयात गोंयकाराची संख्या वाडपाक लागल
असो मात घेवपाचो न्हय. गोंयकार सुशिक्षीत आशिल्ल्यान कुटुंब नियोजना विश
तांका जाणविकास आसा जाल्ल्यान गोंयकारांची संख्या गोंयात वाडली ना. जें गोंय
भायल्यान गोंयांत आयले तांची संख्या दिशीं-दिशीं व्हड प्रमाणात वाडपाक लागली
अशेंच कांय वर्सां चलत रावल्यार गोंयकार गोंयातच अल्पसंख्य जातलें हें आतांच
स्पश्ट दिसपाक लागलां. इतलेंच न्हय तर दर एक धंदो त्या लोकांनी आपल्या हातात
घेवपात यश मेळयलां. हें पळयत तर गोंयची सुटका जावन ताजो लाब गोंया भायल्यान
गोंयांत येवन राविल्ल्यांकच जालो अशें म्हळ्यार अतिताय जावपाची ना. गोंय आज
गोंया भायल्यांची वसाहत जाल्या अशें म्हळ्यार वास्तवीकतायेचेच दर्शन घडिल्ले भशेन
जाता. गोंयातल्यानच गोंयकारपण ना जायत आसा. देड दशकां आदीं गोंयची जेन्ना
सुटका जाल्ली तेन्ना गोंयकारांनी रंगयिल्ले सपन आज भंग जालां.

जेन्ना अखो भारत देश स्वतंत्र जालो तेन्ना थंय उदरगत जाली. थंची भास फुल्ली, थंची जीण फुल्लीं, थंचो समाज समृद्ध जालो, थंची संस्कृताय उजळ जाली. थंयचे आगळेपण टवटवीत जालें. थंचे स्वप्न जागें जालें, सत्व तिगलें आनी स्वाभिमानाचें दर्शन घडलें.

त्या उपरांत देड दशकान गोंयची सुटका जालीं. आदीं स्वतंत्र जाल्ल्या भारतातल्या हेर वाठारांत जो अणभव मेळिल्लो ताजो लाब गोंयाक जालो आनी गोंयची उदरगत वेगान जावपाक लागली. गोंयात उद्योग अुबे जाले, धंदे वाडले, चड पैसो घोळपाक लागलो. शाळां-कॉलेजां जालीं. चोंय वटेन उदरगत जायत चल्ली. ह्या कांय दिसांत भारतातल्या हेर राज्यांकय देख दिवपा सारखी उदरगत गोंयान साधलीं. भारतातल्या हेर वाठारांकडेन तुळा केल्यार गोंयांत येवपी भोंवडेकार वाडले. भायल्या देशांतल्यानय खूब लोक येवपाक लागले. गोंयकारांक पुरो जावपा परस चड वीज जाल्ल्यान हेर

राज्यांक गोंय वीज पुरवण करपाक लागलें. माहिती तंत्र गिन्यानांत दोळे दिपकावणी वावर ज़ालो. भरपूर उदका पुरवण जावपाक लागली. अत्याधुनिक शिक्षण मेळपाची सोय जाली. आरोग्य सांबाळपाक जाय तीं सुविदाय मेळपाक लागलीं. पुण गोंयचें गोंयकारपण मात शेणत गेलें! आज गोंयात गोंयकार सोदपाद जाय! तो सोदल्यारय मेळप कठीण जायत गेला!

अख्या भारतात स्वतंत्रताय चळवळ म्हान त्याग केल्ल्या असाधारण बुदवंतकायेच्या अप्रूप नेतृत्वाकडेन आशिल्ली. तांणी देशांत राष्ट्रीय भावना जागीं केल्लीं. त्याच वेळार दर एक भाशीक पंगड राष्ट्राचो म्हत्वाचो सांस्कृतिक घटक हाजी जाणीव तांकां आशिल्ल्यान तांणी भारतीय उपराष्ट्रवादाकय प्रोत्साहन दिल्ले. हांतल्यान भाशीक उपराष्ट्रवादाक पोसवण मेळ्ळी आनी दरअेक वाठारात स्थानिक नेतृत्व तयार जायत रावले. देश स्वतंत्र जाल्ल्या वेळार राष्ट्रीय नेतृत्व राष्ट्राचे उदरगती खातीर आनी थंची स्थानिक संकृताय फुलेवपा खातीर सातत्यान वावुरपाक लागले. तांची भास तांणी फुलयलीं, तांचो स्वाभमिान तांणी जागयलो, तांचे हितसंबंद तांणी राखले. आपल्या राज्यात आपल्या लोकांक उदरगतीच्या वाठारात म्हत्वाचो वांटो मेळोवपाक जाय हे विशीं ते जाग्रत रावले आनी तांणी आपली सर्वांगिण उदरगत करपाक यश मेळयलें. हें सगळें करत आसतना तांणी आपले स्वत्व तिगयलें, स्वत्व जागयलें आनी आपले आगळेपण सांबाळ्ळे.

पुण गोंयचे तशें जालें ना. भारतातल्या हेर भागात स्वतंत्रताये खातीर झुजपी स्थानिक नेतृत्व तयार जाल्ले तशें गोयांत समर्थ नेतृत्व तयार जालें ना. जे स्वतंत्रतायेचे झुजारी म्हूण मिरयताले तांकां स्थानिक लोकांत स्थान नाशिल्ले. स्थानिक लोकांचे प्रस्न ते नकळ आशिल्ले. तांच्यात ते समरसय जाल्ले नाशिल्ले. इतलेंच न्हय तर सामान्य लोकांकडेन तांचो संपर्कय येना आशिल्लो. स्वतंत्रतायेच्या चळवळेच्या नांवान भारत सरकारा कडसून पैशे मेळोवन आपले साधपाचे इतल्या पुरतेच ते गोंयच्या स्वतंत्रताये चळवळी कडेन नातें सांगताले. अशें लोक स्वाभिमानी कशें आसतले? जांचे वतीन पैशे मेळटात तांचे मिंधे जावन रावपातच ते सार्थक मानताले. असल्यांक आपल्या आवय भाशे विशीं, आपल्या संकृतायेविशीं, आपल्या खाशेलेपणाविशीं, आपल्या भूंये विशी मोग वा स्वाभिमान कसो आसतलो? तशें नाशिल्ल्यानच शेंकड्यांनी लोक स्वातंत्र्य सैनिक म्हण मिरयत आसतनाय भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांतय देड दशक मेरेन गोंय स्वतंत्र जावपाक पावलें ना. भारत सरकारान सैन्याचो आधार घेवन गोंयची सुटकां केलीं नाशिल्लीं जाल्यार आजय गोंय पारतंत्र्यातच उरतलें आशिल्लें अशें म्हळ्यार

असंबद्ध जावपाचें ना.

दर एक समाजाक इतिहास घडोवपाचो अपूर्व असो योग येता. अशें योग च आसनात. आपल्या सामर्थ्यान स्वतंत्रताय मेळोवपाचे योग गोंयाक फाव जातल आशिल्लो. पुण त्या वेळार स्वाभिमान नाशिल्ले, आपले सुवार्थ सादपी, फुडाराचे न नाशिल्ले गोंयच्या राजकारणात मुखार आयिल्ल्यान इतिहासान दिल्लो एक अपूर्व यो व्होगडावन बसपाचो प्रसंग गोंयकारांचेर आयलो. आपली भास, आपली संस्कृताय आपले खाशेलेपण हाजो अभिमान नाशिल्ल्यान तांणी मराठीवादाची नश्टी पीडा गोंया हाडलीं. गोंयच्या आवयभाशेच्या उदरगतीचे वाटेर सदांच कांटे पसरावपाचे उपद्व्या हें स्वाभिमानशून्य मराठीवादी करत आशिल्ल्यान कोंकणी आवयभास आशिल्ल्यांक गोंयात नोकरी आनी हेर सुविदाय दिवपाचे धोरण आपणायिल्ले नाशिल्ल्यान गोंयात हे भाशीक व्हड प्रमाणात येवन आपली मांडावळ घट करपाक यशस्वी जाले. आव भाशेविशीं मोग नाशिल्ल्यांत स्वाभिमान केन्नाच जागो जायना आनी ते आपले स्वत तिगोवपाक शकनात. मराठी वादान गोंयकारांचो आवय भाशेवेलो मोग ना करपा सतत यत्न केल्ल्यान आज गोंयकारांत स्वाभिमानय ना जालां. स्वाभिमान नाशिल्ले समाज दशाहीन जाता. दशा व्हगडायिल्लो समाज दिशाहीन जाता! आज तशीं आमच गत जाल्या!

●●●

13.

# किरिस्तांव धर्माचे भारतीकरण

बेंगळूरात पावलो जाल्यार आमकां कॉक्सटौनात एक नवें तरेचें वातावरण दिसून येता. थंय एक देवळ आसा. त्या देवळा भोंवतणे सुंदर सोबीत झाडां आसात. फुलिल्ल्या फुलांचो परमळ थंय चारीवटेन घमघमत आसता. देवळा भितर शांतताय पसरिल्ली आसा. थंयसून गानमधूर संगीत कानाक आयकता आनी कोणाचीय पावलां तेन्ना त्या देवळावटेन सरकूंक लागतात.

**भारतीय पद्धत**

ह्या देवळात सगळ्यांक प्रवेश आसा. भितर वंटीत मर्दींदर्मीं कुरकुटां आसात. त्या कुरकुटांत दिवल्यो चकचकतात. तांच्या दिव्यांचो अुजवाड लिकलिकत आसता.

मर्दी लोक आसारमांडी घालून थंय बशिल्ले आसात. धर्मगुरून भगवे कपडे घाल्यात आनी ते आपण्या मुखार बायबल घेवन ते वाचत आसात. लोक मुकार आशिल्ल्या देवा पांयार फुलां ओंपतात. हे एक किरिस्तावांचे देवळ. हांगा पुजा आनी हेर विधी भारतीय पद्धतीप्रमाणे जायत आसतात. ह्या देवळाक नेशनल बिब्लीकल कॅटिकॅटिकल अॅन्ड लिटरजीकल सेंटर अशें म्हणटात.

**नवो विचार**

काय वर्सां मागशीं भारतीय किरिस्तावांक एक वेगळे प्रकारचे विचार येवंक लागले. आज भारतात किरिस्तांव देवळांत पुजा जी करतात ती येवरोपी पद्धतीन करतात. देवाची हेर पुजाविधी आनी भक्ती अमकेंच तरेन करूंक जाय म्हुण किरिस्तांव धर्मात खंयच

सांगिल्लें ना. येवरोपी लोकांनी किरिस्तांव धर्म घेतलो आनी पुजा पद्धत आपण्याल्य
संस्कृतायेत आशिल्ली तीच तांणी चालू दवल्ली. भारतीय किरिस्तांवानी किरिस्तांव ध
जरी आपणायिल्लो असलो तरी तांणी पुजा भक्ती पद्धत भारतीयच कित्याक दवरच
न्हय म्हळ्ळो विचार कांय भारतीय किरिस्तावांक आयलो.

## भारतीयत्व सोडप कित्याक?

भारतात किरिस्तांव धर्मावांगडा येवरोपी पुजा पद्धतच न्हय तर थंची नावां, थंच कपडे, थंची जेवण-खाणाची पद्धत हीं सगळीं भारतीय किरिस्तावांनी घेतलीं. ही पुज पद्धत जांव, हीं नांवां जांव, ही जेवणखाणा पद्धत म्हळ्यार किरिस्तांव धर्म न्हय. जश येवरोपीय लोकान किरिस्तांव धर्म आपणावनय तांची चालीरिती त्या आदीं आशिल्ल तशीच मुकार चलयलीं तशीं भारतीय किरिस्तावांनी आपली भारतीय पुजा पद्ध नांवां, चालीरिती कित्याक चलोवची न्हय? भारतीय किरिस्तांव धर्म घेवप म्हळ्या भारतीयत्व वो भारतीय संस्कृती सोडप कित्याक?

1966 सालांत किरिस्तांव धर्म गुरुचे अखिल भारतीय संमेलन दिल्लीत भरिल्लें. त्य वेळार वेल्या विचाराचेर चर्चा जाली. तेन्ना थंय भारतीय किरिस्तावांनी भारतीय पुज पद्धत आपणावची म्हळ्ळो निर्णय घेतलो. तो निर्णय तांणी व्याटिकनात आशिल्ल्य किरिस्तांव विस्व गुरु पापसायबांक कळयलो आनी तांची मान्यताय मागली. 1967 सालांत एप्रील 25 तारकेदिसा रोम साकुन आयिल्ल्या पत्रात ही मान्यताय दिल्ल्याचे कळीत केलां. (Official Document of the Holysee approving the 12 points of adaptation. Consilium adexse quendam constitutionem de-sacra Liturgiatrue copy vaticancity April 25, 1969 prot. 802/69)

अशें तरेन किरिस्ताव धर्माचे भारतीकरण करपाक अधिकृत मान्यताय मेळ्ळी.

## आदीं साकुन विचार चलतालो

हें भशेन किरिस्तांव धर्माचे भारतीकरण करपाची चळवळ ह्या कांय वर्सांत जरी जाल्ली आनी ताका आतां मान्यताय जरी मेळ्ळी तरी जाय त्या वर्सां आदीं जाय ते जाण हाजो विचार करताले.

भारतात वीस वर्सां मेरेन राविल्लें फ्रेंच मिशनरी मोनशानीन हांणी ''हांव भारतात आयलां तो धर्मप्रचार करपाक न्हय, तर भारतीय किरिस्तावांक जागो करपाक आयलां. किरिस्तांव धर्म हांगाचे संस्कृती आनी संप्रदायाप्रमाणे चलूंक जाय. येवरोपी पद्धतीन

न्हय. हांगाचें किरिस्तांव भारतीय हें विसरूंक जायना. हो बदल जावपाक जायतीं वर्सां लागतीत. तरी पुण हें जावंक जाय. किरिस्तांवाचे हे एक कर्तव्य आसा.'' अशें म्हळ्ळें.

## निवळ किरिस्तांव आनी निवळ भारतीय

''भारतात जल्म घेवन, हांगच्या भूंयेर जगपी, हांगचे अन्न-अुदक खावपी जो कोण आसतलो ताणे हांगची संस्कृताय आनी परंपरा मानूकच जाय. ते विशीं तांकां आदर आनी पूज्य भावन आसूक जाय. हांगच्या किरिस्तांवान आपल्या आचार विचाराचे भारतीकरण करुंक जाय. पूजा-विधी आनी देवाची भक्ती करपाची पद्धत भारतीय आसूंक जाय. अशें जालें म्हुण ते हिंदूकरण जावपाचे ना तर ते भारतीकरण आसतले.'' अशें त्या बेंगळूरचे किरिस्तांव देवळाचे धर्मगुरु डि. एस. अमलोर्पवदास म्हण्टात. ''आमी निवळ भारतीय आसतले आनी निवळ किरिस्तांवय आसतले.'' अशेंय ते म्हण्टात.

''भारतीय संस्कृताय समृद्ध करपी हेर धर्मा वांगडाय आमचे सहकार्य आसतले. त्या धर्माविशी आमकां आदरय आसतलो. हांगा हिंदू धर्मातले बरें जें कितें आसतलें तें आमी आमच्या धर्मात आसपावन घेतले. भारतातल्या गांवां-गावांतल्या सामान्य मनशामेरेन क्रिस्त देवालो संदेश पावंक जाय जाल्यार क्रिस्तांव धर्माचे भारतीकरण करपाकच जाय.''

1961 सालांत पाप सायबान दिल्ल्या आदेशाप्रमाण भारतीय संस्कृतायेक अणसरून, देवभक्ती अुकती करपाचे हावभाव, न्हेसण आनी हेर पुजे साधनांचो अुपयोग करपाचो अधिकार भारतीय किरिस्तावांक मेळ्ळो. थळाव्या भाशेंचो वापर करप, हेर धर्मपदां म्हणप, लग्न बी हेर शुभकार्य करपा वेळार भारतीय पद्धतीचो अुपयोग करप, भारतीय परबीं मनोवप, भारतीय पद्धतीन अंत्यसंस्कार करप आनी हेर प्रकाराकय मान्यताय मेळ्ळी.

ह्या वेल्या बदलाक लागून आतां भारतीय किरिस्तावांच्या देवळांत भितर वतना पांयाचे जोते भायर दवरपाक जाय, देवाक पांय पडटना भारतीय पद्धतीन दोनूय हात जोडपाक जाय आनी माते नम्रतायेन बागोवंक जाय, मात्याक गंधाचे बोट लावपाची आनी चिपटान तीर्थ दिवपाचीं वेवस्था आसूंक जाय, पुजा चलतना भारतीय पद्धती भशेन सुखासन, वज्रासन वो पद्मासन घालून जमनीर सकल बसपाक जाय. भारतीय

भाशेंत भक्ती पदां गावन भजन करपाक जाय आनी भारतीय वाजप वाजोवंक जा
त्या वेळार हेर भारतीय धर्मांतली भक्तीपदां म्हळ्यारय अुपकरतात. देवाक फुलांच
धुपांची, अुजवातीची आनी दिव्याची आरत करपाक जाय. आरतीक हात लावन
कपालाक लावन नमस्कार करपाक जाय. तशेंच पुजा करपाचो जागो शिंतोडो घाल
शुद्ध करूंक जाय, तेलाचे दिवे लावंक जाय आनी बायबल एक म्हाणायेर दवरून ताजे
फुलां घालून ताजीय आरत करूंक जाय. अशें तरेन वेल्या केंद्रात पुजा-आचरणवि
जातात आनी ताका पापसायबान पूर्ण मान्यताय दिल्ली आसा.

त्या केंद्रात पळयत जाल्यार ताका ते एक हिंदू देवळच कशें दिसता. थंचे धर्मगु
भगवे न्हेसतात. ते भारतीय स्वाम्याभशेनच दिसतात.

'अशें तरेन आमी आमच्या किरिस्तांव धर्माचे भारतीकरण केल्ले आसा. आमक
किरिस्तांव धर्म जाय. पुण ताजे वांगडा येवरोपी संस्कृताय आमकां नाका. आम
भारतीय किरिस्तांव म्हुण जगतले.' अशें थंय येवपी भगत म्हणत आसतात.

आमच्या गोंयांतय ह्या तरेची देवळां जावपाक जाय. चार पांचशीं शेंकड्यासाकू
भारतीय संस्कृताये साकून पैस पाविल्ले आमचे भाव परत तांच्या पूर्वजांचे संस्कृताये
एक अविभाज्य आंग जावपाची आज गरज आसा. (आधार)

●●●

14.

# हें प्रजातंत्र काय परतंत्र!

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत तें प्रजाराज्य जावचें, लोकांचें राज्य जावचें, अशें सगळ्यांक दिसलें. भारतीय स्वतंत्रताये खातीर झुंजपी भोवतेक सगळ्यांचें तशे मत आशिल्लें. प्रजाराज्य म्हळ्यार लोकराज्य. लोकानी, लोकांखातीर चलयिल्लें लोकांचे राज्य असो ताजो अर्थ जाता. हो लोकराज्याचो संकल्प प्रत्यक्षात हाडपाखातीर नवीं घटना तयार करपाचो निर्णय भारताच्या लोकप्रतिनिधींनी घेतलो आनी तो निर्णय प्रत्यक्षात हाडलो. भारतीय राज्य घटनेच्या नेमांचेर आधारिल्लें राष्ट्र खरे अर्थान लोकराज्य जातलें अशें भारतीयांक आनी भारता भायल्या लोकांक दिसपाक लागलें. सगळ्या भारतीय नागरीकांक कसलोच भेदभाव नासतना समान अधिकार कायद्यान फावो जालें. सगळ्यांक मुखार येवपाक सारखोच वाव आसतलो अशें राज्य घटनेतच बरयिल्लें आशिल्ल्यान सगळें जात, कात आनी धर्माचें लोक ह्या देशात सुरक्षीत आसतलें. हेंविशीं कोणाकच दुबाव येवपाक कारण नाशिल्लो. पुण स्वतंत्रताय मेळोवन अर्द शतका परस चड काळ सोंपल्या उपरांतय आमचो देश खरे अर्थान प्रजाराज्य जावंक ना.

तशें पळयत तर महात्मा गांधीजीची लोकराज्या विशिंची कल्पना वेगळींच आशिल्लीं. ते लोकराज्य अशेंय म्हणनाशिल्ले. ते ग्रामराज्य म्हण्टाले. ह्या ग्रामराज्यात गांवच्या लोकांचे हातात गांवचो कारभार आसपाक जाय. दर एक गांव स्वावलंबी जावप म्हळ्यारच खरे अर्थान ग्रामराज्य सफल जावप अशें ते म्हण्टाले.

दर एक गांवाक गरजेचे कितें आसता? लोकांक जेवपाक-खावपाक जे लागता ते गांवातच मेळपाक जाय. गांवच्या लोकांक रावपाक घरां आसपाक जाय. बरें ना जाल्लें वेळार वैद्यकीय सुविदाय आसपाक जाय. शिकपाक विद्यालया आसपाक जाय. कोणांचेय वाद-विवाद जालें जाल्यार वाद मिटोवन सगळ्यांनी बरेपणान रावपाची

वेवस्था जावपाक जाय. गांव सुखा समाधानात आसपाक जाय जाल्यार ह्या सगळ्यांच
गरज आसा. भारतात प्राचीन काळातय अशें तरेची वेवस्था गांवात आसताली. अ
तरेची वेवस्था आशिल्ल्या गांवात ग्रामराज्य आसताले. असल्या जायत्या ग्रामांचे
राजा, महाराजा वा सम्राटांचो अधिकार आसतालो. तांका गांवचे थारायिल्ल्या प्रमा
खंडणी दिताले. इतल्या पुरतीच त्या राजा, महाराजा वा सम्राटांकडेन गांवच्या लोकांच
वैवाट आसताली. हेर सगळ्या वाठारात गांवचे आपणाक जाय तशीं वेवस्था दवरताले
वेवस्था दवरपा खातीर लोक पंचांक वेंचताले. ते पंच गांवचे मुखेल वेंचताले. अस
वेंचिल्लो मुखेल गांवची वेवस्था पळयतालो. सगळ्यांचे बरें जावपा खातीर जें कि
करपाक जाय तें सगळें तो करतालो. न्याय दिवपाचोय अधिकार ताजे कडेन आसतालो
हें खरें अर्थान प्रजेन, प्रजेखातीर चलोवपाचे, प्रजेंचें राज्य आशिल्लें. अशें तरेच्या राज्
पद्धतीक महात्मा गांधीजी रामराज्य अशेंय म्हण्टाले.

तशें पळयत तर अशें तरेची राज्य पद्धत पुर्विल्ल्या काळांत आपले पुरतोच विचा
करपाक शकना. त्या खातीर भारताची राज्य घटना घडयतना घटना तज्ञांनी ग्रामराज्याचे
उद्देश नदरे सामकार दवल्ले आनी आयच्या परिस्थितीक फाव सारखे योग्य बदल घडोव
भारतीय प्रजाराज्याची घटना तयार केली. त्या घटनेचो बारकायेन अभ्यास केल्या
देशात लोकांनी, लोकां खातीर चलोवपाचे, लोकांलें राज्य घडपाक जाय हो म्हत्वाचे
मूळ उद्देश पूर्णतायेक पावोपाचो संकल्प सातत्यान दिसता. घटनेन भारतातल्या दर एक
नागरीकाक सारखे अधिकार दिल्यात. दादले, बायले, हिंदू, किरिस्तांव, मुसलमान,
बामण, शुद्र अशें भेदभाव करनासतना सगळ्यांक आपली उदरगत करपाक पूर्ण वाव
घटनेन दिल्लो आसा. इतलेंच न्हय तर अल्प संख्याक लोकांक आनी सकल्ल्या
जातीच्या लोकांक कांय खास अधिकार दिल्यात आनी संरक्षणय दिल्ले आसा. पुण
आज मेरेनचो अणभव पळयत तर घटनेन ज्यो सुविदायो दिल्ल्यात ताजो लाब घेवन
लोकांक आपली उदरगत करपाक साध्य जाल्लें दिसना.

लोक आपली उदरगत तरी कशें करतलें. कितेंक करपाक गेल्यार तांकां पावला
कणकणी आडखळ येता. मनशाक अन्न जाय, उदाक जाय. जांकां नोकरी-धंदो
आसा तांकां घरात अन्नधान्य हाडप साध्य जाता. पुण जांचे कडेन पैसो मेळोवपाक
साध्य जायना तांचे कितें? उदका खातीर नळ जाय. बांयचे उदकार भरवसो दवरपाक
जायना. जळीं-मळीं कारखाने जाल्ल्यान बांयत वायट उदाक येत आशिल्ल्यान ते
पिवपाक-खावपाक बरें आसतच अशें सांगपाक जायना. जाय ते यत्न केल्ल्या
उपरांत नळ लागसारा पावलोय जाल्यार दर दीस नळार नेमान उदाक पावत अशेंय

सांगपाक जायना. जांकां जमीन-घर आसा ते घरांनी रावतात. पुण जांका जमीन घेवपाक आनी घर बांदपाक सुविदाय नात तांचे हाल जायत आसात. पुण ताजो लाब सरकारी अधिकाऱ्यांक पैशे खावोवन गिरेस्त लोकच घेत आसतात. निमाणे गरीबांक घाणेरड्या वातावरणातल्या खोपटांनी कुडकुडत दीस काडचे पडटात. पोटाक सारखे मेळनासतना, घाणेरड्या सुवातींनी रावपाचो प्रसंग आयिल्ल्यान जाय ते बरें ना जातात. तांकां वखद-विर्सद मेळपाचे कठीण आसता. जंय तांची सरकारी खात्यामार्फत सोय आसता थंय तांका कोणच विचारनात. थंची वखदा भायले भायर खंय पावतात तेंच समजना.तीं वखदां विकिल्ले पैशे मेळोवन घट्ट जातात. सगळ्यांक शिक्षण मेळपाक जाय हाजे खातीर गांवांगांवांनी जळीं मळीं शाळां आसात. पुण त्या शाळेंत पोट रिकामी आशिल्लीं गरीबांची भुरगीं येवपाक शकनात. तीं आयलीय जाल्यार थंय शिकोवपाक गरजे पुरते शिक्षक आसतले अशेंय सांगपाक जायना. जे शिक्षक आसात ते सारखे शिकयतले अशेंय ना. सगळ्यांक जे फुकट शिक्षण दिवपाची वेवस्था आसा थंय अशें तरेचे शिक्षण मेळटा. पैशे आशिल्ले हजारांनी रूपया खर्च करपाक समर्थ आशिल्यान ते आपल्या भुरग्यांक खासगी शिक्षण संस्थानी धाडतात. शिकिल्ल्यांक नोकरीनात. जंय जागे रिकामी आसात थंय पैशे भायर काडतल्यांकच नोकरी मेळटात. रोजगार येवजण्यो आसात. पुण ताजो लाब कोणांक मेळटा तेंवय समजना. अशें तरेन मनशाक सामकेंच गरजेचें जें आसा तें सामान्य मनशांक कशेंच मेळना. अशें वेळार चड शीक जाल्ल्यांक वखदाविर्सद करपाक वा शस्त्रचिकित्सा आदीं करपाक कशें साध्य जातलें? सादे शिक्षण घेवपाचे जांका साध्य जायना ते वेल्या पावंड्याचे शिक्षण कशें घेतले?

आज खंचेय काम करपाक गेलें तर थंय कांय जाण आपले बस्तान बसयिल्ले आसतात. तांका रोट दिल्यारच काम जावपाक शकता. पुण ताजें खातीर पैसो आसपाक जाय. कांय जाण पैशे घेवनय काम न करपी आसतात. हें सगळें पळयत तर आज भारतातल्या प्रजातंत्राचे वेगळेंच चित्र आमच्या अणभवाक येता. अन्न, अुदक, आसर, वैद्यकिय उपचार, शिक्षण, नोकरी-धंदो हांतले कितेंय मेळोवपाचे आसत तर त्या खातीर पूर्णतायेन दुसऱ्यांचेर भरीभार दवरचोच पडता. तांकां पैशे दिवन वा हेर उपायान लोकांचीं कामां जावपाक जाय. तांच्या तंत्रान वागपाचो प्रसंग लोकांचेर येता. अशें तरेन आज भारतीय प्रजातंत्रात आशिल्ले भोवतेक लोक परतंत्र जीण जगत आसात म्हळ्यार अतिताय जावपाची ना. स्वतंत्रताय मेळोवन अर्द शतक सोंपल्या उपरांतय अशें म्हणपाचो प्रसंग येता हें अत्यंत दुदैवाचे म्हणचें पडतले.

●●●

15.

# परिपूर्ण गोंय राज्य केन्ना घडतलें?

गोंय घटकराज्य जावपाचे सपन साकार जाल्लें पळोवन गोंयात आसपी गोंयकारांक न्हय तर गोंया भायर आसपी जाय त्या कोंकणी भाशीक लोकांक भोव खो जाल्ली. भारतीय संघराज्यात कोंकणी भाशीक घटक राज्य आसपाक जाय अशीं मागण केल्ल्यान गोंय घटक राज्य घडोवपाचो निर्णय भारतीय संसदेन मान्य केलो आ कोंकणी घटकराज्य घडोवपाक भारतीय राज्य घटनेत फाव तीं मांडावळ जोडली.

गोंय घटक राज्य करपाक गोंयची भास कोंकणी आसप हें गरजेचे आशिल्लें आ गोयंकारांनी तशे सांगपय गरजेचे आशिल्लें. जें आसा तें अधिकृत तरेन सांगपाची त खातीर गरज आशिल्ली. हें जाणा जाल्ल्यान गोंय विधान सभेन कोंकणी ही गोंयच अधिकृत भास आसा हें मानलें आनी गोयंचे घटकराज्य करपाविशींची मागणी केल भारतात हेर वाठारांत भाशेच्या आधारार राज्यां आशिल्ल्यान गोंयची ही मागणी मान करप संसदेक अनिवार्य आशिल्ले. तशें संसदेन थारायलें आनी भारतीय संघराज्या कोंकणी भाशीक घटक राज्य अस्तित्वात आयलें. हें कोंकणी भाशीक गोंय घट राज्य मेळोवपाक तशें पळयत तर कोंकणी भाशीक लोकांक चड त्रास घेवपाचो पडल ना. ताजें कारण भारतीय घटनेत देशात भाशीक घटक राज्यां घडोवपाचे तत्व मानि आनी भाशीक घटक राज्यां घडयिल्लीं. त्या तत्वाक फाव अशेंच कोंकणी घटक राज घडोवपाचे आशिल्ल्यान गोंय विधान सभेत मागणी केल्या उपरांत रोखडेंच नवे घट राज्य भारतीय संसदेन घटडलें.

पुण भारतीय संघ राज्यात भार्शीक राज्यां घडोपाचो निर्णय भारतीय संसदेन आद जो घेतिल्लो तो भाशीक राज्यां घडोवपा खातीर भारतभर खर चळवळ जाल्या उपरांत घेतिल्लो. सरकारा आड चळवळ करतना जाय त्या जाणांक तेन्ना मरण आयिल्ले. ह

चळवळ हाता भायर वतलीं अशें दिशिल्ल्यान तेन्नाच्या नेहरू सरकारान भाशीक राज्यां घडोवपाचे मान्य केलें. तीं कशी घडोवपाची हें विशीं सुचोवणी करपाक सरकारान राज्य पुनर्रचना आयोग नेमलें. हे आयोग भारतभर भोंवलें आनी लोकांचे विचार कितें आसा तें त्या आयोगात आयकलें. निमाणे अख्या भारतात भाशीक तत्त्वाचेर राज्यां घडोवपाची सुचोवणी सरकाराक केली.

एक भाशीक वाठार एक राज्यात घालपाची सुचोवणी राज्य पुनर्रचना आयोगान जी केल्ली ती त्या-त्या वाठारांतल्या भौसांक जरी मान्य आशिल्ली तरी त्या सुचोवणेक विरोध करपीय आशिल्ले. तेन्ना मध्यप्रदेश प्रांतात आशिल्ल्या मराठी भाशीक वाठारातल्ल्या जाय त्या जाणांक मराठी भाशीक महाराष्ट्र राज्यात आसपाविल्लें नाका आशिल्लें. ते मध्य प्रदेशातल्याच मराठी भाशीक वाठाराचे विधर्भ राज्य घडोवपाची मागणी करताले. निजामशाही आशिल्ल्या हैदराबाद प्रांतात आशिल्ल्या तेलगु भाशीक वाठारातल्या जाय त्या जाणांक तेलगु भाशीक आंध्रप्रदेश राज्यात आसपाविल्लें नाका आशिल्लें. ते हैदराबाद प्रांतातल्याच तेलगु भाशीक वाठाराचे तेलंगण राज्य घडोवपाची मागणी करताले. म्हैसूर म्हाराजाल्या म्हैसूर संस्थानचे भोवतेक सगळे लोक कन्नड भाशीक आसतनाय तांतल्या भोवसंख्य लोकांक कन्नड भाशीक कर्नाटक राज्यात आसपाविल्लें नाका आशिल्लें. राज्य पुनर्रचना आयोगाची सुचोवणी भारतीय संसदेन मानिल्ल्यान विंगड-विंगड वाठारांत त्या सुचोवणेक कांय जाणांचो विरोध आसतनाय भारतात एकभाशीक राज्यां घडयलीं. विधर्भा सैत महाराष्ट्र राज्य घडयलें. तेलंगणा सैत आंध्रप्रदेश राज्य घडयलें. म्हैसूर संस्थाना सैत कर्नाटक राज्य घडयलें. अशें तरेन अख्या भारतात भाशीक राज्यां अस्तित्वांत आयलीं.

आज आमकां भारतात जीं भाशीक राज्यां दिसतात तीं आपशींच घडलींनात. ताजे खातीर दीर्घ काळ चळवळ चलत आयल्या. भारतीय स्वतंत्रतायेचो मंत्र देशातल्या तळागाळांतल्या लोकां मेरेन पावोवपाक जाय आसत तर तो लोकभाशेच्या माध्यमातल्यानच पावोवपाक जाय हें तत्व भारतीय स्वतंत्रताये चळवळीतल्या मानेस्तांक पूर्णतायेन मान्य आशिल्लें. भाशाभिमानातल्यान देशाभिमान जागो करपाचे तंत्र महात्मा गांधीजीन आपणायलें आनी स्वतंत्रताये चळवळी वांगडाच भारतात भाशीक चळवळ सुरू केली. भारतातल्या हेर भाशीक लोकांत आपल्या आवय भाशे विंशी जसो स्वाभिमान जागो जालो तसो कोंकणी भाशीक लोकांतय आपल्या आवय भाशे विंशीं मोग दिसपाक लागलो. ते कोंकणी भास, कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी संस्कृतायेच्या उदरगती खातीर वावुरपाक लागले. 1939 सालात कारवारात पैली कोंकणी परिशद

भरली आनी कोंकणी चळवळीक अधिकृत रूप आयलें. इतलेंच न्हय तर हेर भाशी
लोकांनी जेन्ना भाशीक राज्यांची मागणी केली तेन्ना कोंकणी भाशीक कोंकण राज्या
मागणीय मुखार आयली. भारत सरकारन राज्य पुनर्रचना आयोग घडयिल्ल्या वेळ
त्या आयोगाक जाय त्या बुदवंतांनी कोंकणी भाशें विशींची जाणविकाय दिली.
कोंकणी भाशीक राज्याची मागणी केली ना. ताजें कारण तेन्ना कोंकणी भाशीक
पोर्तुगेजाच्या पाख्यातळा आशिल्लें. त्या वाठाराविशीं निर्णय घेवप भारत सरकारच
अधिकारा भायर आशिल्लें आनी तेन्ना मुंबय प्रांतात गोंय भोंवतणचो जो कोंकणी भाशी
वाठार आशिल्लो तो भौगोलीक नदरेन आनी लोकसंख्येचे नदरेन राज्य घडोवपाक फ
सारखो नाशिल्लो. ह्या कारणान राज्य पुनर्रचना आयोगासामकार ती मागणी आय
ना. तरी पुण कोंकणी भाशीक लोकांची कोंकणी भाशीक राज्य घडोवपाची उमळशी
तशींच जागी उल्ली. गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत त्या मागणेक नेट आयलो आनी गो
हें कोंकणी भाशीक घटक राज्य घडलें.

भाशीक राज्यां घडयतना दर एक भाशेचो सगळो वाठार एक राज्यात आसपावपा
निर्णय भारतीय संसदेन घेतिल्लो. तशें तरेन अख्या भारतातली भाशीक राज्यां घडि
आसात. पुण कोंकणी भाशीक गोंय मात त्या नदरेन परिपूर्ण घटक राज्य जाल्लें न
कारण कर्नाटक आनी महाराष्ट्रातलो गोंय भोंवतणचो कोंकणी भाशीक वाठार ह
कोंकणी भाशीक राज्यात आज आसपायिल्लो ना. त्या खातीर गोंय भोंवतणच्या ज्
गांवांतल्या लोकसंख्येत अर्दा परस चड कोंकणी भाशीक आसात ते गांव गोंय राज्या
आसपावन परिपूर्ण अशें कोंकणी भाशीक घटक राज्य घडोवपाक जाय. तो मेरे
भारतात भाशीक राज्यां घडोवपाची जी प्रक्रिया सुरू जाल्ली ती अपूर्णच आसतल
ती प्रक्रिया पूर्ण जावन परिपूर्ण अशें कोंकणी भाशीक घटक राज्य केन्ना घडतले
ते बेग्यात बेगी घडपा खातीर सगळ्या कोंकणी लोकांनी तन-मन-धनात वावुरपा
जाय आनी तांणी भारतात भाशीक राज्यां घडोवपाची प्रक्रिया पूर्ण करपाक हातभा
लावपाक जाय.



16.

# स्वतंत्रताये उपरांत आमी साधलें कितें?

आमचो देश स्वतंत्र जावन आतां 56 वर्सां पूर्ण जालीं. स्वतंत्रताय मेळोवपाक जाय त्या जाणांनी त्याग केल्या उपरांत तांच्या यत्नाक यश फाव जालें. हीं स्वतंत्रताय मेळोवपाक देशातल्या असंख्य लोकांनी त्याग करपाक कारण कितें? तांणी जो त्याग केल्लो तांतल्यान स्वतंत्रताय मेळ्ळीं. पुण स्वतंत्रतायेचे फळ भारतीयांक मेळ्ळें काय ना? ह्या प्रस्नांची जाप आमी स्वतंत्रतायेच्या वर्धापन दिसा सोदपाची गरज आसा.

दर एक मनशाक स्वाभिमान आसता. स्वाभिमानी मनशाक आपल्या लोकांचो आनी संस्कृतायेचो मोग आसता. ह्या मोगातल्यान मनशात देशाभिमान जागो जाता. तो देशा खातीर कसलोय त्याग करपाक तयार आसता. आपल्या देशार ताका कोणाचोच शेक चलिल्लो नाका आसता. पुण इतिहास काळात आनी आतांय कांय देशांचेर परक्या देशांचे शेक चलिल्ले आमकां पळोवपाक मेळटात. भारताचेर जाय तीं वर्सां मेरेन ब्रिटीशांचो शेक चलत आशिल्लो. स्वाभिमानी भारतीयांक ब्रिटीशांनी आमचेर शेक चलयिल्लो नाका आशिल्लो. पुण त्या काळात भारतीय लोक विंगड-विंगड कारणान संघटीत नाशिल्ल्यान ब्रिटीशा आड समर्थपणान उबे रावपाक शकनाशिल्ले. हें जाणा जाल्ल्या भारतीय विचारवंतांनी संघटीत जावपाक देशभावांक उलो दिलो. भारतीयांच्या काळजांत पेटत आशिल्ले स्वाभिमानाचे कीट भगभगलें आनी फोफेलें. त्या धगान ब्रिटीश हुलपले आनी भारताक स्वतंत्रताय दिवन गेले. स्वतंत्रताय मेळयिल्ल्यान भारतीयांत आत्मविश्वास खर जालो आनी देशातल्या लोकांची सर्वांगीण उदरगर करपाचे ध्येय पूर्ण करपाक कृतसंकल्प जावपाचोय भारतीयांनी निर्णय घेतलो.

लोकांची सर्वांगीण उदरगत करप म्हळ्यार कितें? स्वतंत्रताय मेळिल्ल्यान देशातले लोक राजकीय नदरेन स्वतंत्र जातात. आपले राज्य आपणेच चलोवपाचो अधिकार

देशातल्या लोकांक मेळटा. लोकांचो स्वाभिमान पेटल्या उपरांत त्या धगान परकी
सत्ता ना जाता आनी देशाचो कारभार चलोवपाचो राजकीय अधिकार लोकांक मेळ
पुण राजकीय अधिकार मेळ्ळो तसो लोकांचो हावेस पूर्ण जायना. लोकांचे सगळे
प्रस्न सुटनात. दर एक मनशाक ताजे जाय ते प्रस्न आसतात. ताका जेवपाक अ
जाय, अन्न शिजोवपाक उदक जाय, जळण जाय, आंगाक कपडे जाय. रावपाक
जाय. घरांत रांदपाक सुवात जाय. बसपाक उठपाक जागो जाय. न्हिदपाक वेवस
आसपाक जाय, सोयरे-धायरे आयले जाल्यार तांची सोय करपाक कुडी आसपा
जाय, बरें नासत तर वखद-विर्सद जाय, वैद्य जाय, गरज पडल्यार इस्पीटल जा
शिक्षण जाय, शाळां-विद्यालयां वांगडा म्हाविद्यालयां आनी खास शिक्षण दिव
तंत्रीक शिक्षणाची वेवस्थाय आसपाक जाय. गरज पडल्यार भायल्या देशांत शिक्ष
घेवपाची सुविदाय मेळपाक जाय. जंय गरज आसा थंय वचपाक मार्गाची वेवस्
आसपाक जाय, वाहनां जाय, बोटी जाय, विमानां जाय, फोन जाय, टि.व्ही. जा
धुवणे मशीन जाय, थंडायेचे मशीन जाय. भांगर जाय, सिंगार जाय, आपणाक जे-
जाय ते-ते मेळोवपाची वेवस्था आसपाक जाय. अत्याधुनिक सुख सोय मेळपा
जाय. सगळ्यांत म्हत्वाचे म्हळ्यार हें सगळे मेळोवपाक जाय तो पैसो जाय. त्
खातीर उद्योग-धंदे जाय वा नोकरी जाय. जेन्ना हें सगळे देशातल्या सगळ्या लोकां
मेळपाक लागता आनी कोणाचीच भिरांत नासतना जगपाक शकतात तेन्नाच तें लो
खरें अर्थान स्वतंत्र जाल्यांत अशें म्हणपाक जाता. अशें तरेन स्वतंत्र मेळयिल्ले लो
ज्या देशात आसात तो देश खऱ्या अर्थान स्वतंत्र देश आसता. पुण आज संसारा
अशें तरेन परिपूर्ण स्वतंत्र असो देश खंचो आसा? ह्या प्रस्नाक नकारार्थी जाप
मेळटली. सगळ्यांत श्रीमंत आनी सुरक्षिततायेचे बाबतींत अथ्याधुनिक तंत्रगिन्या
आशिल्लो अमेरिके सारखो देशय आज खऱ्या अर्थान स्वतंत्र ना. त्या देशांतय जाय
लोक सामान्य गरजेची सुविदाय मेळनासतना जीण जगत आसतात. आंतकवाद्यांच
कारवाय केन्नाय जावपाक शकता ह्या भिरांतेन थंचेय लोक आज जीव मुठीत घेव
जगत आसात. हें ध्यानात घेत तर आयच्या संसारात खरे अर्थान एकय देश स्वतं
ना आनी एकय मनीस पूर्ण स्वतंत्रताय भोगपाक शकना अशें म्हळें जायत तर
अतितिततायेचे जावपाचे ना. आज संसारातले राजकीय नदरेन स्वतंत्र आशिल्ले सगळे
देश आपल्या देशातल्या लोकांक राजकीय स्वतंत्रताये वांगडा आर्थिक, सामाजीक
सांस्कृतीक आदी वाठारांतय पूर्ण स्वतंत्रताय मेळोवपाचे यत्न करत आसतात.

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत देशातल्या राजकरत्यांनीय त्या नदरेन जायते यत्न केलें
आतांय करत आसात. ताजो परिणाम आज आमकां चड-उणे प्रमाणात पळोवपाक
मेळटा. स्वतंत्र जाल्ल्या वेळार आमकां जेवपाक लागता तितले अन्न आमच्या देशात

पिकनाशिल्ले. पोटाक सामकेंच गरजेचे आशिल्ले अन्नच उणे पिकपाक लागले तर देशातले लोक जगतले कशें? अशें वेळार जागपाक आमकां हेर देशा सामकार हात पसरावचो पडलो. अमेरीकेन जाय तीं वर्सां गंवाची पुरवण केल्ल्यान आमचें लोक कशें-बशें जगपाक शकले. अमेरिकेन दिल्ले गंव सरकार रेशन कर्डाचेर लोकांक दिताले. ते पोट भरपाक नुपुरे आसताले. पुण जगपाक ताजो उपयोग जातालो. अशें वेळार देशातल्या राजकरत्यांनी देशातच अन्न-धान्याचे उत्पन्न वाडोवपाची येवजण आंखली. लोकांनी तीं अंमलात हाडपाक जाय ते कश्ट सोंसलें. ताजो परिणाम बरो जालो. आज देशाची लोकसंख्या वाडत शंभर कोटीचेर जरी पावली तरी सगळ्यांक पुरो जावपा इतलेंच न्हय, तर भायल्या देशांकय धाडपाक उरता इतलें अन्न-धान्य आज देशांत पिकपाक लागलें. देशातल्या सगळ्या कोठयेकुडींत भरल्या उपरांतय जागो नासतना बरेच अन्न-धान्य आज वाऱ्यार उडोवपाचो प्रसंग आयिल्लो आसा. सुरक्षित दवरपाची वेवस्था नाशिल्ल्यान जाय ते अन्न-धान्य नाश जायत आसा.

देश स्वतंत्र जाल्ल्या वेळार देशातल्यांक आंगाक घालपाक कपडे जाय तितलें मेळनाशिल्लें. तेंवय रेशन कार्डाचेर हाडपाचो प्रसंग आशिल्लो. पुण सरकारान आंखिल्ल्या येवजणेन आनी शेतकारांनी तशेंच कारखानदारांनी केल्ल्या यत्नान देशात जाय ते कपडे तयार जावपाक लागले. साधे कपडेच न्हय तर चड मोलाचे सगळे तरेचे कपडेय कारखान्यातल्यान भायर येवपाक लागिल्ल्यान उण्या मोलात लोकांची कपड्यांची गरज भागपाक लागली. शिवाय भायल्या देशांत व्हड प्रमाणात ताजी निर्यात जावपाक लागली. भायल्या देशांत सगळ्यांपरस चड कपडे धाडपी देशांत आमच्या देशाचो वैलो क्रमांक आज लागला.

स्वतंत्र जाल्ल्या वेळार आमच्या देशात ल्हान-सान यंत्राय जाय नाशिल्लीं. आज आमच्या देशात ल्हान-सानच यंत्रां न्हय तर स्कूटर, कार, बस, रेल्वे, टँकर, रणगडे, विमान, ल्हान व्हड कारखाने आदीं तयार जातात आनी भायल्या देशांतय खपतात. शिवाय अत्याधुनिक तंत्रगिन्यानाचो उपयोग केल्ल्यान आमचे देशात अणुविज्ञान आनी क्षेपणास्त्र विज्ञानातय उदरगतीक पावला. आमी संसारातल्या हेर देशांच्या पंगतीत बसपाक शकल्यात. माहिती तंत्रगिन्यानाचे बाबतीत तर आमचो देश संसारातल्या सगळ्या देशांपरस मुखार आसा.

हें सगळे आमचे देशान स्वतंत्रताय मेळ्ळ्या उपरांत 56 वर्सांतच साध्य केल्लें आसात. तरी सगळे अर्थान परीपूर्ण जावपाची मोख आजय पैस आसा. ती मोख सादपाक आमी चड नेटान वावुरपाची गरज आसा.

●●●

17.

# केरळचे लोक-नृत्य कथक्कली

केरळ राज्यात कथक्कली नृत्य-नाट्य लोक जीणेचे एक म्हत्वाचे आंग आस
ते लोक-नाट्य पळयले बगर केरळ संस्कृतायेची खरी वळख जायना. थंच
चड अुणे सगळ्या देवळांत जेन्ना अुत्सव आसता तेन्ना हजारांनी लोक त्या अुत्सवा
येतात. आपण्याली कला आयिल्ल्या लोकांक दाखोवपाक शेंकड्यांनी कलाकार थं
पावतात. त्या कलाकारांत कथक्कली नृत्य करपीय आसतात, तांका रंगोवपी आसता
आनी त्या नृत्य नाट्यात वाजप वाजोवपी वाजंत्रीय आसतात.

केरळातल्या सगळ्या देवळांत अुत्सवाची एक पद्धत आसा. देवाली अुत्स
म्हूर्त भायर काडतात आनी ती एक सोबयिल्ल्या हत्तीचेर दवरतात. ताजे फाटल्या
आनिकय जाय ते हत्ती आसतात. त्या सगळ्या हत्तींचेर अंबाऱ्यो आसतात. त्यांच्य
फाटींचेर सोबीत रेसमी लुगटां घाल्लीं आसतात. पांयाक चांदीचे दागिने घाल्लें आसतात
मोतयां आनी कवचे मण्यो गुंथुन केल्ली तिनकोन आकाराची वेगवेगळे रंगान सोबी
दिसपीं कपयाळी तांच्या कपाळार घाल्लीं आसतात. छत्र, चामर आनी तोरणा घेव
देवळाचे सेवक आसतात. शंख, सनय, ढोल, ताशें आनी हेर वाजपाचो गाज नभ
मंडळा मेरेन पावतात आनी हजारांनी लोकांन भरिल्ली शोभायात्रा येवपाक लागता
ही शोभायात्रा जेन्ना देवळा सामकार पावता तेन्ना वाजपाचो आवाज तालबद्ध जाल्
आसता. त्या तालाक साथ दीत शोभायात्रेतले हत्ती एकमेकासामकार तोंड करत दो
रांगेत अुबे रावतात आनी सोंडा लयबद्ध हालयत वैर सकल करत आसतात. तांक
पळयत मन भक्तिभावान भरिल्लें आसतना वाजपाचो मंजुळ आवाज कानार पडता. त
आवाज अुच्च स्वर घेत वता आनी सगळे वटेन धीर गंभीर वातावरण फांकता. घां
वाजता आनी मंत्राचो मंगलमय आवाज येवपाक लागता. देवळात नित्यनेमाची पुज

आनी नैवेद्य जाता. अुपरांत सगळे देवळा वाठारात पंगतीत बसतात आनी सहभोजन करतात. हे सहभोजन जालें तशें अुत्सवाचो म्हत्वाचो वांटो सोंपता आनी थंय आयिल्ले भगत सुशेग घेवपाक मोकळे जातात. त्या वेळार कलाकारांक कलोपासन करपाक वाव मेळटा. कथक्कली नृत्याचे प्रयोग तेन्ना जावपाक लागतात.

केरळातले गिरेस्त लोकांक कथक्कली नृत्याचो पंगड आपापल्या पाख्यातळां दवरपाची पद्धत आसा. ते बऱ्या कथक्कली कलाकारांक आपण्याकडेन दवरतात आनी कथानक बसोवन घेतात. कथक्कली नृत्य पंगडाक प्रयोग करपाक जें जें कितें लागता तें सगळें तांचे कडेन तयार आसता. देवळात वो हेर कडेन जेन्ना धार्मिक कार्यावळ आसता तेन्ना ते गिरेस्त आपआपण्याले पंगड घेवन थय पावतात. ज्या गिरेस्ताकडेन चड बरो पंगड आसता तो गिरेस्त चड मानादिक अशें थंचे लोक मानतात. दर एकटो गिरेस्त आपण्यालो कथक्कली नृत्य पंगड चड तोला मोलाचो आसचो यत्न करता आनी ताजे खातीर पैशेय मोडता. अशें तरेन कथक्कली नृत्याक केरळात प्रोत्साहन मेळत आयलें आनी ताजो विकास जालो.

कथक्कली नृत्याचे कथानक रामायण, महाभारतातल्या कथेंचेर आधारिल्लें आसता. सगळ्याच लोक नाट्यांत आसता तशें तरेचो नीतीपाठ भौसांक मेळचो अुद्देश ह्या कथानकांत आसता. कांय कथानक व्यक्तीप्रधान आसता तर कांय कथानक घटनाप्रधान आसता. दोनांचोय योग्य मेळ सादयिल्लें कथानकय आसता. भौसाखातेर हें लोकनृत्य जरी आसलें तरी ह्या लोकनृत्यात हेर कांय लोककलेत आसता तसलो अश्लिल विचार वो सकल्ल्या पांवड्याचो विनोद मात नासता. निमाणे मेरेन भक्तिपूर्ण, नितीयुक्त आनी गंभीर वातावरण आसता.

कथक्कली नृत्य जावपी सुवात मोकळी आसता. चडात चड लोकांक पळोवपाक सोपें जावपाक मोकळ्या वाठारात मदेगात घाल्ल्या रंगस्थळात हें नृत्यनाट्य जाता. एक सान माचयेर ते रंगस्थळ आसता. त्या रंगस्थळाचेर वैर चुट्टांचो माटोव घालतात. सांजे सुर्यास्था उपरांत कथक्कलीची सुरवात जाता. लोक पैलीच येवन थंय जागो आडावन बशिल्ले आसतात.

कथक्कली नृत्य करतल्यांक नटोवपाचे काम सोपें नासता. तें काम करतल्यांचे हात आणभावान मुरिल्ले आसपाक जाय. कथक्कली नृत्य पळोवपाक येवपी फकत लोकनाट्य पळोवपाक येना, जाणे पात्रां रंगयल्यांत ताजे रंगोवपाचे कौशल्यय चोवपाक येतात. दर एक पात्र रंगयतना तो रंगयतल्यान आपण्याले सगळे कलागुण ओतिल्ले आसता. कथक्कली पळयतल्यांनी आपण्याली तोखणां करपाक जाय म्हळ्ळीं अुमळशीक

तांच्यात आसताच. ती उमळशीक, पात्र रंगयतना ताज्या बोटांक नाजूकसाणेन भोंवपा
लायता. तें पात्र नांचतना जशें तल्लीन जावन एकाग्रतायेन नाचपाचे आसतलें ताजें पर
चड तल्लीनताय आनी एकाग्रताय आपणावन ताका रंगलावपी बोटांनी नाचपाचे आसत
रंग लावपी फकत रंग लावपातच जाणकार आसल्यार अुपकारना, ताका कथानकाच
पुर्ण जाण आसपाक जाय. जे पात्र रंगयता त्या पात्राचो सभाव गुण ताका पुर्णताये
खबर आसपाक जाय. कारण कथक्कलीत त्या त्या पात्राचो सभाव धर्म पळोवपा
त्या त्या तरेन पात्रां नटोवपाची पडटात.

कथक्कलित जीं पात्रा आसतात तांचे तीन प्रकार आसतात. सात्विक, राज
आनी तामस अशें तरेचे हें तीन प्रकार. देवाक, देवाभशेन सभाव आशिल्ल्या मनशां
आनी वीरांक सात्विक सभावाचे म्हण्टात. जे स्वार्थी, आक्रमक आनी भोगी आसता
तांका राजस सभावाचे म्हण्टात आनी जे वायट करपी सभावाचे वो राक्षस आसता
तांका तामस सभावाचे म्हण्टात. ह्या सभावांक फावो तसो रंग पात्रांचे तोंडाक लावच
आसता. तोंडा वैल्या रंगाक पळोवन त्या त्या पात्रांचो सभाव कळटा. थंड सभावाच
पात्र आसल्यार तागेल्या तोंडाक पांचवो रंग लायतात. राग येवपी, भयंकर सभावाचे पा
आसल्यार तागेल्या तोंडाक तांबडो रंग लायतात. जे पात्र साहस करपी धीट आसता
झुंजपी सभावाचे आसता, त्या पात्राचे तोंडाक हळदुवो रंग लायतात आनी जे पा
क्रूर आनी भिरांकुळ आसता त्या पात्राचे तोंडाक काळो रंग लायतात. दर एक पात्रा
मात्याक घालचे शिरोभूझण वेगवेगळे आसता. मुडी किरीटम, केशभारम् किरीटम्
कुट्टी चारम् अशें ताजे प्रकार आसतात. अशें तरेन नटिल्लीं पात्रां पळयतल्यांक तीं पात्र
खंची खंची आसात ते सांगनासतना कळटा. दर एक पात्र वेगवेगळे तरेन नांचता. द
एक पात्र हावभाव वेगवेगळे तरेन करता. पात्रांची वळख प्रेक्षकांक सोपे तरेन जाता

कथक्कली नृत्य नाट्यात ईश्वर, विष्णु, ब्रह्म, गणेश, इंद्र, नारद असली देवाल
पात्रां आसतात. राम, लक्ष्मण, सीता, रावण, जटायु, वाल्मीकी, मारुती असल
रामायणातली पात्रां आसतात. कृष्ण, अर्जून, धर्मराज, कीचक , दुर्योधन, द्रोपदी, कुंती
घटोत्कच असलीं महाभारतातली पात्रांय आसतात. शिवाय ब्राह्मण, संदेश वाहक
सारथी असलींय पात्रा आसतात. कथक्कली नृत्य नाट्यातच पळोवपाक मेळटा
असलीं करूप्प ताडी आनी करी म्हळ्ळी दोन तामस सभावाची पात्रां आसात. ह
सगळीं पात्रां दाल्ल्याचीच आसतात. बायलांची पात्रां दाल्लेच करतात. हीं सगळ
पात्रां रंगोवपाक बरोच वेळ लागता.

कथक्कली नृत्य नाटकात वाजप आसता. मड्डुलम म्हळ्ळो ढोल आसता. तो दोनी

हातान वाजयतात. ताजो आवाज मधुर आसता. जाय तसलो ताल घेवन ते वाजोवपाक जाता. चेंडा म्हळ्ळो आनेक तरेचो ढोल आसता. हो ढोल जमनीर अुबो दवरतात. आनी फकत वैल्यान बड्यांनी वाजयतात. हाजो आवाज सगळे वटेन घुंवता. वीर रस आनी रूद्रावतार अुकतो करतना हें वाजप चड नेटान वाजता. ह्या वाजपाक ताळ आनी घांट हांचोय मेळ मेळटा. ह्या नृत्य नाटकात काव्यमय संवाद गावपीं जें आसतात ते तालार सतार वाजयतात. हे सगळें वाजोवपी फाटल्यान बशिल्लें आसतात.

रंगमाचयेर वाजोवपी आनी गावपी बसतात आनी कथक्कली नृत्य सुरू जाता. रंगमाचयेर मुकार एक व्होड दिवली पेटयतात आनी केलिकोटु म्हळ्ळो रूंद तोंडाचो ढोल वाजयतात. हो आवाज कानार पडता आनी नाट्य सुरू जाता. लोकांक उमेद येता. सगळे जाण थंड बसतात. एकाग्रतायेन पळोवपाक लागतात.

वाजोवपी पंगडात आशिल्ले चौग जाण माचयेर अुबे रावतात आनी वाजयतात. दिवले फाटल्यान एक पडदो हातात धरिल्ले दोग भुरगे अुबे आसतात. ह्या पडद्याक ''तिरा सिला'' म्हण्टात. त्या तिरा सिला फाटल्यान कांय तन्राटे कथक्कली नृत्य करत आसतात. ते लोकांक दिसनात. पुण पडद्या सकलचे तांचे नांचपी पांय लोकांक दिसतात. हो नांच बरोच वेळ चलता. अुपरांत प्रार्थना जाता आनी पडदो सकल हाडतात. एक दाल्लो पात्र आनी एक बायले पात्र भक्तिनृत्य करत आशिल्ले लोकांक दिसतात. पडदो सकल हाडिल्ल्यान तांचे आंग आनी पायं दिसनात. ह्या नृत्याक ''पुरप्पाडु'' म्हण्टात. हो नृत्य निवळ कथक्कली पात्रांचो वेगळो केल्लो आसता. हे नृत्य संथपणान चलता. डोळ्यांची बावली, पाती आनी भोवी वाजपाच्या ताला वांगडा हालयतात. तेन्ना तांच्या दोळ्याकडेन पळयत रावचें अशें दिसता. अशें काय वेळ वाजपाचो सुमधुर नाद घुंवत दोळ्यांचो हावभाव जायत आसतना मुकाल्लो पडदो काडतात. सोबीत नटिल्ले दोगय वेगवेगळ्या तरेन हात आनी हाताची बोटां हालयत गोल फिरत आपण्याल्या नाचपी पांयांचे सोबीत दर्शन घडयतात. तांचे पदलालित्य, हस्तभंगी आनी तोंडावेलो भाव पळोवन मन तांचे वांगडा तन्मय जावन नाचपाक लागता. त्या संथ नांचाचो वेग सावकाश वाडत वता. वाजपाचो लय तसोच वाडता आनी निमाणे अुच्च बिंदुर पावता. आवेशपूर्ण नांच जावपाक लागता. नांचपी आगळ्या नृत्यभंगीत स्थीर रावतात आनी नांच सोंपता. अशें स्थीर राविल्ल्या वेळार पात्रा दोनय पावलां लागीं हाडटात, दिंबी मोडत पांयां मदीं लांबट गोल आकार येवपा सारखे करतात. कंबर, फाट आनी मान नीट धरतात, हाताची एका वटेनची तीन बोटां नीट करत अुमटे बोट आनी ताजे लागीचे बोट एकमेकांक लावन मदें गोल आकार येवपा

सारखो करतात. अशें तरेन केल्लो अुजवो हात वैर आनी डावो हात सकल एकमेकाचे विरूद्ध दिकान बोटांची टोंका येवपासारखी धरतात. त्या वेळार हाता तळवे लोक वटेन जाल्ले आसतात. कथक्कलीतली ही नृत्यभंगी आमका चित्रांत जाय ते फावटी पळोवपाक मेळटां.

अशें तरेन सुरवेचो पुरप्पाडु नृत्य जाता आनी अुपरांत मुखेल पात्र रंगमांचेर येता काव्यमय पद्धतीत, वाद्याचे नादात ते पात्र येवपाचे सुचोवणी दितात. हें मुखेल पात्र दोगजाणान धरिल्ल्या पडद्या फाटल्यान आसता. पडदो तसोच सकल करतात. तेन्ना त्या पात्राचे तोंड दिसता. भव्य शीरोभूषण घाल्ले ते पात्र आपण्यालो डावो हात मुकाल्ल्या पडद्याचेर घरता. ताज्या हाताक चांदी भशेन चकचकपी लांब नाकटां आसतात. ताज्या तोंडार पांचवी कांत मारता. ताजे दोळे मुकार दवरिल्ल्या दिवलीचेर थोडो वेळ स्थीर जातात. अुपरांत वाजपाचे ताला वांगडा हालपाक लागतात. दोळ्या बावली, पार्ती आनी भोवी हावभाव अुकते करत थोडोवेळ हालत आसतात. अशें तरेन पात्राचे आगमन जावपाचे पद्धतीक ''तिरानोक्कु'' अशें म्हण्टात.

तिरानोक्कु जालें तशें नृत्य नाटकांचो पैलो देखावो सुरू जाता. त्या वेळार मुकार धरिल्लो पडदो सगळो कुशीक करतात. मुखेल पात्र भोंवतणे आशिल्ल्या काल्पनिक राजवाड्याची, झाडां-पेडांची, फुलां फळांची, सुकण्यासवण्यांची काव्यमय भाशेंत प्रेक्षकांक जाणीव करता. ते पात्र आपण्याल्या प्रिये वांगडा केल्ल्या अुलोवण्यातल्यान कथा संदर्भ आनी हेर गरजेची गजाल सांगता. अशें तरेन नृत्य-नाट्य करत प्रेक्षकांक कथेचो बोध जायत वता. दर एक पात्र अर्थबोध करत आसता आनी तांतल्यान कथानक विणत वता. फाटल्यान बशिल्ले गायक कथानक मुकार व्हरपाचे कामात म्हत्वाचे हातभार लायतात.

कथक्कली नृत्य नाट्यात तामस पात्र येवचे वेळार तिरानोंक्कुत इल्लो बदल करतात त्या पात्रांचे लोकांक दर्शन घडोवचे पैली वाजप आवेशान वाजयतात. त्या वेळार ते पात्र आवेशान नांचता आनी अुपरांत पडद्याची वैली कड आपण्याल्या दोनय हातान घट्ट धरता. तो धरिल्लो हात खिणा भितर सोडता आनी त्या पडद्यार अुडी घेवन तो कुशीक करता. तेन्ना त्या पात्राचे तोंड प्रेक्षकांक दिसता. ताजे दोनय वोंट वेगळे केल्ले आसतात. अशें वोंट वेगळे करत दांत दाकयत नांच करपी पात्र तामस वृत्तीचे आसतात अशें तरेची तामस पात्रां जायतीं आसतात. तांबडे खाड आशिल्ले सकेस तांतलो एक आसता. तामस पात्राचो वध जाता आनी कथक्कली नृत्य नाट्य सोंपता.

दुःशासन वध, अुर्वशी शापम्, राक्षसी माया सुंदरी, पूतना मोक्षम्, दक्ष रागम अशें

रेच्यो कथक्कली नृत्य नाट्यकथा आसतात. कथक्कली नृत्यान सोपान पद्धतीची पद्य रचणूक आसता. तीं पदां मळ्याळम् भाशेत आसतात. ही भास संस्कृतप्रचूर आसता. हल्लोसो यत्न केल्यार कथक्कली नृत्य नाट्याचो रसस्वाद घेवपाक केरळा भायल्या भारतीयांकय साध्य जाता. कथक्कली पदांक दक्षिण भारतीय पद्धतीची चाल आसता. तीं पदां आयकतना बरीं लागतात. तालबद्ध वाजपां वागडां तीं पदां कानार पडत आसतना दोळ्यांक सोबीतय नांच पळोवपाक मेळटा.

कथक्कली नृत्याचो अुगम केरळात जालो आनी ताजो विकास थंयच जालो. केरळा भायर ताजो प्रसार जालो ना. तरी पुण आज भारतातल्या मुखेल नृत्य प्रकारात कथक्कली नृत्य आसपावता. ताजे प्रदर्शन अख्या भारतात जायत आसता. कथक्कली नृत्य पंगड संसार भर भोंवनय आयल्यात.

केरळात कथक्कली नृत्य नाट्याक एक आगळे म्हत्व आसा. केरळ संस्कृतायेची पोसवण कथक्कली नृत्य नाट्यान केल्या म्हळ्यार अजाप जावचे ना. कारण केरळ संस्कृताय देवळान घडयलां. देवळातल्या दर एक अुत्सवा वेळार कथक्कली नृत्यनाट्य आसताच. त्या वेळार थंय आयिल्ल्या लोकांक भारतीय संस्कृतायेचे दर्शन घडता, भारतीय परंपरेतले आदर्श होलमता आनी नीती धर्माचे सुत्र मेळटा. आज केरळात सुसंस्कृत आनी सुशिक्षित लोक चड आसात हाजे स्रेय कथक्कली नृत्य नाट्याक दिल्यार अतिताय जावची ना.

●●●

18.

# उजवाड दिवपी ज्ञान-दिवे!

दर वर्सा दिवाळी येता आनी वता, संसारात जें नश्टें आसा ताजो नाश करप आ नव्या फुडाराकडेन वचपाची वाट दाखोवपाक ज्ञान दिवे पेटोवप हें दर वर्सा घड आसता.

ह्या संसारात आमका वाट दिसपाक जाय जाल्यार आमी आमचे दोळे उक दवरपाक जाय. जाण्टे, गुरू, बुदवंत, पुस्तक, लोक-साहित्य आनी हेर जाय ते दि आमचे भोंवतणे आसतात. हांतले पुस्तक वो बरयिल्ले साहित्य हें दीर्घ काळ मेरेन ज्ञा प्रकाश दिवपी ज्ञान-दीवे आसात.

हें पुस्तक साहित्यय खूब प्रकाराचे आसता. मनशाली सुक्षीम भावना, विचार आन आणभव हांका अुतरां रूपात बांदपाची जाका शक्त आसा तोच साहित्य बरोवपा शकता. जितलो तो प्रतिभावान तितले ताजे साहित्य चड प्रतिभापूर्ण आसतले. जितल ताजो अणभव विविधतायेचो आसतलो तितले ताजे साहित्य विविधांगी आसतले जितलो तो चड खोलायेन विचार करतलो तितले ताजे साहित्य गहनपूर्ण आसतले दर एका मनशाची पृकर्ती वेगळी आसता. जितले साहित्यिक तितले साहित्य प्रका आसतले. ज्ञान-साहित्य-दिवे तरेतरेचे आसतात आनी तांचो अुजवाडय वैविध्यपूर आसता.

जाय तो अणभव आसलो, खोलायेन विचार करपाची बुद्द आसली वो अगाध प्रतिभा आसली तरी कोणय साहित्यिक जाताच असो ना. साहित्यिकात हे गुण आसपाकच जाय. वांगडा जे कितें ताणे अणभवलां, जाचेर ताणे परिपूर्ण विचार केलां आनी जे ताज्या प्रतिभेत होलमलां तांतल्या गहन विचारांक, आशयाक, भावनेक, संवेदनेक आनी साक्षात्काराक योग्य अुतरांनी अभिव्यक्त करपाची कलाय आसची

पडटा. ताका तो ज्या भाशेत बरयता त्या भाशेची बरी जाण आसची पडटा, जितलो तो अुतरां-अुतरांतली कुसां जाणा जाता, तांच्या अर्थ वाहकतायेचो ताका जितली वैवाट आसता तितले ताजें साहित्य समर्थ जाता.

साहित्य खोस भोगपाक वो समाधान मेळोवपाकच वाचपाचे नासता तर फुडारांकडेन वचपाची प्रेरणाय मेळोवपाक तें वाचपाची गरज आसता. काळजाक धादोसकाय दिवप इतलेंच साहित्याचे कार्य न्हय तर मन निवळ करपाकय तें जाय आसता. मनशांत आनी समाज जीणेत सदासर्वकाळ आसचो राग, मत्सर, सुवार्थ, दुस्वास, घातमारेपण, मदांदपण, नश्टेपण, कामूकताय, बेशिस्त, लजेकाम हांचे नागडें रूप दाखोवन ताजें आड झुंजपाक मनाक आनी समजाक तयार जावपाक प्रवृत्त करप हेंवय साहित्याचे धेय आसता.

खरो साहिती, जर तो दार्शनिक आसत तर मनशाक आनी समाजाक धडधडीत अुठयता आनी नवो आदर्श समाज निर्माण करपाची वाट दाखयताः त्या वाटेर वचपी प्रेरणेक जागयता. असले साहित्य जेन्ना लोक वाचतात तेन्ना लोकांच्या आंगार भार येताः ते अुदात्त प्रेरणेन कुदतात आनी समाजोन्नती खातीर वावुरतात. अशें तरेन समाजात क्रिया आनी प्रतिक्रिया घडत आसतात. अशें जेन्ना घडता तेन्ना जीणेक म्हत्व आसता, जगपाक अर्थ आसता आनी मनशाक मोल आसता. ना जल्यार हो संसार नीरस आनी जगपा लायक न्हय अशें मनशांक दिसल्या बगर रावनाशिल्लों. हाजे वेल्यान मनश्याल्या जीणेत साहित्याक केदें म्हत्व आसा तें लक्षांत आयल्या बगर रावना. ह्या नदरेन विचार केल्यार साहित्य आनी जीण ही वेगळी काडपाकच जायना म्हळ्ळीं गजाल मतींत झळकता.

साहित्यकाराचेर व्हडात व्हड जापसालदारकी आसता. कारण तो समर्थ आसत तर आपण्याक जाय तशें समाजाक वळण दिवपाक शकता. पुण ताणे हें करतना सदांच एक गजाल मतींत दवरपाक जाय.आपुण जें कितें बरयता तें आपण्याल्या स्वानुभवातल्यान बरोवपाक जाय. तरच ते साहित्य लोकां मनांत धरतले, नासत तर ते साहित्य कालांतरान भायर पडटले.

आपण्यालो अणभव प्रमाण अशें मानलें आनी जीणेतल्या वेगवेगळ्या भावनेचे, परिणामाचो चिंतन केलें तर लटके-फटके खंचे ते कळटा. हो विचार करत आसतनाच काळजातल्या कोनश्यात वेगवेगळ्यो घडणुको, वेगवेगळी पात्रां, वेगवेगळीं अुलोवपां आनी भावनां आगळीं रूपां घेत आसतात आनी अुतरांतल्यान भायर सरतात. अशें तरेन भायर सारिल्लीं अुतरां जीं आसतात तांतली कांय अुव्देगकारक, भयांकृत वो

क्रांतिकारक अशें जरी दिसलीं तरी तीं मनशा मनांर वो समाज जीणेर कालांतरा
हितकारक परिणाम केल्याबगर रावनात.

आपण्याले साहित्य लोकांमनार वो समाजार कितें परिणाम करतले हाजो विचा
आपणे कित्याक करप? आपुण जें साहित्य बरयता तें आपण्याक समाधान मेळट
म्हुण बरयता अशें म्हणपी कांय जाण आसात. अशें तरेचे जे कोण आसतात ते एव
तर खरे साहिती नासतले वो ते डांभीक तरी आसतले.

आज मेरेन जे कोणे साहित्य निर्माण केला ते फकत आपण्या खातीरच ताणी
निर्माण केल्लें ना. तें केल्ल्यान आत्मानंद मेळटा हें विशीं इल्लोय दुबाव नासलो तरी
हेरांनी तें वाचपाक जाय, ताजो अुपयोग करपाक जाय आनी आपण्यालें नांव संसारात
तिगपाक जाय म्हळ्ळीं अुर्बा साहित्य निर्माण करतना आसता हें विशीं इल्लोय मतभेद
आसपाचे कारण ना. ज्या साहित्य बरोवप्यात ही अुर्बा नासतली तो साहित्य बरयतलो
तरी कित्याक? मनांतले मनात ते घोळोवन ताका समाधान वो आत्मानंद घेवपाक
जाता न्हय? हें ध्यानात घेत तर साहित्य बरोवप हें फकत आपण्याखातीर अशें म्हणपी
जे आसतात ते डांभीकपणान तशें म्हण्टात असोच ताजो अर्थ जाता.

साहित्यकाराक मानसशास्त्राज्ञा भशेन लोकांची नाडी कळपाक जाय. तो जें
आपण्याक होलमल्लें सत्य सांगतलो तें कालाचे बंधनय हुपपी, सदां तिगपी आसपाक
जाय. हें जितलें ताका सादता तितलो तो समर्थ साहित्यिक जाता. ताजें साहित्य
कसलेंच भावावेगाचे बंधन मानना. ते ओतप्रोत व्हांवत आसता. ताका आडखळ
नासता. अशें तरेचे ते नासत तर कालांतरान त्या साहित्याचे म्हत्व ना जाता.

अशें तरेचे मानवकुळाक अुजवाड दिवपी ज्ञानादिवे पेटोवपाची तांक आज कितल्या
बरोवप्यांत आसा? आज जें जळींमळीं साहित्य अुजवाडाक येता तें ह्या कसाक लागत?
एका फाटल्यान एक अशीं सान-व्हड पुस्तकां आज बाजारात येत आसतात. हेरां
भशेन आपण्यालेय नांव पुस्तकार वो नेमाळ्यांचेर येवचे म्हळ्ळ्या इत्सेन वो मानधन
मेळटा म्हळ्ळ्या आशेन कितें तरी बरोवचे म्हळ्ळी वृत्ती आज चड दिसता. अशें जे
साहित्य तयार जाता ते मनीस कुळेक अुजवाड दिवपाक अुपकारता अशें म्हणपाक
जायना. हांतले कांय साहित्य तात्पुरते अुजवाड दिवपा सारखेय आसता. दिवाळी
वेळार पट्ण्यो, निरांजना, दिवल्यो, लामणदिवे, दिवट्यो लायतात. तांचो अुजवाड
कांय काळ मेळटाच न्हय! तसो ह्या साहित्याचो अुजवाड मेळटा. अशें तरेचे जेन्ना
लाख लाक दिवे पेट्टात तेन्नाच त्या अुजवाडातल्यान नखेत्र वो सुर्याचे तेज परगट्टा
आनी ते संसाराक अंता मेरेन अुजवाड दीत आसता. व्यास, वाल्मीकी, कालीदास.

टागोर असले तेजवंत सूर्य अशें तरेनच परगटले. तांचे अुजवाड आजय फांकत आसा, फुडारातय फांकतलो. आज जे साहित्य - दिवे पेटत आसात तांतल्यानय अशें कांय तेजवंत सूर्य परगटल्या बगर रावचे नात.

ह्या खातीरच असंख्य दिवे पेटत आसपाक जाय. लाख-लाख दिवे अशें तरेन पेटत अुल्ल्यारच तेजवंत सुर्याचे दर्शन घडटले. साहित्य क्षेत्रातय अशें तरेचे दिवे सतत पेटत रावचे आनी तांतल्यान अमर साहित्य तयार जावपाक वाट घडची अशें आमी आस्त बाळगितांव.

कोंकणीत आज जाय ते साहित्य जायत आसा. दर एका लेखकान आपुण जें बरयता तें छापचे आदीं हेरांक ताजो अुपयोग कितें जातलो हाजो खोलायेन विचार करपाक जाय. आपुण जें बरयता तें भाशेचे नदरेनय निवळ आसा काय ना हेंवय पळोवपाक जाय. कारण आज जे कोंकणी बरयतात ते शाळां कॉलेजिनी शिकल्या अुपरांत बरोवपाक सुरवात करतात अशें कांय ना. भारतातल्या हेर भाशेत जे बरयतात ते सगळे अुण्यात अुणे आंठ-धा वर्सा तरी भाशेचो अभ्यास करतात. शिकिल्ले सगळेंच साहित्य बरयनात. कांय ज़ाणच बरयतात. जांची भास बरी आसता, निवळ आसता आनी जांका बारोवपाची कला आसता तेंच बरयतात. पुण कोंकणी बरोवप्यांत बरोवपाची कला आसली तरी तांची भास निवळ आसतलीच अशीं ना. साहित्य अकादमिचे भोवमान मेळयिल्ले कोंकणी बरोवपीय ह्या नदरेन अुणे पडटात.

आज दर एका कोंकणी बरोवप्यान कोंकणी भाशेचे खाशेले गुण आनी स्वभाव कितें हाजो स्वयं अभ्यास करपाची गरज आसा. सगळ्या वाठारांत रावपी बरोवप्यांनी सगळ्या शैलीत बरयिल्लें कोंकणी साहित्य वाचल्या अुपरांत ताजो खोलायेन अभ्यास करप आनी हंसक्षीर न्यायान त्या साहित्यातले निवळपण ध्यानात घेवन आपणे बरयतना निवळ उतरां घोळोवपाक जाय. कोंकणी निवळ अुतरावळ आपण्याल्या बरपात घोळोवपाची बरोवप्यांनी संवय केली जायत हेर भाशेंतली अुतरां वो अुतरावळ जे आज जाय ते जाण घोळोवन कोंकणी इबाडत आसात ते अुणे जातले आनी प्रमाण कोंकणी घडपाक हातभार लागतलो.

ह्या तरेन प्रमाण कोंकणी घडोवपाक वावुरतलो अशें दर एका कोंकणी बरोवप्यान संकल्प केलो जायत तर कोंकणी साहित्यात लखलखपी साहित्य - दिवे पेट्टले आनी कोंकणी जीणेत खरो अुजवाड फांकतलो. त्या दिसाची आमी वाट पळोवंया!

●●●

19.

# महात्मा गांधी आनी धार्मिक समभाव

ह्या विसाव्या शेंडक्यात अभूतपूर्व असो एक इतिहास घडलो. अख्या संसाराचे संस्कृतायेचे कुळार अहिंसेच्या मार्गान स्वतंत्र जालें. ज्या साम्राज्याचेर सूर्य केन्नाच बुडपाचो ना अशें म्हण्टालें त्या ब्रिटीश साम्राज्याचो एक व्हड कुडको भारत आपणाल्या आत्मशक्तिचे बळान स्वतंत्र जालो. अहिंसा शक्तिचो राजकीय मळार जाल्लो हो पैलोवैलो प्रयोग पैल्याच धपक्यात यशस्वी जाल्लो आनी अख्या संसाराक एक नवो साक्षात्कार घडिल्लो. हो साक्षात्कार घडोवपाचो दिव्य मंत्र महात्मा गांधीजीन दिल्लो.

## क्रांतीचो अुद्देश

अहिंसेचो संदेश सगळ्यांत पैली महात्मा गांधीजीन दिल्लो असो न्हय. हजारों वर्सां आदीं श्री कृष्णान, अुपरांत महात्मा गौतम बुद्ध देवान आनी हालीं कांय शेंकड्या आदीं येसू क्रिस्तान हो संदेश संसाराक दिल्लो. पुण त्या संदेशाची व्याप्ति धर्मपालना पुरतीच आशिल्ली. स्वहृदय परिवर्तन करप, तशेंच मानसिक आनी सामाजिक शांतताय तिगोवन दवरपाक हातभार लावप हें काम ह्या अहिंसा संदेशान केल्लें. पुण सत्ताधारी बलिश्ट राजसत्तेक नतमस्तक करपाचे कार्य पूर्णतायेन यशस्वी करपाक अहिंसेचो अुपयोग महात्मा गांधीजीनच पैली केलो आनी भारतात एक म्हान क्रांती घडोवन हाडली. अहिंसा मार्गान राजकीय क्रांती घडोवप हेंच महात्मा गांधीजीचे अंतिम ध्येय नासलें. संसारभर घडोवपाक जाय आशिल्ल्या एक म्हान सामाजिक क्रांतीचे ते एक सान आंग आशिल्लें. अख्या संसारात सर्वसमभाव घडोवन एकचार निर्माण करप हो

ह्या म्हान क्रांतिचो अुद्देश आशिल्लो.

## असंख्य वांट्यांनी विंगडला

संसारात आज खंय पळयता थंय वेगळेचार दिसतात. आंगा रंगा वेल्यान मनीस जात वेगवेगळ्या वंशांत विंगडल्या. येवरोप-अमेरिकेतले तांबडे रेडइंडियन लोक, जपानातले हळदुव्या रंगाचे लोक वेगवेगळ्या वंशांचे अशें मानतात. दर एक पंगडाक आपुण स्त्रेश्ट दिसता आनी हेर सगळे अुणाक लोक अशेंय दिसता. हांतल्यान वंश भेदाच्यो वण्ट्यो अुब्यो जाल्यांत. ह्या दर एक वंशांत तांच्या तांच्या मदल्या कांय वेगळेचारांक म्हत्व आयिल्ल्यान परत्यो वण्ट्यो अुब्यो जाल्यांत. अशें तरेन सगळो संसार असंख्य वाट्यांनी विंगडावन पडला.

## स्वतंत्रताये वांगडा हरिजनोद्धाराचे कार्य

वंशभेदान शिंपडिल्ल्या ह्या विश्वसमाजाचे धर्मभेदान आनिकय चड तिस्त्यो केल्यात. हिंदू, बौद्ध, क्रिस्तांव, मुसल्मान आदीं संसारातल्या मुखेल धर्मांत जायते अुपदेश आसात. हिंदूधर्मात ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शूद्र ह्या मुखेल वर्णातय असंख्य जात्यो आनी अुपजात्यो आसात. बौध धर्मात हीनयान आनी महायान ह्या मुखेल पंथांत त्या त्या स्थानिक गरजे प्रमाणे शेंकड्यांनी अुपपंथ जाल्ल्यांत. क्रिस्तांव धर्मात कॅथोलीक, प्रोटेस्टंट ह्या मुखेल पंथांवांगडा हेर पंथय अुप्रासल्यांत. मुसल्मान धर्मात शिया, सुन्नी ह्या पंथावांगडा आनी जायते पंथय आसात. ह्या वेगवेगळ्या धर्मांत, पथांत आनी जातींत हजारो वर्सां झगडीं जायत आयल्यांत. तांचे भितल्ले दुस्वास एकमेका आड अुजो पेटयत आयलां आनी जायतीं झुंजां पेटल्यांत, पेटत आसात. ही प्रवृत्ती ना करप आनी सगळ्या वंशातल्या आनी सगळ्या जाती कातींतल्या लोकांत एकचार घडोवन ह्या संसारात भावनिक समन्वय आपणायिल्लो बंधनमुक्त समाज घोडवपाची क्रांती करप हें महात्मा गांधीजींच्या अहिंसात्मक चळवळीचें साध्य आशिल्लें. ताणी स्वतंत्रताये झुंजावेळार वंशभेद आनी जातीभेद ना करपाचे कार्याक चड म्हत्व दिल्ले. तांचे राजकीय जीणेची सुरवात वंशभेद ना करपाचे कार्यातल्यानच जाल्ली. दक्षिण आफ्रिकेतल्या काळ्या निग्रो लोकांक गोऱ्या कातिच्या लोकावांगडा समानतायेची सुवात मेळोवन दिवपाक ताणीं सगळ्यांत पैली अहिंसात्मक सत्याग्रहाची सुरवात

केली. भारतात आयल्या उपरांत अस्पृश्यताय ना करपाक तांणीं चळवळ अुबा
भारतात स्वतंत्रताय मेळोवपा परस भारतातल्यो सामाजिक असमतोल सारखो क
चड गरजेचे आसा हें तांका जाणवलें आनी स्वतंत्रताये झुंजावांगडाच हरिजनोद्धार
कार्य नेटान तांणी मुकार व्हेलें.

## सधर्म सोदल्यारय मेळना

महात्मा गांधीजींच्या दर एका निर्णया फाटल्यान खर वैचारिक अधिश्ट आसतालें. आयच्या धर्मकलहाचे आनी जाती वैमनस्याचे मूळ कितें तें ते जाण आशिल्ले.

संसारातले सगळे धर्म मनीस कुळेचे हीत दोळ्यासामकारा घेवनच जल्मा आयल्यांत. दर एका धर्मात बरें विचार आसात. कांय धर्मात जे कांय खास विच आसात ते हेर धर्मात आसतातच अशें नात. दर एका धर्माची देवाकडेन पळोवपाच नदर एकच तरेची आसा अशेंय ना. कांय धर्मातलो एक विचार बरो तर दुसऱ्या कां धर्मान तो विचार अयोग्य अशेंय सांगिल्लें आमकां दिसता. दर एका धर्मसंस्थापका वो त्या धर्मात जावन गेल्ल्या विचारवंतान त्या त्या कालमान परिस्थितीत आपआपल विचार मांडल्यांत. आचार संहिता घडयल्यांत. अुपरांतय कांय बदल घडल्यांत. ह्य बदलांन त्या त्या धर्मात पंथ अुपपंथय निर्माण जाल्यांत. ह्या सगळ्यांचो परिणाम जाल्ल्यान आज संसार धर्मपंथांनी वांटलां. अशें परिस्थितीतय विश्वसमाजाक कांयच आडखळ जाय नाशिल्ली. दर एक धर्म वो पंथातल्या लोकांनी आपण्याल्या धर्मातल्य तत्त्वांप्रमाणे वागल्यार आनी आपण्याली चालरीत सांबाळ्ळी जाल्यार आज अख्खे संसार सुखा समाधानात आशिल्लो आमकां पळोवपाक मेळटलो आशिल्लो. पुण तशें जायना. कारण दर एकटो आपण्यालो धर्म वाडोवपाक सोदत आसता. आपण्यालोच धर्म सर्वस्रेश्ट आनी हेर सगळे धर्म अनागरिक आसात, ते सगळे धर्म नश्ट जावचे आनी आपण्यालो धर्मच संसारभर पातळचो अशें दर एकट्याक दिसता. अशें दिशिल्ल्यान स्पर्धा आनी द्वेश निर्माण जातात, झगडीं-झुंजां जातात आनी अनाचार अुफेता. अशें तरेन खर धर्माभिमानातल्यान अधार्मिकताय वाडत वता आनी असंख्य धर्म आशिल्ल्या ह्या भूंयेर सधर्म सोदल्यारय मेळना. ही परिस्थिती बदलप कशीं हाजेर महात्मा गांधीजीनी खोलायेन विचार केल्लो.

### सर्वधर्म समभाव

धर्म कलह जायत आशिल्ल्यान संसारातले सगळे धर्म ना करप? काय सगळे धर्मातले बरे विचार आसपाविल्लो एक नवो विश्वधर्म निर्माण करप? संसारातले सगळें धर्म ना करपाक सादलें जायत तर नवो विश्वधर्म निर्माण करपाक अडचण जावपाची ना. पुण संसारातले सगळें धर्म ना करप साध्य जायत? हाची जाप नकारात्मक आसतलीं. कारण धर्मभावनेचो अुद्रेक सदांच अुफेत आसता. ताका डांभिकतायेचो जोर मेळता. दुरभिमानाचो मद चडता आनी कांय वेळार मनीस मदांदय जाता. अशें वेळार तो धर्माचेर तौलनिक विचार करपाच्या स्थितीत नासता. सर्वसाधारण सगळ्यांची चड अुणे प्रमाणांत हीच स्थिती आसता. असल्यांक तुमचो धर्म नश्ट करात अशें सांगल्यार ते आयकुपाचे तर नातच, अुरफाटे सांगतल्यांक ते ना करपाक भायर सरतले. अशें परिस्थितीत सगळें धर्म ना करपाचे काम साध्य जावपाचें ना आनी तें ना केल्याबगर सर्वमान्य असो समन्वयकारक नवो धर्म घडोवप साध्य जावपाचो ना. हांतल्यान वाट कशीं काडप? महात्मा गांधीजीन हांतल्यान एक सुवर्ण मध्य मार्ग सांगलो. ताका ताणी सर्वधर्मसमभाव अशें म्हळें.

### समन्वय घडटलो

संसारातल्या धर्माधर्मांमदीं वैयनस्य, द्वेश, झगडीं, झुंजां आनी विरोध आसा तो ना करप आनी सगळ्या धर्मांतल्या लोकांक सामाजिक वावरात एकठांय हाडप. सगळ्यांनी आपण्यालो धर्म नेमनिश्टेन पालन करप, पुण तांच्यात हेर धर्मांच्या नेमनिश्टेविशीं अुणाकपण आसपाक जायना. सगळ्या धर्मांकडेन आदरान पळोवप. तांचे वांगडा मायेमोगान रावप. धर्मा विशींचो दुरभीमान, कुड्डेपण, संकुचित नदर आनी कर्मकठ्ठेपण सोडलें जायत तर हें सोपेपणान सादपाक जातलें. हेर धर्मांत जें बरें आसा ताजो अभ्यास करप आनी तें आपणावन घेवपाचो यत्न करप. अशें घडत तर हेर धर्माविशीं समभाव निर्माण जाल्याबगर रावना. धर्मानांवान झुंजां पेटोवपी जे आसतात तांका खरें म्हळ्यार आपण्याल्या धर्मातली तत्वांच सारखी खबर नासतात. मनशाल्या अपक्क विचारांतल्यान समाजात आयिल्ल्या अनिश्ट रुढी परंपरेकच ते धर्मतत्वां म्हणतात. अर्थात ते अधर्मच करत आसतात. अशें जावपाक जायना आसत तर आदीं सगळ्यान आपण्याल्या धर्माचो खोलायेन अभ्यास करपाक जाय. हें घडत तर विश्वसमाज जाय

तो निवळटलो. अुपरांत सगळ्यांनी हेर धर्मांविशीय तौलनिक अभ्यास करपाक जाय हातल्यानच एकमेकांक एकमेकांविशी आनी तांच्या धर्माविशीं चड वळख जातलीं. तांच्यांत आत्मीयता वाडतलीं, समन्वय घडतलो आनी संसारभर सर्वधर्म समभावाचे नितळ वारें व्हांवतले अशें महात्मा गांधीजीनी परतें परतें सांगलें.

## समन्वयाचो प्रयोग

ताणीं जें कितें सांगलें तें प्रत्यक्षात हाडपाक ते वावुल्ले. विंगड-विंगड वंश, विंगड-विंगड धर्म आनी विंगड-विंगड भाशीक लोक आशिल्लो भारत देश तांका फाव तसो मेळ्ळो. बरी प्रयोग शाळा तांका मेळ्ळी. हांगा द्रवीड आनी ऑस्ट्रायिड वंशाचे काळे लोकय आसात. हिंदू, बौद्ध, मुसल्मान, क्रिस्तांव, शीख, पारसी, जैन, लिंगायत आनी हेर धर्म आनी तांचे पंथय आसात. शिवाय ह्या धर्मापंथांतय असंख्य जात्यो आनी अुपजात्यो आसात. भारतातल्या सगळ्या धर्मात वैर सांगिल्ल्या सगळ्या रंगाचे म्हळ्यार वंशातले लोक आसात आनी तांचो संकर जायत आयलां. हांगा वंश भेदाची भुतावळ ना. पुण धर्मधर्मांतले वेगळेचार, अस्पृश्यताय आनी जातींजातींममदले अुच्च-नीच भाव जळीं-मळीं अणभवाक येतात. ह्या सगळ्यांचो महात्मा गांधीजींनी बारकायेन अभ्यास केलो. हो सामाजीक असमतोल ना केल्या बगर भारत देशाक अुजळ फुडार ना हाजी तांका बरी जाण आशिल्ली. हरीजनोद्धाराचे तंत्र भारतीय स्वतंत्रताये चळवळीचे एक म्हत्वाचे आंग अशें तांणी आपणायिल्ले. अस्पृश्यताय ना केल्यारच हरिजनोद्धारातल्यान राश्ट्राची अुदरगत बरी तरेन सादतली अशें तांका दिसलें. भारतीय समाजाचे एक आंग दुबळे आसत तर सर्वांगाचो विकास कसो जातलो?

गांधीजीन समन्वयाचो आधार घेवन आपण्यालो आस्त्रम अुबो केलो आनी जातीय समन्वयाचे कार्य सोपेतरेन करपाक येता हें दाखोवन दिलें.

## सगळे स्त्रेय गांधीजीक

आमच्यांत सगळ्यां विशीं आदरभाव आनी आत्मीयता निर्माण जायत तर परंपरेन चलत आयिल्ली जातीय संस्था मोडप असाध्य न्हय हें तांणी सिद्ध केलें. सगळी राजकीय चळवळ जातीय समन्वय, अस्पृश्यता निवारण, सर्वोदय आनी अंत्योदय

ह्या चार खांब्यार तांणी उबीं केलीं. आपणाल्या लिखाणांतल्यान, अुलोवपांतल्यान आनी कृतींतल्यान तांणी हाजो प्रचार केलो. अस्पृश्यावांगडा वैल्या जातींच्या लोकांचे सहभोजन, रस्ते आनी संडास निवळ करपाक वैल्या जातींतल्या लोकांकय प्रवृत्त करप आनी आंतरजातीय लग्नांक प्रोत्साहन दिवप ह्या कार्यावळींतल्यान तांणी भारतीय लोकमानसात अभूतपूर्व क्रांती घडयली. अखो भारतीय विराट समाजपुरुस त्या क्रांती मार्गार दांग मारत मुखार वचपाक लागलो. ह्या म्हान क्रांती पर्वाचे घटक जावपाचे सौभाग्य ह्या विसाव्या शेकड्यांत भारतात जल्माक आयिल्ल्यान आमकां मेळ्ळें. आमी ह्या क्रांती पर्वाचे एक घटक हाजो आमकां अभिमान दिसता. फुडारात जेन्ना भारतीय इतिहासाचे मूल्यमापन जातलें तेन्ना हो काळ जाका आमी गांधीयुग म्हणटात तो काळ – प्रगतिशील क्रांती पर्व अशें इतिहासात भांगरा अक्षरान बरयिल्लें आसतलें. जातीकातीचे भेदभाव नासतना संघर्षरहित नवो समाज जो फुडारात घडटलो ताजे पूर्ण स्रेय युगपुरुस महात्मा गांधीजींकच फाव जातलें.

●●●

20.

# दक्षिण भारतातली चालुक्य शिल्पकला

दक्षिण भारतात चालुक्य घराण्याची राजवट चलत आसतना कला, साहित्य आ
संस्कृतायेचे वाठारांत बरीच उदरगत जाली. कर्नाटकातल्या बादामी शारा
सत्याश्रयान ह्या घराण्याची राजवट सुरू केली.

तो 'पैलो पुलिकेशी' ह्या नांवान इतिहासात नामनेक पावला. ही चालुक्य राजव
सुमार दोन शेकडो मेरेन भोंवतणचे वाठारात राज्य करताली. सातवे शेकड्यातल
पयल्या आनी दुसरे दशकात राज्य करपी 'दुसरो पुलिकेशी' व्हड नांवारूपाक पावल
त्या उपरांतय चालुक्य घराण्याचो शेक चलत आशिल्लो. पुण आंठवे शतकांत चालुक्यां
प्रभाव उणो जायत गेलो आनी राष्ट्रकूट घराण्याची राजवट प्रभावी जायत गेली. धा
शेकड्याचे निमाणचे काळात कल्याणात राज करपी चालुक्य राजा तैलपान राष्ट्रकू
राजवटीचेर जैत मेळोवन आपणालो प्रभाव वाडयलो. ह्या राजघराण्यातलो 'स
विक्रमादित्य' राजा व्हड नामनेक पावलो. ह्या राजघराण्यान दोन शेकडो मेरेन आपणा
राजवट चलयर्ली. बादाम आनी कल्याणच्या ह्या दोन चालुक्य राजवटी शिवाय सात
शेंकडो तो इकरावो शेकड्या मेरेन आंध्र प्रदेशात विजयवाडा आनी राजमहेंद्री हां
राजपाटणांतल्यान वेंगीचे चालुक्य राज्य करताले. आंध्र प्रदेशातल्याच वेमुलवाड ह
राजपाटणातल्यान आठवो शेकडो ते धावो शेंकडो मेरेन राज करपी चालुक्य राजा
इतिहासात नामनेक पावल्यांत. ह्या शिवाय कांय चालुक्य राजघरांणी दक्षिण भारत
विंगड विंगड काळांत विंगड विंगड वाठारांत राज करत आशिल्लीं. अशें तरेन स
शेंकडो ते इकरावो शेकड्या मेरेन राज चलयिल्ल्या राष्ट्रकूट राजांनी धर्म-संस्कृतायेच
उदरगत करपाक देवळां, अगरशाळां आनी हेर सांस्कृतिक केंद्रा बांदलीं. त्या काळा
दक्षिण भारतात वास्तु-शिल्प उदरगीत पावले. त्या चालुक्य काळातल्या शिल्पकले

दर्शन दक्षिण भारतात भोंवतल्यांक आजय जायत आसता. त्या शिल्पकलेचेर नदर मारत तर त्या काळ्ळात सामाजिक, आर्थिक, धार्मिक, शैक्षणिक आनी सामाजिक परिस्थिती कशी आशिल्ली ताजी जाणीव जाल्या बगर रावना. शिल्पकलेचे नदरेन विचार केल्यार चालुक्य राजवटीचो काळ भांगराचो काळ अशे म्हणत तर अतिताय जावपाची ना. त्या काळ्ळात शिल्पकलेच्या वाठारात जाय ते नवें प्रयोगय जाल्ले.

बादमिच्या भोंवतणचे वाठारात पट्टदकल्ल, ऐहोळे, महाकूट, नागराळ आदीं वाठारांत आशिल्लीं देवळां चालुक्य वास्तु शिल्पांचे मोलादीक दर्शन घडयतात. ह्या देवळांत हिंदू, बौध आनी जैन देवळांचो आसपाव आसा. ऐहोळेत आशिल्ल्या कोटाची वणतय शिल्पकलेची सोबितकाय दाखोवन दिता. महानंदीत आनी सत्यवोलु हांगा आशिल्ल्या देवळांचे वास्तुशिल्प जशें ओडलायणे आसा तशें अलंपूर वाठारांतलें वास्तु-शिल्पय नदरेक खोसदेणे आसा. बादामी वाठारात व्हड- व्हड पाशाण कोरावन तयार केल्लीं गुहा आसात. तशीं तयार केल्लीं काय देवळांय आसात. हिंदू आनी जैन संप्रदायाचे हें जें गुहाशिल्प आज दक्षिण भारतात पळोवपाक मेळटा तें चालुक्य गुहा शिल्प सगळ्यांत आदलें गुहाशिल्प अशें जाणकारांचे मत आसा. बादामीत चार गुहाशिल्प आसात. तांतली दोन गुहा वैष्णव संप्रदायाचीं आसात. तिसरे शैव संप्रदायाचे आसा आनी चौथे जैन संप्रदायाचे आसा अशें इतिहासकार सांगतात. ह्या गुहेंत आसात तसले रूंद खांबे आनी सोबित शिल्पकला आशिल्ल्यो वंट्यो दक्षिण भारतात हेर वाठारांत पळोवपाक मेळनात. माथ्यावेल्या वटेनय सोबित कोरायिल्लीं चित्रां नदरेक पडतात. तांतल्या दोनय वैशणव गुहेंत आनी शैव गुहेंत अर्धनारीश्वर हरिहर, महिषमर्दिनी , नरसिंव, शेषार आड पडिल्लो विष्णु, त्रिविक्रम, वराह आदीं शिल्पां पळोवपाक मेळटात. एक गुहेच्या मुखावेल्या वटेन अठरा हातांचो नटराज कोरायिल्लो आसा. तो दिसपाक सोबित आसा. पळतल्यांची नदर ताजेर कांय् काळ थिरावल्या बगर रावना. चारय गुहा पळयत तर त्या सगळ्यांचे शिल्प एकच शिल्पकला परंपरेचे आसा हाजी जाणीव जाल्या बगर रावना. उगडो दिसपी मुखावेलो भाग, रूंद खांबे आनी इल्लेशींच गर्भकूड हे तांचे नदरेक भरपी खाशेलेपण आसा. जैन गुहेत पार्श्वनाथ आदीं तीर्थंकर यक्षीणीवांगडा उबे राविल्ले मनशां आकाराचे पूर्ण शिल्प कोरायिल्ले पळोवपाक मेळटा. शैव गुहेतय मनशा आकाराचे पूर्ण शिल्प आसा. स हाताचो नटराज सप्तमातृके वांगडा थंय कोरायलां.

चालुक्य राजांनी बांदिल्ल्या देवळांत दिसपी शिल्पकला दक्षिण भारतातल्या शिल्प कलाकारांनी स्वतंत्र तरेन आपणायिल्ली आसा अशें कांय जाणकारांचे मत

आसा. महाकूट, बादामी पट्टदकल्ल आनी अैहोळेत आशिल्ल्या देवळांतलीं शिल्पकला ताजी साक्ष दिता अशेंय ते सांगतात. विरुपाक्ष महाकोटेश्वर, मालागेती शिवालय आदीं देवळांतल्या शिल्पकलेत खाशेले पण आसा. थंय हेरांचे अनुकरण दिसना हें पळयतल्यांक दिसल्या बगर रावना. पुण हेर कडेन जे चालुक्य राजवटीतले शिल्प पळोवपाक मेळटा त्या शिल्पकलेचेर हेरांचो प्रभाव पडिल्लो दिसता. द्रविड (दक्षिणात्त्य) आनी नागर (औत्तरेय) शिल्पकलेचो संगम त्या चालुक्या शिल्पकलेत दिसता. चालुक्य देवळांचे घुमट पळयल्यार हें ध्यानात येता. चालुक्य शिल्पकलेचेर बौधवास्तु शिल्पाचोय प्रभाव पडिल्लो दिसता. अैहोळेत उपरांत बांदिल्ल्या लाडखान देवळ, दुर्गादेवळ आनी हुच्चमल्ली देवळांचेर नदर माल्ल्यार तो प्रभाव ध्यानात आयल्या बगर रावना.

बादामीच्या चालुक्य राजवटीच्या काळात द्रविड आनी नागर शिल्पकलेच्या संयोगान निर्माण जाल्ली वास्तु-शिल्प कला फकत दक्षिण भारतातच नदरेक पडटा असें न्हय तर ताजो प्रभाव दक्षिण आशियातल्या जायत्या देशांतल्या शिल्पकलेचेरय पडिल्लो दिसता. पट्टदकल्ल, बादामी अैहोळ आदीं वाठारांत ब्रह्मा, विष्णु, शिव आनी दुर्गा ह्या देवांचे विंगड-विंगड अवतार, तशएंच रामायण, महाभारत भागवत आदीं कथांचे निरूपण करपी शिल्प चित्रां द्रविड आनी नागर शिल्पकलेंच्या संगमातल्यान चालुक्य शिल्प-कला उदरगतीक पाविल्ल्याचे दाखोवन दितात. दक्षिण आशिया देशांत उदरगतीक पाविल्ल्या शिल्प-कलेतय अशें तरेची शिल्प-चित्रां पळोवपाक मेळटात.

बादामी चालुक्य राजवट अस्ताक पावल्या उपरांत चालुक्य शिल्पकलेक आधार मेळना जालो. राष्ट्रकुट घराण्याचे राजा तेन्ना प्रबळ जाल्ले. पुण धावो शेकडो सोंपतना कल्याण वाठारातले चालुक्य राज घराणे उदयाक आयले. तांची राजवट महाराष्ट्र, आंध्र आनी कर्नाटक राज्यांच्या कांय वाठारांत चलताली. तांच्या काळात चालुक्य शिल्पकलेक परत बरे दीस आयले. त्या काळात निर्माण जाल्लीं देवळां आज कर्नाटक, आंध्र आनी महाराष्ट्रात पळोवपाक मेळटात. ह्या घराण्याचे राज्य धावो शेकडो मेरेन गडगडताले. त्या काळात जी शिल्पकला उदरगतीक पावली ती बादामी चालुक्य काळात निर्माण जाल्ल्या शिल्प कलाकृती भशेनच जरी आशिल्ली तरी गरजेक अणसरून ताच्यात जाय तो बदलय जाल्लो. देवळांचे घुमट बांदतना रचनातंत्र अशें बदलिल्लें दिसता तशें अलंकार पद्धतय बदलिल्ली नदरेक पडटा. शिल्प कलाकृती करपाक वाफरिल्ल्या पाशाणांतय बदल जाल्लो कळटा. हो बदल सावकाशायेन जायत गेला. कुक्कनूरातलीं नवलिंग आनी कल्लेश्वर देवळां, लक्कुंडीचे जैन मंदीर, चौडदानपूरचे मुक्तेश्वर देवळ,

हावेरीचे सिद्धेश्वर देवळ, हरहळ्ळीचे सोमेश्वर देवळ आनी नीरळ्ळीचे सिद्दरामेश्वर देवळ पळयत तर चालुक्य शिल्पकलेत सावकाशायेन कसो बदल जायत गेलो तो सहज कळटा. अशें तरेन बदल घडत बारावो शेकडो येतना चालुक्य शिल्पकला उदरगतीच्या वैल्य पावंड्यार पावली. लक्कुंडीचे काशीविश्वेश्वर देवळ, किरवत्तीचे मल्लीकार्जुन देवळ आनी इटगीचे म्हादेव देवळ पळयत तर चालुक्य शिल्पकला उदरगतीच्या तेंगशेर पाविल्ली दिसता. उटगीच्या म्हादेव देवळाक 'देवळांचो सम्राट' अशें एका शीलाशासनात म्हळ्ळें आसा. बळ्ळीगांवचे त्रिपुरांक देवळ, अरसीबीदीतले चालुक्य देवळ, बेलूरचे देवळ हीं चालुक्य शिल्पकलेच्या परंपरेतलीं देवळां आसात. तांचे बांदप करतल्यांनी आपणाल्या उंचेल्या कलाशक्तीचे दर्शन घडयलां. देवाची म्हुतीं कोरायतना कलाकारांनी आपणाली म्हान कला प्रदर्शीत केल्या हें हिरेमण्णूरची केशव देवाची म्हूर्त, मदनिकेची म्हूर्त, थंचीच ब्रह्माची म्हूर्त, जलसंग्वीची स्त्रीशिल्प आदीं पळयत तर स्पश्ट दिसता. त्या शिवाय विंगड-विंगड वाठारांतल्या देवळांत झाडां, वाली, चंद्र, सूर्य, सवणीं, वाद्यां, पुराण कथा, आदीं पाशाणांचेर सोबीत कोरायिल्लीं पळोवपाक मेळटात.

बादामी आनी कल्याण चालुक्य राजघराण्या भशेनच आंध्रप्रदेशात वेंगील शारात राजपाटण आशिल्ले चालुक्य राजघराणे भोंवतणच्या वाठारात सातवो शेकडो ते इकरावो शेंकडो मेरेन राज्य करताले. त्या राजवटीच्या काळांत शेंकड्यांनी देवळां बांदलीं. ते विशीं शासनात बरयिल्ले आसा. पुण तीं देवळां खंची हें नित्सीपणान सांगप आज साध्य ना. तांतली थोडीं देवळां मात वेंगील चालुक्य राजांनी राज्य केल्ल्या वाठारांत जायतीं पोन्नी देवळां वेंगील राजाचे काळातच बांदिल्लीं आसात हाजो नित्सीत पुरावो ना. इतिहास संशोधन जायत तर कांय काळा उपरांत ताजेर उजवाड पाडपाचो संभव आसा. पुण चिक्कवोलुं गांवात आशिल्लीं गोलिंगेश्वर देवळ, राजराजेश्वरी देवळ, चंद्रशेखर देवळ आदीं देवळां शिवाय द्राक्षाराम देवळ, भीमेश्वर देवळ, नारायण देवळ, सोमेश्वर देवळ, रामलिंगेश्वर देवळ आदीं देवळां त्या काळातच बांदील्लीं हाजे पुरावे मेळटात. बेजवाडचे व्हड द्वारपालक शिल्प, किक्कवोलातली भव्य गणेश म्हूर्त आनी जमदोड्डी पळ्ळीत दिसपी जाय तीं शिल्पां वेंगील चालुक्य राजवटीतच निर्माण जाल्ल्याचे जाय ते पुरावे आसात. ह्या राष्ट्रकूट, पूर्ववंग, पल्लव, चोळ आदीं राजांल्या राजवटीत उदरगतीक पाविल्ल्या शिल्पकलेंचोय प्रभाव व्हड प्रमाणात पडिल्लो दिसता. अशें तरेन त्या काळात दक्षिण भारतीय शिल्प कलेत विविधताये वांगडाच सगळ्या म्हान शिल्प कलेचो ओडलायणो संगम घडिल्लो पळोवपाक मेळटा.

बादामी, कल्याण आनी वेंगील चालुक्या भशेन आनी जाय ते चालुक्य राजा दक्षिण भारतात राज्य करताले. आंध्रप्रदेशातल्या करीमनगर शारात राजपाटण आशिल्ले चालुक्य भोंवतणचे वाठारांत आठवो शेंकडो ते धावो शेंकडो मेरेन राज्य करताले. तशेंच वेमुलवाडातय एक चालुक्य राजघराणे राज्य करताले. तांणी बांदिल्ली राजेश्वर देवळ आनी भीमेश्वरालय देवळ, शिवाय शुभधाम जीनालय, आदित्यगृह, नगरेश्वरालय आदीं बांदकाम आजय पळोवपाक मेळटा.

दक्षिण भारतात राज्य केल्ले चालुक्य राजा भोवतेक कला प्रेमी आशिल्ले. तांणी फकत शिल्पकलेकच प्रोत्साहन दिलें ना तर ते हेर कलेचेय मोगी आशिल्ले. लोकहिताचे काम करत आसतनाय ते धर्मपालन करपाक वावुरताले हिंदू, जैन, बुद्ध आदि सगळ्या धर्मसंप्रदायांक तांणी आलाशिरो दिल्लो. भारतीय संस्कृताय घडपाच्या प्रक्रियेत चालुक्य राजघराण्यांचो व्हड वांटो आशिल्लो हें भोवतेक इतिहासकार मान्य करतात.



21.

# सगळ्यांचो हावेस फळादीक जावंदी!

कोंकण भारतीचो हो दिवाळी अंक वाचप्यांक दितना भोव खोस भोगता. उमाशेची काळकी रात उजवाडाच्या दिव्यांनी पेटोवन भोंवतण सगळो परजळीत करपाक दिवाळेची परब मनयतात आनी रंगरंगयाळे सुखासमाधानाचे नवें सपन आमी रंगयतात. हें सपन नवें वर्सांचो फुडार घडोवपाक उमेद दीत आसता. सगळ्यांक उदरगतीच्या वाटेर व्हरपाक हें उमेदीचे वारें हातभार लायतले आनी उजळ फुडार घडयतले अशें आमी आस्त बाळगितांव!

मनीस सपनेल्ले जीण जगता. जीणेच्या वाटेर पावलां कणकणी आडांबे आशिल्ल्यान खिणा-खिणाक तापत्रय भोगत आसतनाय तो फायचे सपन रंगयत आसता. ह्या सगळ्यांची सपनेल्ली सपनां फळादीक जातातच अशें ना. कांय जाणालीं जीणेतलीं सपनां सपनांतच सोंपतात. काळकी रात सोंपल्या उपरांत उजवाडाचो परजळीत दीस सगळ्यांच्या वाट्याक येताच असो ना. एक दीस बरो उदेल्यार दुसरो दीस कांटे-खुंटे मांडयतच सोंपता. एक दीस रंगरगयाळे दिवे पेटयत चोंयवटेन परजळीत उजवाड फांकता तर दुसरो दीस काळो कीट्ट काळोख पसरावन सगळे तरेन जीवाक घुसमटायता. कांय वेळार परजळीत लख्ख उजवाड फांकिल्लो आसतनाय काळी कुपां मळबार सरकत आसतात तर कांय वेळार गुप्प काळोख आसतनाय रात राणयेचो परमळ पसरत आसता. फुडारात अशें सुख-दुःखाचे जाय ते प्रसंग आयले तरी आपल्या बुदवंतकायेचे ज्ञान दिवे परजळावन उजळ फुडारा कडेन दांग मारत पावलां मुखार घालत रावपाक जाय हो संदेश अुमाशेच्या गुप्प काळाकातय असंख्य दिव्यांचो परजळ फांकत आमकां दिवाळी दीत आसता. हो संदेश सदां-सर्वकाळ ध्यानात दवरत तर आमी खंच्याय परिस्थितीत आमचे आड आयिल्ले आडखळ ना करपाक शकतात.

जीणेत आमचे सामकार जाय ते आडखळ आसतात. जाय ते आडखळ आमचे अज्ञान हाडत आसता. आमचे अज्ञानच आमचे दुस्मान आसता. आमचे भोंवतणे जाय ते नरकासूरय आसतात. हें नरकासूर कोण हें कळप कठीण आसता. त्या खातीर ज्ञानाची गरज आसता. अणभवाचे तेल आसले बगर ज्ञानाचे दिवे पटोवपाक जायना. जांका उजळ फुडार घडोवपाचो आसता तांणी आपले सगळे इंद्रीय सदांच जागे दवरपाक जाय. चोंयवटेन जें - आसता ताजें आकलन करपाक जाय. तेना बरे खंचे, वायट खंचे ते समजता. अशें तरेन जेन्ना अणभवाचे तेल आमी संग्रह करतात तेन्ना ज्ञानाचे दिवे परजळीत पेट्टात. त्या उजवाडात नरकासूर कोण ते कळपाक लागता. त्या नरकासुरांचो कांटो जेन्ना आमी काडतले तेन्नाच आमचो फुडार परजळीत जातलो हें आमी सदांच ध्यानात दवरपाक जाय.

पंटीत अणभवाचे तेल सतत घालत गिन्यानाचे परजळीत दिवे पेटोवन उजळ फुडार घडोवपाचो आमच्या वाचप्यांचो हावेस फळादीक जांव!



22.

# क्रिकेट

आज भारतात सगळ्यांत चड लोकप्रिय खेळ म्हळ्यार क्रिकेट. हाजो अर्थ सगळेच जाण क्रिकेट खेळटात असो न्हय. शाळा-कॉलेजिंत आनी वाड्या-वाड्यार कांय पंगड आसात. कांय कडेन संस्थेचे रुपय त्या पंगडांक दिल्ले आसा. तांची वेल्यावैर प्रेक्टीस चलत आसता. वेगवेगळ्या पंगडामदीं सर्तीय जायत आसतात. वाड्या-वाड्यावेल्या पंगडांमदी जशीं सर्त जाता तशीं राष्ट्रां-राष्ट्रांमदींय क्रिकेट सर्त जाता. अशें तरेन वाड्या वाड्यांतल्यान अंतरराष्ट्रीय पांवड्यामेरेन हो क्रिकेट खेळ खेळपी लोक असंख्य आसात. पुण क्रिकेट खेळ पळोवपी वा त्या खेळाविशीं उत्सुकताय आशिल्ले ताजे परस हजारों पटीत चड आसात. क्रिकेट सर्त जावपा वेळार रेडियोचेर ते आयकुपी आनी दूरदर्शनार पळोवपी लोक प्रत्यक्ष ती सर्त पळोवपी लोकां परस कितले तरी पटीन चड आसतात. दुकानां सामकार मारगार उबे रावनय अुत्सकतायेन ते लोक खेळाचो रसस्वाद घेत आसतात.

तसो पळयत तर हो खेळ सगळ्या संसारभर लोकप्रिय ना. भारतासारखे एक काळात ब्रिटीश साम्राज्यात आशिल्ल्या सगळ्यांच राष्ट्रांत हो खेळ आसा असोय ना. कॅनडा, ब्रह्मदेश सारखे जाय ते देश क्रिकेट खेळाक म्हत्व दियनात. अमेरिका, रशिया, चीन, जपान, जर्मनी, इंडोनेशिया आदीं संसारातल्या जायत्या राष्ट्रांत क्रिकेट खेळ खेळपी नात.

भारतातल्या भशेन क्रिकेट लोकप्रिय आशिल्ले कांय देश संसारात आसात. इंग्लंड, ऑस्ट्रेलिया, न्युझिलंड, वेस्ट इंडिज, झिंबाम्बे, पाकिस्तान, दक्षिण आफ्रिका, श्रीलंका आदीं देशांतय क्रिकेट मोगी आनी खेळपी आसात.

हो क्रिकेट खेळ सुरवेक इंग्लंडात खेळटाले. पुण तो थंय केन्ना सुरू जाल्लो आनी

तो खेळ खेळपाची पद्धत आदीं कशीं आशिल्लीं हें विशीं नित्सीपणान आतां सांगप कठीण आसा. क्रिकेट वा क्रिकेटा सारखोच एक खेळ तेरावो शेकड्यात इंग्लंडात खेळटाले अशें म्हण्टात. किरिस्तांव पाद्री तो खेळ उमेदीन खेळटाले. एक लांब तोणो आनी एक चेंडू घेवन तेन्ना खेळाटाले.

गिल्फोर्ड ग्रामर स्कुलातले विद्यार्थी हो खेळ खेळटाले म्हळ्ळो दाखलो मेळटा. त्या काळात सेंट अस्बेन गांवात 16 सालात एक क्रिकेट क्लबाची स्थापणुक जाल्ली. पुण कांय जाणांचे मतान जनरल ऑलिवर क्रॉमवेल हागेल्या मुखेलपणाखाल ह्या खेळाचे नेम तयार केल्या उपरांत हो खेळ लोकप्रिय जायत गेलो. सुरवेक गांवगिऱ्या वाठारांत हो खेळ खेळटाले. उपरांत तो खेळ सावकाश शारांत पावलो. सतरावे शेकड्यांत ताका चड म्हत्व आयलें. 1744 सालात त्या खेळाचे नित्सीत नियम तयार जालें.

इंग्लंड राज घराण्यात एवर्ड राजाल्ल्या काळात बरयिल्ल्या हिशोबात युवराज वेल्सा खातीर 'क्रीज' खेळाचेर केल्ल्या खर्चाची नोंद आसा. त्या वेळार क्रिकेट खेळ राजघराण्यातय पाविल्लो हें ताजे वेल्यान कळटा.

अठराव्या शेकट्यात हो खेळ खेळटना पण लायताले. एक तरेचो तो सट्टोच जाल्लो. पण जिखपा खातीर कांय जाण अंपायरांक लांच दिवपाक लागले. जसो पण व्हड आसतालो त्या प्रमाणांत अंपायराक लांचय व्हड आसताले. त्या प्रमाणांत अंपायराक लांचय व्हड प्रमाणात मेळपाक लागले. अशें तरेचीं प्रकरणां खूबच जावपाक लागलीं. आपणाक जाय तशें नियम अंपायर करपाक लागिल्ल्यान खेळात एकसूत्रताय ना जाली. निमाणे हातल्यान वाट काडपा खातीर 1835 सालांत खास नेम तयार केलें आनी अंपायरांनी पण लायिल्ल्या खेळांत वांटो घेवचो न्हय अशें बंधन घाले.

क्रिकेट खेळपा खातीर 1750 हॉबल्डन क्लब सुरू केल्ल्यान त्या खेळात सुसूत्रताय आयली आनी शास्त्रबद्ध तरेन ताजो विकास जावपाक लागलो. 1783 हॉबल्डन आनी कँट हांचेमदीं क्रिकेट सर्त जाली. ह्या सर्तिन दोनय पंगडानी काडिल्ल्या धांवड्यांची संख्या एकच आशिल्ली. हॉबल्डन क्लबाचे वतीन खेळिल्लो जॉन स्मॉल हाणे क्रिकेट इतिहासात नोंद जाल्ले पैलेवैले शतक काडपाचो मान मेळयलो. पुण हो क्लब उपरांत आदल्या भशेन उरलो ना. 1787 सालांत मेरी लेबाँन क्रिकेट क्लब सुरू जाल्ल्यान ताजे म्हत्व उणे जायत गेले. तो क्लब 1783 सालांत निमाणचो खेळ खेळ्ळो.

टेस्ट मॅच खेळपा खातीर 1898 सालात एक नियंत्रण मंडळ घडयलें. तेन्ना सावन टेस्टमॅची जावपाक लागलीं. सुवरेक मॅची इंग्लंड देशातल्या वेगवेगळ्या पंगडांमदीं जातलीं. उपरांत तीं दोन देशांमदल्या पंगडांत जावपाक लागलीं आनी क्रिकेटाक

अंतरराष्ट्रीय पावंडो मेळ्ळो.

भारतात क्रिकेट 1721 सालांत पावले. ईस्ट इंडिया कंपनीचे तारवटीं इंग्लंडातल्यान आयिल्ले. ते वेळ मेळटा तेन्ना क्रिकेट खेळटाले. क्याँबेत तांणी थंय क्रिकेट खेळपाक सुरूवात केली. त्याच वर्सा कलकत्ता क्रिकेट क्लबाची सुरूवात जाली, संसारातले सगळ्यांत पोन्ने क्रिकेट क्लबांत हाजो क्रम दुसरो लागता.

सुरवेक भारतात क्रिकेट खेळ पारसी लोक खेळपाक लागले. 1886 आणि 1888 सालांत तांचे पंगड क्रिकेट खेळपाक भायल्या देशांत वचपाक लागले. 1888-89 सालात जी. एफ्. वेर्नोन हांच्या मुखेलपणाखाल पैलेवैलो क्रिकेट पंगड भारतात सर्त खेळपाक आयलो. 1911 सालात भारताचो पैलोवैलो क्रिकेट पंगड अधिकृत सर्त खेळपाक इंग्लंडात गेलो. 1926 सालांत इंपिरियल क्रिकेट कॉन्फरन्साचो भारत वांगडी जालो.

ह्या वेळार भारतात मुखेल शारांनी क्रिकेट खेळाचो प्रसार जायत गेल्लो. वेळ मेळता तेन्ना भारतातल्या वेग-वेगळ्या पंगडा मदीं सर्त जाताली. पुण त्या खेळ खेळपी पंगडामदीं सुसूत्रताय नाशिल्ली. त्या खातीर भारतात क्रिकेट खेळा खातीर एक केंद्र समिती आसपाची गरज आशिल्ली. हें ध्यानांत घेवन 1927 सालांत भारतीय क्रिकेट नियंत्रण मंडळाची सुरवात केली.

इंग्लंडाकडेन 1932 सालांत भारत पैले अंतरराष्ट्रीय टेस्ट - सर्त खेळ्ळे. तेन्ना फकत एकच डाव खेळील्ले. त्या अुपरांत जायत्या अंतराष्ट्रीय टेस्ट सर्तींत भारतान भाग घेतला. 1967-68 सालांत न्यूझिलंडा वांगडा जाल्ल्या सर्तींत भारतान पैलेवैले रबर जिखलें.

संसारातले सगळे देश आपणालो पैलोवैलो टेस्ट सर्तींचो अंतरराष्ट्रीय क्रिकेट खेळ इंग्लंडा वांगडा खेळ्ळ्यात. पाकिस्तान मात आपणालो पैलो वैलो अंतराराष्ट्रीय क्रिकेट टेस्ट सर्त 1952 सालांत भारता वांगडा खेळ्ळो.

आदीं क्रिकेट खेळटाना बेटींग करपी कितलीं धांवडीं काडतात ताजोच हिशोब जातालो. त्या वेळार भोंवतणची शीमारेशा नासताली. त्या रेशेभायर चेंडू गेल्यार धांवडी काडनासतना चार धांवडी मेळ नाशिल्ली. कांय वेळार खेळगडी पैस चेंडू मारताले आनी चारा परस चडय धांवडी काडताले. पुण 1900 सालात पैलेच फावट सीमारेशा (बौंड्री लायन) अस्तित्वात आयली. जो त्या सीमेभायर चेंडू मारता ताका धांवडी काडनासतना चार धांवडी दिवपाची सुरवात जाली. पैल्याच फावटी चेंडू शीमेरेशे भायर

जमनीर पडल्यार स धांवडी (सिक्सर) दिवपाची पद्धत 1910 सालांत सुरू जाली.

क्रिकेटात आज जे नेम आसात ते सुरवेकच नाशिल्ले. जशें-जशें खेळ खेळत गेले तशें तशें गरजेप्रमाणे नवें नवें नेम क्रिकेट खेळात जायत गेले. आतांय कांय नवें नेम जायत आसातत. फुडारातताय घडटले. आयच्या नेमातय बदल जावपाचो संभवय आसा.

सुरवेक जेन्ना क्रिकेट खेळटाले तेन्ना प्रतिस्पर्धी पंगडातल्या दर एका पंगडाक एक डाव खेळपाक दिताले. एक पंगडान दुसऱ्या पंगडातल्या सगळ्या गड्यांक बाद केल्या अुपरांत त्या पंगडातल्या सगळ्यांक आदल्या पंगडान बाद करचे पडटाले. दोनय पंगडातल्या ज्या पंगडान चड धांवडी काडल्यात तो पंगड जैतवंत जातालो. अुपरांत अशें तरेचे डाव दर एका पंगडान दोनवेळा खेळचो नियम केलो. दोनय खेळात काडिल्ली धांवडी ज्या पंगडाची चड जातात त्या पंगडाक जैतवंत थारायताले. सुरवेक दर का पंगडात दोन-दोन खेळ खेळपाक वेळेचे बंधन नाशिल्ले. खेळ एकेक फावटी स दीस चलतालो. अुपरांत खेळाक वेळेचे बंधन घाले. ती मुदत 3 वा 5 दिसांची दवरली. दोनय पंगडान त्या मुदती भितर दोन-दोन खेळ खेळपाक जाय. जर त्या वेळात दोनय पंगडाचे दोन-दोन खेळ पूर्ण जायत तर ज्या पंगडान दोनय खेळात चड धांवडी मेळयल्यांत त्या पंगडाक जैतवंत थारावपाक लागले. आतां ही पद्धत बहुतेक सगळ्यांनी आपणायल्या.

आतां एक दिसाचो क्रिकेट चड लोकप्रिय जायत गेला. ह्या खेळात दोनय पंगडाक तितलेच खेप चेंडू अुडोवपाक मेळटा. एक पंगडान बॅटिंग पैली करप, दुसऱ्या पंगडान चेंडु अुडोवप. तिनशे चेंडूत तांणी चडांत चड धांवडी काडपाचो यत्न करप. अशें करतना 300 परस अुण्या चेंडूत तांचे जर सगळे जाण बाद जालें तर त्या पंगडान तितल्यारच खेळ सोंपोवचो पडटा. अशें तरेन सगळे बाद जाले तशें वा 300 चेंडू खेळ्ळे तशें (हांतले खंचे पैली जाता ते बराबर) त्या पंगडान खेळ सोंपोवचो पडटा. अुपरांत दुसरो पंगड खेळटा. तांणी ह्याच नेमाप्रमाण आपणालो खेळ सोंपोवचो पडटा. एका दिसांत जो पंगड चड धांवडी काडटा तो पंगड जैतवंत जाता. दोना परस चड पंगड आसल्यार दर एका पंगडान हेर सगळ्या पंगडा बरोबर खेळचे पडटा. दर एका खेळा वेळार जो पंगड जिखता त्या पंगडाक कांय गुण मेळटात. शिवाय चेंडू अुडयतना विरोधी पंगडातल्या जितले जाणांक बाद केला त्या प्रमाणातय गुण मेळटात. सगळ्यांक बाद केल्यार चडावत गुण मेळटात. तेच बराबर दर एका पंगडाची सरासरी धांवडी कितली जालीं हेंवय पळयतात. ह्या सगळ्यांचो विचार केल्या अुपरांत सगळ्यांत चड

गुण मेळयिल्लो पंगड जैतवंत जाता.

हो क्रिकेट खेळ आदीं लोकप्रिय आशिल्लो. पुण तो त्या वेळार जे कोण खेळ पळोवपाक गेल्यांत तांकाच पळोवपाक मेळटालो. अुपरांत रेडियो आयलो, तेन्ना लोकांक घरात बशिल्ले कडेन त्या खेळाचे धांवते वर्णन आयकुपाक मेळपाक लागले आनी लोक अुत्सुकतेन आयकत खोस भोगपाक लागले. हालीं दूरदर्शन आयिल्ल्यान लोकांक तो खेळ घरात बशिल्ले कडेंन पळोवंक मेळटा. अशें जाल्ल्यान आता हो खेळ खूबच लोकप्रिय जायत गेला.

●●●

23.

# कोंकणींचो स्वाभिमान पेटूंक जाय!

गोंयकरांत तांच्या आवयभास कोंकणी वरवी पुरुषार्थ जागो करपाचो वावर हातान घेवन त्या कार्याची घट बुनयाद घालपी गोंयचे म्हान सुपुत्र शणय गोंयबाब हांच्या जल्मदिसा म्हाड्डोळचे स्वाभिमानी नागरीक, तांच्या पावलार-पावल दवरुन तांणी मुखार दवरिल्ले ध्येय सादपाखातीर कोंकणी सेवा केंद्र सुरू करतात ही पुरुषार्थी कोंकणी समाज घडोवपाच्या मार्गावेली एक महत्त्वाची घडणूक आसतली. गोंयकारपणाचे निजाचे संस्कार फुलोवपाक आनी अख्खो कोंकणी संस्कृतायेचो तो एक अविभाज्य घटक म्हळ्ळीं भावना सगळ्या गोंयकारांच्या काळजांत सदा तिगपाक ह्या कार्यातल्यान वाव मेळटलो. शणय गोंयबाबाची स्फुर्त घेवन हें जें कोंकणीचे कार्य सुरू केलां तांतल्यान शणय गोंयबाबाक अभिप्रेत आशिल्ले ध्येय सादपाचो आसत तर शणय गोंयबाबाक ह्या कार्याक प्रेरीत केल्ल्या इतिहासीक फाटभुंयेचो नियाळ घेवप गरजेचे आसतले.

शण गोंयबाब हांचो काळच तसो आशिल्लो. त्या परिस्थितीत तांचे सारखे बुदवंत आनी दुरदर्शी मनीस स्वभाशेची उदरगत करुन स्वजनांचो स्वाभिमान जागो करपाचो विचार करनासतना रावंकच शकनाशिल्लो. अख्ख्या भारतात त्या वेळार स्वतंत्रतायेचे वारे व्हांवताले. स्वभाशेतल्यान स्वाभिमान जागो करुन स्वराज्य मेळोवपाक जाय म्हळ्ळीं भावना भारतातल्या सगळ्या भाशीक लोकांत वाडत आशिल्ली. भारतातल्या सगळ्या भाशेत नवसाहित्याची, म्हळ्यार आधुनिक साहित्याची निर्मिती जायत आशिल्ली. तांतल्यान साहित्यिक क्रांती जायत आसतानाच समाजात व्हड प्रमाणात वैचारिक क्रांती जायत आशिल्ली. अशें वेळार कोंकणी भाशीक समाज वोगी कसो रावतलो? गोंय राज्यातय ती प्रक्रिया सुरु जाली. पुण हेर भाशीक लोकांक ज्यो काय अडचण्यो

नाशिल्ल्यो त्यो कोंकणी भाशीक समाजा सामकार आशिल्ल्यो. इतिहासातल्या दुर्दैवी घडणुकेन कोंकणी समाज विखंडीत जाल्लो. भौगोलीक नदरेन विचार केल्यार कोंकणी लोक गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ ह्या चार वाठारांत शेकड्यांनी मैल पैस फांपडून पडिल्लो. संस्काराचे नदरेन विचार केल्यार कोंकणी समाजाचेर पोर्तुगीज, मराठी, कन्नड आनी मळ्याळम संस्कृतायेचो प्रभाव पडिल्लो. ह्या सगळ्यांचो प्रभाव तांच्या आचार-विचाराचेर आनी भाशेचेर दीर्घ काळ मेरेन पडत आशिल्ल्यान ते संस्कृतायेचे नदरेन आनी भाशा-शैलीचे नदरेन एकमेकां कडसून पैस पाविल्ले. एक भाशीक आसुनय ते एकमेकांकडेन कोकणी भाशेतल्यान संपर्क साधपाक शकनाशिल्ले.

अशें तरेन विखंडीत जाल्लो कोंकणी समाज एकसंघ कसो करप हो एक यक्षप्रस्नच आशिल्लो. कोंकणी समाज एकठांय हाडपाक कोंकणी भास हे एकच माध्यम आशिल्ले. पुण ऐतिहासिक अपघातान कोंकणी साहित्य परंपरा विखंडीत जाल्ल्यान विंगड-विंगड संस्कार जाल्ले कोंकणी भाशीक लोक विंगड-विंगड शैलीत अुलयताले. सगळ्यांक कळपासारखी कोंकणी बरोवन साहित्य निर्मिती करपय साध्य नाशिल्ले. त्या वेळार कोंकणीक साहित्य परंपरा ना म्हळें तरी गोंयचे आनी मंगळूरचे किरिस्तांव आपणाली धार्मिक-वैचारीक भूक भागोवपाक धार्मिक साहित्याची निर्मिती करत आशिल्ल्यान तांच्या गरजेपुरती साहित्य निर्मिती जायत आसताली, गोंयचे किरिस्तांव रोमी लिपीत बरयताले. रोमी लिपीत कोंकणी बरोवपाची सुरवात पोर्तुगीज पाद्रींनी केल्ल्यान तांच्या बरपाचेर पोर्तुगीज ध्वनी रचनेचो प्रभाव पडलो आनी कोंकणीत अपभ्रंश उतरां घडली. कोंकणी शैली निजाचे रुप सोडून विकृत जायत गेली. तांणी बरयतना तोंडात येता तीं पोर्तुगीज उतरांय कोंकणीत हाडलीं. पोर्तुगेज धार्मिक अुतरावळ कोंकणीत आसपावप त्या काळात अनिवार्य आशिल्ले. अशे तरेन गोंयातले किरिस्तांव पोर्तुगीज संस्काराची कोंकणी शैली विकसीत करत आयले.

कर्नाटकात जे किरिस्तांव गोंयच्यान गेल्ले ते तांचेर पोर्तुगीज संस्कार जावचे आदींच गेल्लें. तांच्या भाशा शैलीचेर पोर्तुगीज संस्काराचे या पोर्तुगीज भाशेचो प्रभाव नाशिल्लो. पुण ताणी किरिस्तांव धर्म घेतिल्लो. जेन्ना ते कर्नाटकात पावले तेन्ना कन्नड भाशेत किरिस्तांव धर्माचे साहित्य नाशिल्ले. तांची धार्मिक साहित्याची भूक कन्नड भाशेतल्यान भागोवप साध्य नाशिल्ले. त्या खातीर तांणी आपणाल्या आवय भाशेत धार्मिक साहित्य निर्माण करपाचे केले. पुण त्या खातीर कन्नड लिपीचो ताणी अुपयोग केलो. ती लिपी तांका गोंयात आसतनाय परिचयाची आशिल्ली. ताजो तांका अुपयोग जालो. तांच्या धार्मिक साहित्यात किरिस्तांव धार्मिक अुतरावळ पोर्तुगीज जरी आसताली तरी हेर

अुतरावळ निवळ कोंकणी आसताली. कारण ते गोंय सोडून वतना पोर्तुगीज भाशेचे तांचेर तसो चड परिणाम जाल्लो नाशिल्लो. पुण कालांतरान कन्नड भाषेच्या प्रभावान तांच्या बरपात कन्नड अुतरांय येवपाक लागलीं. कन्नड संस्कृताचोय तांचेर प्रभाव पडत गेलो. त्या प्रमाणात ताची कोंकणी बरोवपाची शैली कन्नड प्रचूर जायत गेली.

अशें तरेन किरिस्तांव जाल्ल्या गोंयकार कोंकणी समाजात कोंकणीच्यो दोन शैल्यों निर्माण जाल्यो. तांतल्या गोंयच्या किरिस्तांव समाजान रोमी लिपीत धार्मिक साहित्य सोडत तर हेर तरेचे साहित्य बरयलें ना. कारण गोंयात तशें तरेचे साहित्य निर्मितीक योग्य अशें वातावरण नाशिल्लें. कोंकणी अुलोवपाकच बंदी घालपी पोर्तुगीज सरकार कोंकणी साहित्य निर्मितीक वाव कसो दितलो आशिल्लो? जे गोंयकार पोर्तुगीज तांणी काय काळा अुपरांत कोंकणीत हेर तरेचे साहित्य बरोवपाचो वावर केलो. ते बरोवपाक तांणी पोर्तुगीज साहित्यतल्यान स्फुर्त घेतिल्ली. पुण भारतीय संस्कृताय पोर्तुगीज संस्कृताये परस सामकीच वेगळी आशिल्ल्यान पोर्तुगीज भाशेतल्यान स्फूर्त घेवन बरयिल्ले तांचे कोंकणी साहित्य भारतीय वातावरणाकडेन समरस जावपा सारखे नासताले. शिवाय तांची कोंकणी भासय पोर्तुगीज संस्काराची जाल्ल्यान तांच्या बरपात जीवंतपणा नासताले. ते कृत्रीम जाताले. ह्या कारणांन ते साहित्य गोंयच्या समाजात पाळां-मुळा पातळावपाक शकलें ना. रोमी लिपीतलें कोंकणी साहित्य प्रतिभापूर्ण जायनासतना आसपाचे हेंच कारण आसा.

पुण कन्नड लिपीतले किरिस्तांव कोंकणी साहित्याक ही अडचण नाशिल्ली. तांका प्रगल्भ अशें भारतीय कन्नड साहित्य वाचपाक मेळटाले. ताजो प्रभाव तांच्या कन्नड लिपीतल्या साहित्याचेर जालो. कर्नाटकात आशिल्ल्या किरिस्तांवान कन्नड लिपीन धार्मिक साहित्यावांगडाच हेर तोलामोलाचे साहित्य घडयले.

गोंयकार किरिस्तांवांनी धार्मिक साहित्याची भूक भागोवपाक कोंकणी बरोवपाक सुरूवात केली आनी तांतल्यान रोमी लिपीत आनी कन्नड लिपीत कोंकणी साहित्य घडपाक प्रेरणा मेळ्ळी. पोर्तुगीजांनी गोंयात बाटाबाटी सुरू केल्ल्या काळाउपरांत रोमी लिपीत आनी गोंयकार किरिस्तांव कर्नाटकात गेले उपरांत कन्नड लिपीत कोंकणी साहित्य परंपरा सुरू जाली आनी तशीच अखंड चलत रावलीं. पुण गोंयकार हिंदूक त्या काळात धार्मिक साहित्याची भूक भागोवपाक कोंकणी साहित्य निर्मिती करपाची गरज लागली ना. कारण जे गोंयकार हिंदू केरळात वा कर्नाटकात गेले ते थंची स्थानिक भास रोखडेच शिकले आनी त्या भाशेंतले हिंदूधर्म -साहित्य वाचून आपणाली धर्मिक साहित्याची गरज भागोवन घेवपाक लागले. तांका कोंकणीत बरोवपाची तितली गरज

दिसली ना.

गोंयकार हिंदूची त्या वेळार विचित्र अवस्था जाल्ली. पोर्तुगीज गोंयात यो मेरेन गोंयकारानी बरयिल्लें धार्मिक साहित्य पोर्तुगीजांनी नश्ट करून अुडयिल्लें. देवळां पाडोवपा वेळार त्या देवळांनी आशिल्लें सगळें हस्तलिखित धार्मिक साहित्य तांणी लासले. कृष्णदास शामा सारख्यांचे एक-दोन ग्रंथ नष्ट जायनासतना अुल्ले. तांणी कोंकणीत आनी मराठीतय साहित्य निर्मिती केल्ली. कोंकणी लोक बुदवंत आशिल्ल्यान ते आपणाकडेन संपर्क येवपी सगळ्या भाशेत बरोवपाक समर्थ जातात हो अणभव आमका आयजय येत आसा. त्या काळात येरदारीची वेवस्था नशिल्ल्यान कोणय चड पैसच्या वाठारात वच नाशिल्ले. गोंयाक लागसारा आशिल्ल्या महाराष्ट्रातल्या पुण्य क्षेत्रात जे गोंयकार संत वताले तांका मराठी धर्मिक साहित्याची वळख जावन ते कोंकणी लोकांच्या स्वभावाक अणसरून तेन्ना मराठी बरोवपाक लागले आनी तांणी मराठी धर्मिक साहित्यय घडयलें. त्या वेळार ते कोंकणीतय धर्म साहित्य बरयताले. अशें तरेचे साहित्य पोर्तुगीजानी नश्ट केल्ल्यान आयज आमका ते पळोवपाक मेळना. तरी कृष्णदास शामा हांणी बरयिल्लो 'अश्वमेघ रघुनाथाच्या वंशाची कथा' हो कोंकणी ग्रंथ पोर्तुगीज मिशनऱ्याक मेळ्ळो आनी तो ताणे रोंमी लिपीत बरोवन काडलो. ताजी प्रत पोर्तुगालातल्या म्युझियमात आसा. तो मूळ ग्रंथ देवनागरी लिपीत आशिल्लो. अर्थात त्या काळात देवनागरी लिपीत कोंकणी बरोवपाची परंपरा आशिल्ली. पुण ती परंपरा पोर्तुगीज काळात बंद जाली. पोर्तुगीजानी कोंकणी ग्रंथ नश्ट केले. इतलेंच न्हय तर त्या उपरांत कोंकणी बरोवपाची परंपराय खंडीत जाली. गोंयकार हिंदुंक तेन्ना धार्मिक साहित्य कोंकणीत मेळना जालें. पुण मराठी शिकिल्ल्या काय संताचो आधार घेवन ते मराठी शिकले. आपणाली धार्मिक साहित्य वाचपाची भूक ते भागोवन घेवपाक लागले. तेन्ना मराठी धर्म साहित्याचो प्रभाव गोंयेचेर पडलो. जशें कर्नाटकात गेल्ले गोंयकार धार्मिक साहित्याची भूक भागोवपाक कन्नड भास शिकले आनी उपरांत कन्नड साहित्य निर्मिती करपाक लागले. तशें केरळात गेल्ले गोंयकार धार्मिक साहित्याची भूक भागोवपाक मळ्याळम शिकले आनी उपरांत मळ्याळम साहित्य निर्मिती करपाक लागले. तशें गोंयात आशिल्ले गोंयकार पोर्तुगीज जुलमान कोंकणी साहित्य परंपरा खंडीत जाल्ल्यान आपणाली धार्मिक साहित्याची भूक भागोवपाक मराठी साहित्य निर्मितीय करपाक लागले. ह्या प्रक्रियेत कर्नाटकातल्या गोंयकार हिंदूच्या कोंकणी अुलोवपाचेर कन्नडाचो जसो प्रभाव पडलो, केरळातल्या गोंयकार हिंदूच्या कोंकणी अंलोवपाचेर मळ्याळम भाशेचो जसो प्रभाव पडलो तसो गोंयकार हिंदूच्या कोंकणी अुलोवपाचेर

मराठी भाशेचो प्रभाव पडलो. ह्या हेर भाशेच्या प्रभावान तिनूय प्रदेशांत आशिल्ल्या गोंयकार हिंदूची कोंकणी भास विकृत जायत गेली. त्या-त्या भाशेंतली अुतरां विंगड विंगड वाठारांत रावपी गोंयकार हिंदूच्या अुलोवपात चड प्रमाणात येवपाक लागली आनी वाक्य रचनेच्या पध्दतीरय त्या त्या भाशेचो अनिष्ट परिणाम जालो. अशें तरेन एक काळात एकच शैलीत अुलोवपी गोंयकार हिंदू विंगड- विंगड शैलीत कोंकणी अुलावपाक लागले. पुण हांतल्या खंयच्याय शैलीत अुलोवपी लोकांनी कोंकणी साहित्य निर्मिती सातत्यान केली ना.

पुण जेन्ना भारतात आधुनिक विचारांचे वारें व्हावपाक लागलें आनी स्वतंत्रतायेच्या चळवळी वांगडा भारतीयांचो स्वाभिमान जागो जायत गेलो तेन्ना हेर भारतीयाप्रमाणे सगळ्या वाठारात रावपी कोंकणी लोकांतय स्वाभिमान जागो जालो. तांका तांच्याय भाशे विशीं अभिमान दिसपाक लागलो. हेर भाशेतल्या भशेन कोंकणीतय साहित्य निर्मिती जावपाक जाय अशें दिसपाक लागले आनी त्या त्या वाठारांतले लोक आपणाक कळटा त्या लिपीत कोंकणी बरोवपाक लागले. केरळातले हिंदू गोंयकार मळ्याळम लिपीत बरोवपाक लागले. गोंयचे किरिस्तांव गोंयकार रोमी लिपीत आनी कर्नाटकातलें किरिस्तांव गोंयकार कन्नड लिपीत बरयत आशिल्लेच. तांचे वांगडा ह्या 19 वे शेकड्यांत विंगड विंगड वाठारांतले गोंयकार हिंदूय मळ्याळम, कन्नड आनी देवनागरी लिपीत कोंकणी बरोवपाक लागले. तांतल्यान कोंकणी समाजात जागृताय येवपाक लागली. कोंकणी समाज सगळो एक म्हळ्ळीं भावना वाडपाक लागली. कोंकणी समाज भाशीक आनी सांस्कृतिक नदरेन एक जावपाक जाय अशें सगळ्यांक दिसपाक लागले. अशी परिस्थिती जेन्ना समाजात निर्माण जाता तेन्ना त्या मार्गदर्शन करपी म्हापुरूश तयार जातात. ते दृष्टार आसतात. तांका फुडाराचे आकलन जायत आसता. कोंकणी समाजातय तशेंच घडलें. कर्नाटकात सगेस्त माधव मंजनाथ शानभाग हांणी कोंकणी परिशदेची स्थापणूक करून कोंकणी समाज एकठांय हाडपाचो वावर सुरू केलो. त्याच वेळार गोंयात शणय गोंयबाब हांणी कोंकणी साहित्य निर्मिती करून आधुनिक कोंकणी साहित्याची बुनयाद घालपाचो वावर सुरू केलो.

ह्या दोगय म्हापुरूशांनी हातात घेतिल्ले कार्य आयज बरेंच मुखार पाविल्ले आसा. गोंय कर्नाटक, केरळ आदीं वाठारात आशिल्ले गोंयकार अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या व्यासपीठार भावनीक नदरेन खूब लागीं आयिल्ले आसात. त्या व्यासपीठार ते धार्मिक वा प्रांतिक भेदाक थारो दियनात. लिपी भेदाचो ताका बादिकार जायना. साहित्य परिशदेची स्थापणूक जावन थोड्या दिसांतच 50 वर्सां पूर्ण जातात.

ह्या पन्नास वर्सात अखो कोंकणी समाज एकठांय हाडपाचे नदरेन बरेच कार्य जाल्ले आसा. सगळ्या लिपीत बरयतल्या आनी वाचतल्या कोंकणी लोकांनी कोंकणीची स्वाभाविक लिपी देवनागरी म्हळ्ळें मानून घेतिल्ले आसा. कोंकणीक साहित्य अकादमीन मान्यताय दिल्ली आसा. शिक्षण क्षेत्रात कोंकणी अधिकृत भास जाल्या आनी गोंय राज्याची ती राज भासय जाल्या. हें सगळें सादपाक शणय गोंयबाबाल्या कार्याचो व्हड वांटो आसा.शणय गोंयबाबान देवनागरी लिपीत गोंयकार शैलित साहित्य निर्मिती करपाची बुनियाद घाली ना जाताली तर गोंयात आयज जे देवनागरी लिपीत कोंकणी साहित्य जालां तें जावचें नाशिल्लें. तें साहित्य नासताले तर आयज जे गोंयकार हिंदू कोंकणी चळवळीकडेन आयल्यात ते कोंकणी चळवळी आड उरतले आशिल्ले. तांच्यात स्वाभिमान नासताना ते स्वत्वहीन जातले आशिल्ले आनी मराठीवादी शक्तीक बळ मेळून गोंय महाराष्ट्रात विलीन जावन मोकळे जाता आशिल्ले. कोंकणी राजभास जावपाचो प्रस्नच त्या अुपरांत अुप्रासनाशिल्लो. गोंय वेगळे घटकराज्य जावपाच्या आनी कोंकणी राजभास जावपाच्या प्रक्रियेत गोंयकार किरिस्तांवांचो व्हड आनी महत्त्वाचो वांटो आसा हें विशीं दुबावच ना. पुण शणय गोंयबाबाल्या म्हान कार्याचो आनी कोंकणी चळवळीकडेन एकरूप जाल्ल्या हिंदू समाजाचो त्या प्रक्रियेत निर्णायक वांटो आसा. शणय गोंयबाब हांच्या कार्यान गोंयचो हो वैभवशाली इतिहास घडयला. त्या म्हान इतिहास पुरूषाचे आमका विस्मरण जावपाक जायना. तांची याद सदांच जायत आसपाक जाय म्हुण तांचो जल्मदीस आनी पुण्यतीथ दरवर्सा नेमान मनयत रावपाक जाय. तांच्या कार्याचो उगडास करून तांतल्यान प्रेरणा घेऊन ते कार्य फुडे व्हरपाची शक्त मेळोवपाक जाय. आयज म्हार्दोळकरांनी कोंकणी सेवा केंद्राची सुरवाक करून शणय गोंयबाबाचे कार्य मुखार व्हरपाचे सोपुत घेतला. हो वावर हातात घेतिल्ल्यांची आज व्हड जापसालदारकी आसा. जे कोण स्वाभिमानशून्य आसात, स्वत्वहीन आसात, तांच्यात स्वाभिमान जागो करून तांणी स्वभाशेतल्यान सुराज्य घडोवपाक हातभार लावपासारखे करपाचे गरजेचे कार्य ताणी आतां नेटान करपाक जाय.

(कोंकणी सेवा केंद्र. म्हाड्डोळचे उकतावण करताना केल्ले उलोवप)

●●●

24.

# काव्य प्रतिभा आनी कोंकणी कविता

मनीस कल्पक आसता. तो कल्पनेच्या मळबात भोंवंडी मारत आसता. तो अकल्पीत अशें विचारय उक्ते करपाक शकता. जेन्ना कल्पक विचार तो उकतायता तेन्ना ताज्या प्रतिभेची वळख जाता. अशें तरेची प्रतिभा तो विंगड विंगड तरेन उकतायता. काव्यातल्यान जेन्ना प्रतिभा उकती जाता तेन्ना त्या प्रतिभेक काव्य प्रतिभा अशें म्हण्टात. काव्याचो उगम अशें तरेच्या काव्य प्रतिभेतल्यान जायत आसता.

आतांच न्हय, तर पुर्विल्ल्या काळातल्यान मनीस आपणालीं प्रतिभा काव्यातल्यान उगती करत आयला. प्रतिभेचे दर्शन घडोवपी काव्य हे त्या काळातले एक म्हत्वाचे साधन आशिल्ले. जें कितें आपणाक होलमला ते तो काव्य रुपान म्हणतालो. आयकतले ते तोंडपाठ करताले. अशें तरेन त्या काळात जाल्लें उतरां साहित्य तिगताले आनी परंपरेन मुखावेल्या पिळगेकडेन पावताले. अशें तरेचे साहित्य जितले तालबद्ध, लयबद्द, वृत्तबद्ध, छंदयुक्त आसताले तितले ते आयकतल्यांक आकलनीय आसताले. ते तोंडपाठ करून दवरपाक सोपे जाताले. वेद, अुपनिषद, श्रुति आदीं प्राचीन काव्य तिगुन उरपाचे कारण ते सगळे काव्यमय आशिल्ले ही गजाल वेगळी सांगपाची गरज ना. हें सगळें प्राचीन साहित्य संस्कृत भाषेत आसताले. उपरांत भारतातल्या तेलगु, कन्नड, हिंदी, बंगाली, मळयाळम, मराठी आदीं भाशांत जाल्ले सुरवेंचे साहित्य भोंवतेक काव्यातच जाल्ले आसा. त्या काळात साहित्य काव्यमयच आसपाक जाय असो समज आशिल्लो. पुण जेन्ना बरोवपाची कला चड लोकांमेरेन पावपाक लागली तेन्ना गद्य साहित्य आसपाक शकता म्हळ्ळो विचार मूळ धरपाक लागलो. हो काळ सामकोच हालीचो म्हणपाक जाय. साहित्यात जेन्ना गद्याचो आसपाव जावपाक लागलो तेन्ना सगळेच साहित्य गद्यमय आसनाशिल्ले. तांतलो थोडो भाग गद्यमय आनी थोडो भाग

पद्यमय आसतालो. त्या काळात चंपू काव्य प्रकार साहित्य वाठारात आयलो. हे साहित्य गद्य-पद्य युक्त आसताले. कालांतरान अशें तरेचे गद्य-पद्य साहित्य उणे जायत गेलें आनी गद्य साहित्याचो प्रकार सुरु जालो. आतां साहित्य प्रकारांत गद्य साहित्य आनी पद्य साहित्य अशें दोन स्वतंत्र प्रकार पळोवपाक मेळटात.

काव्य साहित्य वा पद्य साहित्य बरोवपाक प्रतिभेची गरज आसता. बरयतात ते सगळे साहित्य जावपाक शकना. जे बरप वाचल्या उपरांत वाचतल्यांक मनाक आनी बुद्धीक अनुभूती मेळटा त्या बरपाक सामान्यपणान साहित्य म्हणपाक हरकत ना. अशें तरेच्या साहित्याचो परिणाम वाचप्यांचे मनार कितलो जाता आनी तो परिणाम कितले दीस मेरेन तिगता ताजेर त्या साहित्याचो कस थारावपाक जाता. पुण हो परिणाम काल-मान-परिस्थितिक अणसरून बदलत आसता. एकट्याक जे बरे साहित्य म्हुण दिसता ते सगळ्यांकच बरे साहित्य अशें दिसताच अशें ना. एका काळात बरे साहित्य म्हुण थारायिल्ले काय काला अुपरांत त्या तोलाचे न्हय अशेंय दिसपाचो संभव आसता. तशेंच एक वेळार सर्वसामान्य अशें दिसपी साहित्य काय काळा अुपरांत बरें साहित्य म्हुणय नामनेक पावपाक शकता. एका वाठारांतल्या लोकांक जें बरें साहित्य अशें दिसता तें साहित्य सगळ्या वाठारांतल्या लोकांक बरें साहित्य अशें दिसता अशेंय म्हणपाक जायना. ह्या सगळ्या साहित्यात प्रतिभेचे दर्शन घडत आसलें तरी तें खरें अर्थान 'विश्व साहित्य' आसताच अशें ना. जे 'विश्व साहित्य' आसता ते काल-मान-परिस्थितीचे बंधन हुंपून सदांसर्वकाळ साहित्यिक प्रतिभेचे दर्शन घडयता. ते भोवतेक पद्य साहित्य आसा अशेंय दिसून आयले बगर रावना. मनीस आपणाली प्रतिभा गद्य साहित्यापरस पद्यसाहित्यात चड प्रभावीपणान अुगती करपाक शकता हें ताजें कारण अशें बुदवंत म्हणटात.

पद्य साहित्य चड लोकप्रिय जावपाक कारणय आसा. गद्य साहित्याची प्रतिभा पद्य साहित्यात आसताच. शिवाय पद्य साहित्यात कल्पना विलास आसता आनी नाद-माधुर्य आसता. ते काळजा मेरेन पावता.

जें पद्य साहित्य आसता त्या सगळ्याच साहित्यात काव्य आसताच अशें कांय ना. मात्रा, गण, ताल, लय, यमक, छंद आदींचे बाबतीत परिपूर्ण आसतनाय त्या साहित्यात काव्य प्रतिभा आसताच अशेंय म्हणपाक जायना. तशेंच बरपात मात्रा, गण, ताल, लय, यमक, छंद आदीं गुण जरी नासलें तरी तसल्या साहित्यात काव्य प्रतिभेची सया अणभवाक येता. अशें तरेचे छंदमुक्त साहित्य आज व्हड प्रमाणात निर्माण जायत आसा. काव्याविशींची आदलीं कल्पना आज बदलिल्ली आसा.

पारंपारीक विचाराचे आनी कल्पनेचे सूत्र आपणावन कविता रचोवपाची आदलीं पद्धत शास्त्रशुद्ध आसा अशें म्हणपी आसात. ते मुक्तछंद आनी नवकाव्याक काव्य म्हणपाक तयार नासतात. छंदोबद्ध कविता गावपाक जातात आनी ताजे रसग्रहण करपाक सामान्य वाचप्यांक साध्य जाता अशें तांचे मत आसता. पुण मुक्तछंदाचे आनी नवकाव्याचे पुरस्कर्ते ते पूर्णतायेन मानपाक तयार नासतात. गावपाक जाता ते सगळे काव्य न्हय, ज्या साहित्यात काव्यप्रतिभा अुगती जाता ते गद्यमय आसलें तरी ते काव्य अशें ते म्हणटात. सर्व सामान्य दिसपी आशय घेवन तांतल्यान अनाकलनीय विचारांचे दर्शन घडोवपाचे तंत्र आधुनिक कवींनी आपणावन नवकाव्याचो नवो साहित्य प्रकार जो सुरू केल्लो तो आज सर्वमान्य जायत आसा. कविता साहित्य प्रकारातली ही एक महत्वाची क्रांती म्हणची पडतली.

जेन्ना संसारातल्या साहित्य वाठारात हजारों वर्सांच्या काव्य परंपरेत क्रांतीकारक बदल घडत अत्याधुनिक साहित्यात छंदोबद्ध कविते वांगडाच नवकाव्याची भर पडत आशिल्ली त्याच काळात कोंकणी साहित्य युगाची सुरवात जायत आशिल्ली. सगळ्या भाशेंत साहित्याची सुरवात काव्यातल्यान जायत आयल्या. कोंकणी ताका अपवाद नाशिल्ली. कोंकणी साहित्य बरोवपी भोवतेक कविता बरोवन आपणाले साहित्य बरोवपाची सुरवात करताले. आजय तशेंय घडत आसा. कोंकणी साहित्यात कविता साहित्य चड प्रमाणात जाल्ले दिसता. पुण तांतले छंदोबद्ध काव्य सामकेंच अुणे आसा. दोग-चौग अपवाद सोडत तर छंदोबद्ध कोंकणी कविता बरोवपी कवी ना म्हळ्यारय जातात. सर्गेस्त बाकीबाब बोरकर हे त्या अपवादातले एक कवी म्हणपाक जाय. तांच्या कवितेतले दर एक उतर खणखणीत नाण्याभशेन नादमाधुर्य ओतपी लय बद्ध आसा. अर्थबद्ध आसा. तांची कविता वाचतना बुद्धी वांगडा काळजाचेरय म्होराफांक ल्हवूच भोंवता आनी वाचतल्यांच्या आंगार रोमांच फुलयता. तांच्या काव्य प्रतिभेचे सम्यक दर्शन तेन्ना घडता. हाजे कारण सर्गेस्त बाकीबाब हांच्या प्रतिभेची पाळां-मुळां भारतीय साहित्य परंपरेच्या तळां-गाळां मेरेन पाविल्लीं. आपणाले प्रतिभापूर्ण विचार कविकल्पनेतल्यान मांडपाक जे कसब लागता ते तांच्यात पूर्णतायेन आशिल्ले. ते मांडतना ज्या अर्थपूर्ण सुक्षीम उतरांवळीची गरज आसता ती तांणी आत्मसात केल्ली. ताजो लाब ज्युस्त गरजे वेळार कोंकणी सरस्पतीक मेळ्ळो. तांतल्यान स्फूर्त घेवन जायते नवें बरोवपी कोंकणी साहित्य मळाचेर आयले. पुण तांची देख घेवन तांच्या पावलार पावल मारीत छंदोबद्ध कवितेची साधना करपी एकटोय तांतल्यान निर्माण जालो ना. फुडारात जातले म्हुण म्हणपाक जायना.

मुक्तछंद आनी नवकाव्याचे वाठारातय कोंकणी काव्य तशें म्हणपासारखे मुखार पाविल्ले ना. दोग-चौग अपवाद सोडत तर नांव घेवपासारखे कोणच मुखार आयिल्ले नात. छंदोबद्ध काव्य करतल्यांक जशीं प्रतिभा लागता तशीं मुक्तछंद नवकाव्य बरयतल्यांकय ताजी गरज आसता. वेल्यान सकयल मेरेन तोडिल्ल्यो वळ्यों बरयत गेल्यार मुक्तछंद कविता जाता अशें ना. त्या बरपातल्यान काव्य प्रतिभा उगती जाल्यारच ताका काव्य म्हणपाक जातले. निजाचो कवीच ते करपाक शकता. ताच्या कवितेंत प्रतिभेचे पडबिंब आसता.

छंदोबद्ध वा मुक्तछंद काव्य बरोवपी कवी फकत बुदवंत आसल्यार उपकार ना. बुदवंतकायेतल्यान जें कितें तो जाणा जाता ताजो स्वानुभव घेतना ताका जी अनुभूती जाता तांतल्यान मेळिल्या प्रेरणेतल्यान ताजी प्रतिभा जागी जाता. त्या प्रतिभेचे पडबिंब अुतरांतल्यान भायर सरता आनी तेंच काव्य जाता. ताजे खातीर ताजे कडेन अुतरांचे भांडारय आसपाची गरज आसा. त्या अुतरांची बारीक सारीक कुसाय तो जाणा जावपाक जाय. नासत तर ताजें प्रतिभापूर्ण विचार तो अुतरांनी उगते करपाक कसोच शकचो ना.

कवी स्वतंत्रतायेचो आराधक आसता. तो राजकीय, सामाजिक, सांस्कृतिक, भाशीक वा हेर कसलेच बंधन मानपाक तयार नासता. परिस्थितीचे चेपणाखाला घुसमटत आसतनाय ताजो आवाज बंद आसना. तो मेकळेपणान सगळे वटेन धुंवत आसता. सर्गेस्त बाकीबाब बोरकर हांचो आवाज आयज कोंकणी साहित्य वाठारात पावलां कणकणी आयकुपाक मेळटा. त्या आवाजाक साद दिवन कोंकणीत प्रतिभावान नवें कवी निर्माण जावपाक योग्य वातावरण तयार करपाची आज आमची सगळ्यांची जापसालदारकी आसा.

(सर्गेस्त बाकीबाब बोरकार यादस्तीक कोंकणी काव्योस्तव,
1989 दबाज्या वेळार केल्ले उलोवप)

●●●

25.

# कोंकणीत प्रतिभापूर्ण साहित्य कशें जातलें?

आज कोंकणीत साहित्य निर्माण जायत आसा. कन्नड, नागरी, रोमी आनी मल्याळी लिपीत आतां मेरेन जें कोंकणी साहित्य निर्माण जालां तातलें खंचे लिपीतलें साहित्य चड तोलाचे? भारतातल्या अुदरगतीक पाविल्या हेर भास साहित्या वांगडा तुळा केल्यार कोंकणी साहित्याचे स्थान खंचे? फाटल्या कांय वर्सा कोंकणी पुस्तकांक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळत आयलां. हाजे वैल्यान कोंकणी साहित्याचो पावंडो बरो आसा अशें म्हणप सारखे जायत? कोंकणी साहित्यिकांनी अंतर्मुख जावन हाजो विचार करपाक जाय.

आज कोंकणीत साहित्य निर्माण जायत आसा. कोंकणीक कन्नड आनी मराठी ह्यो दोन भासो शेजाराक आसात. मराठी कडेन तुळा केल्यार कन्नड भास ही चड साहित्यिक परंपरा आशिल्ली भास म्हणची पडटली. कन्नडाक हजार वर्सां परस चड काळाची साहित्यिक परंपरा आसा. रामायण-महाभारतासारखे प्रगल्भ साहित्य कन्नडात जायत्या वर्सां मागशीं निर्माण जालां. इतलेंच न्हय तर त्या मुळ ग्रंथापरस तांचे रुप आगळें आनी प्रभावी जालां. अशें तरेचे साहित्य कन्नडात सतत निर्माण जायत त्या भाशेक एक म्हान साहित्य परंपरा मेळ्ळ्या. त्या भाशेत बरोवपी लेखक उत्कृष्ट साहित्य निर्माण करत आसात. ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळयिल्ले तीग जाण कन्नड लेखक आसात. कन्नडाचे मानान पळयल्यार मराठी साहित्याक तशीं व्हड साहित्य परंपरा ना. कांय शेकड्यां आदींच मराठीत साहित्य निर्माण जावपाक लागला. कोंकणीत मराठी परस पैली साहित्य निर्माण जाल्लें. पुण ती साहित्य परंपरा मदें खंडीत जालीं आनी कोंकणी साहित्य प्रगल्भ जावपाक शकलें ना. त्या मानान मराठीत आडखळ नासतना साहित्य

परंपरा चलत आयिल्ल्यान मराठीत कोंकणी परस चड साहित्य निर्माण जायत आयलें. तांतलें जाय तें साहित्य बऱ्या तोलाचेय आशिल्लें. आजय त्या भशेत बरे साहित्य निर्माण जावपाची परंपरा चलत आयल्या. पुण ते साहित्य कन्नड साहित्याचे तोलाचे जाल्लें ना. आतां मेरेन ज्ञानपीठ पुरस्कार फकत एकच मराठी लेखकाक मेळ्ळा. कोंकणीक एकय ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळों ना.

हाजे वैल्यान एक विचार आमचें लक्षांत आयलो बगर रावना. अुत्कृष्ठ साहित्य निर्माण जावपाक जाय जाल्यार खंच्च्याय भाशेक साहित्य परंपरा आसची पडटा. जितली ही साहित्य परंपरा चड काळाची आसता तितली त्या भाशेत प्रगल्भ साहित्य निर्माण जावपाची तांक वो क्षमता वाडत वता. ह्या विधानाक, एकाद्रो अपवाद आसत. पुण सर्वसामान्यपणान हें विधान चुकलां अशें म्हणपाक जावचे ना. कन्नड, मराठी आनी कोंकणी ह्या भाशेंचो तौलनिक विचार केलो जाल्यार हें विधान सामकेंच खरें अशें दिसल्या बगर रावना.

तार्किक नदरेन विचार केलो तरी सामान्यतायेन हें विधान पटपाक हरकत ना. मनीस प्रतिभावान आसा, पुण ताका शिक्षण नासत तर तो साहित्यिक जावपाक शकना. जरी ताका शिक्षण आसलें तरी तो साहित्यिक जायतच म्हुण सांगपाक जायना. तो आपण्यालो विचार बरपातल्यान अुकते करपाक शकचो ना. अुतरावळ वाडोवपाक जाय जाल्यार ताणे साहित्य वाचपाक जाय. जितलो तो चड साहित्य वाचतलो तितली ताजी अुतरावळ वाडत वतली. ताणे वाचिल्लें साहित्य जितलें विविधांगी आसतलें तितलीं तागेलीं अुतरावळ गिरेस्त जायत वतलीं. जितलीं तागेलीं अुतरावळ गिरेस्त जायत वतलीं, जितलो तो आपणे वाचिल्ल्या साहित्यातली अुतरावळ आत्मसात करतलो तितलो तो आपण्याले विचार अुकते करपाक त्या अुतरावळीची कुसांनकुसां समजून घेतलो. तेन्नाच तो आपण्याली प्रतिभा व्यक्त करपाक त्या अुतरांचो योग्य अुपयोग करपाक शकतलो. दुसऱ्या अुतरांत सांगचे म्हळ्यार जितली साहित्यिक परंपरा व्हड आसता तितलें त्या भाशेत प्रतिभावन लेखक चड जायत वतात. साहित्य परंपरा व्हड आशिल्ल्या भाशेत प्रतिभावन साहित्यिक चड जातातच अशें मात म्हणपाक जायना. साहित्य परंपरा प्रतिभावान लेखक निर्माण जावपाक वातावरण जरी तयार करत आसली तरी त्या वातावरणात प्रतिभावन लेखक तयार जावपाक जाय जाल्यार त्या वातावरणाचो अुपयोग करपाक शकपी बुदवंत लेखक जल्माक येवचो पडटा. म्हान लेखकात जी प्रतिभा आसा म्हण्टात ती 'प्रतिभा' म्हळ्यार कितें? ह्या प्रस्नाक

जाप दिवप मात तितलें सोपें न्हय. इंद्रियांचे माध्यमातल्यान आकलन केल्लें गिन्यान अणभवाचे साणेर घासतकर जें असामान्य विचार होलमतात तें अुतरांचो आधार घेवन अभिव्यक्त करपाचे शक्तेक 'प्रतिभा' म्हुण म्हणपाक हरकतना.

एका मनशाली प्रतिभा त्या मनशाल्या बुदवंतकायेचेर अवलंबुन आसता. तीं चिंतनान आनी मननान एक सारखीं वृद्धिंगत जायत वता. आयचे परस फाल्या ती खर जायत वता. ताजीं वेगवेगळीं आंगां नदरेक पडत वतात. ताज्यात नाविन्य निर्माण जायत वता. ते नित्यनूतन आसता. नवनवोन्मेषशालिनी अशीं आसता.

सदांकाळ जें साहित्य म्हान साहित्य म्हुण तिगपाक शकता ते साहित्य निर्माण जावपाक लेखकात म्हान प्रतिभा आसचीच पडता. हेर सगळे गुण जरी आसलें तरी प्रतिभा नासत तर तशें तरेचे साहित्य निर्माण जायना. 'प्रतिभैव परिकर' म्हुण राजशेखर म्हण्टा. सतत अभ्यास करप, चिंतन करप, मनन करप, अशें करत राविल्ल्यान प्रतिभेक धार येत आसता. मनशाचेर जितले संस्कार बरे जातात तितली तागेली प्रतिभा म्हान जायत वता. प्रतिभेतल्यान निर्माण जाल्ली कसलीय साहित्यकृती वाचप्यांचे मन जिखता आनी ताजेर सदांच आपण्यालो प्रभाव दवरता. अशें तरेचे साहित्य त्या भाशेतल्या वाचप्यांकच मंत्रमुग्ध करता अशें ना तर हेर भाशेंतय पावता आनी संसार साहित्याचे एक म्हत्वाचे आंग जाता. आमगेल्या मनाचे आयदन रिकामी जाल्ले वेळार आपण्याला अपरिमीत शक्तीन ते परत परत तुंबट भरपासारखे करपाची तांक प्रतिभेत आसा म्हुण कवी रविन्द्रनाथ ठाकूर हांणी म्हळ्ळें आसा.

सगळ्यांची प्रतिभा एकच तरेची अुरना. दर एक मनशात वेगळी तरेची प्रतिभा आसता. तागेली बुदवंतकाय, ताजे भोंवतणचे वातावरण, तागेलें अणभव आनी ताजेर जाल्लें संस्कार हे त्या मनशाली प्रतिभा घडोवपाक हातभार लायता. अशें तरेन दर एकट्याची प्रतिभा वेगवेगळी तरेन घडत आसता. दर एक प्रतिभावन लेखकाले साहित्य वैविध्यपूर्ण आसता ताजे हेंच कारण आसा. एक मनशाचेय साहित्य कालमान परिस्थितीप्रमाणे बदलत वता ताजेंय हेंच कारण आसा. अेक प्रतिभावान मनशाक दिसना. दर एकट्याक वेगवेगळे दिसता. दर एकट्याची नदर भव्य आनी दिव्य आसता. मद मारिल्ल्या कुंपानी भरिल्लें मळब, पावसान चिंब जाल्लें पांचवें रान जशें आमका सुंदरकायेन भरिल्लें दिसता तशेंच चंद्राचो मद अुतरावपी अुमशेचो काळोखय आमकां सोबीत दिसता. सोबितकाय भायर नासता. पळोवपी दोळ्यांत आसता.

लैला-मजनुली काणी नकळ आशिल्ले बहुतेक कोणच नासतात. मजनु दिसपाक

सोबीत आशिल्लो. ताजे इतलो सोबीत मनीस संसारात दुसरो नाशिल्लो. तसल्या सोबीत मनशान मोग केल्ली लैला कितली सोबीत आसत काय म्हळ्ळो प्रस्न थंच्या राजाक पडलो. रावपाक जायनासतना ताणे एक दीस मजनुक आपोवणे धाडले. मजनु आयलो, 'तुका वायट दिसना जाल्यार तुगेल्या लैलाक एकवेळ म्हाका दाखय.' म्हुण राजान ताका सांगलें. मजनुन जायत म्हळें आनी लैलाक आपोवन हाडलें. तिका राजामुखार अुबे केलें. राजाक अजाप जाले. मजनुचे सोबीतकाये मुखार लैलाची सोबीतकाय कांयच न्हय आशिल्ली. 'म्हज्या राजवाड्यात आशिल्ल्यो दास्यो तुज्या ह्या लैलापरस चड सोबीत आसात. इतलो सोबीत आसपी तूं हिका कसो भुल्लो?' राजान मजनुक विचाल्लें. 'महाराज, तुमी लैलाक मजनुचे नदरेतल्यान पळयलें नाशिल्ल्यान तुमकां ती सोबीत दिसली ना' मजनुन राजाक जाप दिली. दर एकट्यान पळोवपाची नदर कशी आसा ताजे भशेनच ताका मुकाल्ले दिसता. अर्थात सोबीतकाय भायर नासता तर ते पळोवपी दोळ्यातच सोबीतकाय आसता. प्रतिभेचेय तशेंच. प्रतिभा भायर नासता. ती प्रतिभावान मनशातच आसपाविल्ली आसता.

प्रतिभावान कलाकार आपण्याल्या ह्या प्रतिभेचे नदरेनच संसाराकडेन पळयता. त्या नदरेन जें दिसता तें अुतरांचें माध्यमातल्यान अुकतें करपाक ताका अभ्यासाची गरज आसा. हाजे वैल्यान जो आपुण अुत्कृष्ठ लेखक जावपाक सोदता ताणे भाशा साहित्य वाचुन ते आत्मसात केल्ले आसपाक जाय म्हळ्ळें सत्य होलमता. अशें तरेचे भाशा साहित्य ज्या भाशेत चड आसता, ज्या भाशेक व्हड साहित्य परंपरा आसता, त्या भाशेत प्रतिभावान लेखक निर्माण जातात. कन्नडात ही परंपरा व्हड आशिल्ल्यान त्या भाशेत चड प्रतिभावान लेखक जाले. मराठीत त्या मामान सान परंपरा आशिल्ल्यान मराठीत प्रतिभावान लेखक अुणे जाले. कोंकणीत ती परंपरा सामकीच अुणी आसा. कोंकणीत आता मेरेन म्हण सारखो एकय प्रतिभावन बरोवपी निर्माण जालो ना.

तशें आज कोंकणीत जाय ते सामान्य लेखक आसात. तांतल्या कांय जाणान साहित्य अकादमीचो पुरस्कारय मेळयला. साहित्य अकादमीचो पुरस्कारय मेळयला. साहित्य अकादमीचे पुरस्कार मेळयलें म्हुण ते लेखक असामान्य वा प्रतिभावान अशें म्हणप मात सारखे जावपाचे ना. कारण साहित्य अकादमीचे पुरस्कार दिवपाखातीर जी पद्धत आपणायल्या त्या पद्धतीन खरे अर्थान साहित्याचे मूल्यमापन जायना. प्रतिभा नाशिल्लेय लेखक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळोवन बसल्यांत. कोंकणीक साहित्य परंपरा अुणी आशिल्ल्यान जांवये जे कोंकणी लेखक साहित्य अकादमीचे

पुरस्कार घेवन बसल्यांत तांच्यांत प्रतिभेचो मातय प्रभाव दिसना. दर वर्सा एकट्याक तो पुरस्कार दिवपाक जाय म्हुण तो एकेकट्याक मेळत गेला. अुपरांत 'अहो रुपं, अहो ध्वनीः' म्हण्टात तशें एकमेक एकमेकाली तोखणा करत आयल्यांत. ज्या कोंकणी साहित्यिकांक अकादमी पुरस्कार मेळ्ळा तांणी अंतर्मुख जावन आपण्याल्या साहित्याचो पावंडो नियाळ्ळो जाल्यार तांकां आपण्याल्ल्या बरपात प्रतिभेचो अभाव आसा म्हळ्ळें लक्षांत आयले बगर रावचे ना.

तशें पळयत तर आज देवनागरी लिपितल्या ज्या कोंकणी साहित्याक अकादमी पुरस्कार फावो जालां त्या साहित्या परस तौलनिक नदरेन कन्नड लिपीत जें कोंकणी साहित्य निर्माण जालां तें चड साहित्यिक तोलाचे आसा म्हळ्ळें चिकित्सक वाचप्यांक लक्षांत आयलें बगर रावना. हाजे कारण आसा. जे कन्नड लिपीत कोंकणी साहित्य बरयतात ते कन्नड भास जाणा जाल्ले आसात. ते कन्नड साहित्य वाचत आयल्यांत. कन्नड साहित्य परंपरेचो तांगेल्या कोंकणी साहित्याचेर प्रभाव पडिल्लो आसा. जे नागरी लिपीत कोंकणी साहित्य बरयतात ते मराठी भास जाणा जाल्ले आसात. ते मराठी साहित्य वाचत आयल्यांत. मराठी साहित्य परंपरेचो तांगेल्या कोंकणी साहित्याचेर प्रभाव पडिल्लो आसा. कन्नड मराठी परसचड व्हड साहित्य परंपरा आशिल्ली भास जाल्ल्यान ती मराठी परस चड प्रगल्भ आशिल्ल्यान कन्नड लिपीतले कोंकणी साहित्य नागरी लिपितल्या कोंकणी साहित्यापरस तौलनिक नदरेन बरें आसप हें सहज आसा. पुण हाजो अर्थ कन्नड लिपीतले कोंकणी साहित्य प्रतिभापूर्ण आसा असो मात अर्थ जायना.तेंवय देवनागरी लिपीतल्या कोंकणी साहित्यभशेन सामान्यच आसा.

अशें तरेन कोंकणीत आज जें सामान्य स्वरुपाचे साहित्य जाता ते प्रतिभापूर्ण स्वरुप केन्ना घेवपाक शकतले हें सांगप इल्लें कठीण आसा. तें बेगीन घडपाक जाय जाल्यार आयज कोंकणी बरोवप्यांनी खूब स्त्रम घेवपाक जाय.

कन्नड, मराठी आदीं भासो तांका मेळिल्ल्या दीर्घ साहित्य परंपरेन प्रगल्भ जाल्यांत. भावना अुकती करपाक जाय तीं अुतरां त्या भासांनी तयार जायत आशिल्ल्यान प्रतिभा आशिल्ले बरोवपी त्या भासांनी प्रतिभापूर्ण साहित्य निर्माण करपाक लागल्यांत. अर्थात ज्या भाशेत भावना अुकती करपाक चड अुतरावळ आसता त्या भाशेंत प्रतिभा अुकती करपाक वाव आसता. हें ध्यानांत घेवन कोंकणी बरोवप्यांनी आज चडातचड कोंकणी अुतरावळ घडोवपाक वावुरपाक जाय. आज देवनागरी लिपीत जे कोंकणी बरयतात ते विचार करनासतना येता ती मराठी अुतरां घोळोवन कोंकणी बरयतात.

कन्नड लिपीत कोंकणी बरोवपी कन्नड अुतरांचो आसपाव कोंकणीत करतात. अशें तरेन तांची कोंकणी भास विकृत जायत गेल्ल्या. तिज्यात मनांतले विचार अभिव्यक्त करपाची तांक ना जाल्या. हे बदलपाक जाय. कोंकणी बरोवप्यांनी कोंकणीचो शास्त्रशुद्ध अभ्यास करपाक जाय आनी निवळ कोंकणी अुतरावळ घडोवपाक हातभार लावपाक जाय. अशें जायत तर कांय वर्सांतच परिपूर्ण अशी कोंकणी अुतरावळ घडटली आनी कोंकणीत प्रतिभावान लेखक निर्माण जालो जाल्यार ताका आपण्याले विचार अभिव्यक्त करपाक जाय तीं अुतरावळ निवळ कोंकणीतल्यानच मेळटलीं. ताजे साहित्य खरे अर्थान प्रतिभापूर्ण साहित्य जावपाक वाव मेळटलो.

●●●

26.

# लोकराज्यात लोकांचे राज्य ना!

लोकांखातीर, लोकांनी चलयिल्ले, लोकांचे राज्य अशें लोकराज्याविशीं सांगतात. संसारातल्या जाय त्या देशांत लोकशाय आसा. पंचावन्न वर्सां आदीं भारतात घटनेचे आधारार लोकराज्य घडयले. संसारात लोकराज्य आशिल्ल्या राष्ट्रांत भारत सगळ्यांत व्हड राष्ट्र आसा. जाय ते जाण भारत आदर्श लोकराज्य अशें म्हण्टात. संसारातल्या जाय त्या बुदवंतांचे तशें मत आसा. अशें तरेचे हे आदर्श लोकराज्य खरे अर्थान लोकराज्य आसा म्हणपाक जाता काय कितें? ह्या प्रस्नाक जाप दिवप तितलें सोपें नासतले.

भारतात लोकांचे प्रतिनिधी राज्य करतात. राज्य आनी केंद्र पावंड्यार घटनेत आशिल्ल्या नेमान राजकारभार चलत आसता. सरकारान केल्ल्या बरे-वायट कामांचेर आपले मत उकते करपाचो अधिकार लोकांक आसा. निदर्शन, सत्याग्रह, संप आदीं प्रकारान गरज दिसता तेन्ना सरकारा आड चळवण करपाचोय लोकांक अधिकार आसा. अशें आसतनाय आज देशांतल्या जाय त्या जाणांक समाधानान जगपाक जायना. तांचे सामकार जाय ते प्रस्न आसतात. तांका सगळ्यांक काम मेळना, जगपाक जाय तो पैसो मेळना, वखद-विर्सदाची वेवस्था जायना, शिक्षणाक फाव तो वाव मेळना, रावपाक घराचो आसर आसना, उदाक-वीज आदीं गरजेचे वेळार मेळना. एक आनी दोन न्हय जाय तीं अडचणी आसतात. अडचण ना करपाक आधार दिवपी सुविदाय सरकारी यंत्रणा दिवपाक शकना. अशें वेळार ह्या देशांत लोकांखातीर, लोकांनी चलयिल्ले लोकांचे राज्य आसा अशें म्हणप तरी कशें? सुजलाम, सुफलाम, आशिल्ल्या येद्या व्हड देशात अशें घडपाचे कारण कितें?

स्वतंत्र जाल्या उपरांत ह्या देशात जाय तीं सरकारां अधिकारार आयलीं. पंडित

जवाहरलाल नेहरू सारखे लोकहिता खातीर सातत्यान वावुरपी समर्थ शासक जाय तीं वर्सां अधिकार आसले. त्या उपरांत इंदिरा गांधी हांची खर राजवट आयली. आतां अटलबिहारी वाजपेयी हांची कारकीर्द चलत आसा. ह्या शिवाय लालबहादूर शास्त्री, मुरारजी देसाय, राजीव गांधी आदींनी ह्या देशात कारभार चलयलो. ह्या सगळ्यांची राज करपाची तरा एक तरेची नाशिल्ली. तांचो लोकांचेर प्रभाव एक तरेचो नाशिल्लो, तांची राजवट चलोवपाची कालावधीय सारखी नाशिल्ली. पुण देश उदरगतीचे वाटेर व्हरपाची उमळशीक मात सगळ्यांत आशिल्ली. त्या खातीर ह्या सगळ्यांनी प्रामाणिकपणान यत्न केल्ले हे विशीं मातय दुबाव ना. अशें आसतना ताजो परिणाम जावपाक जाय तसो मात जावपाक शकलो ना. हाजे कारण जेन्ना आमी सोदपाक वतात तेन्ना ताजी जाप रोखडीक मेळटा. देशात भ्रश्टाचार जो चलत आसा तो देशाक मुखार वतना आडायत आसता. लोकहिता खातीर सरकारान आंखिल्ल्या येवजणेचो लाब लोकां मेरेन पावना. भ्रश्टाचार लोकांकडेन वचपी पैसो मदींच ना करता. खंय ना जाता तें समजना. समजलें तरी ताजो सोद घेवप साधना. स्वर्गातल्यान येवपी गंगा पाताळात लुप्त जाता. लोकांमेरेन ती गंगा पावनाशिल्ल्यान लोकांखातीर लोकांनी चलयिल्ले लोकांचे राज्य आसतनाय तें लोकांचे लोकराज्य लोकांत मात फाव जायना.

●●●

27.

# क्रांतीचो म्हान दीस उदेलो

महात्मा गांधीजीच्या मुखेलपणाखाला अख्ख्या भारतात स्वतंत्रतायेचो आवाज घुंवतालो. अहिंसेचो मार्ग आपणावन स्वतंत्रताय मेळोवपाचो एक म्हान प्रयोग संसाराच्या इतिहासात घडत आशिल्लो. सगळ्या भारतीयांची शक्त एकवटिल्ली आनी ब्रिटीश साम्राज्या आड उबी राविल्ली. म्हाझुजाचो हुलोप लागिल्ल्यान ब्रिटीश राजसत्तेचे आत्मबळ उणे जाल्लें. अशें वेळार भारताक स्वतंत्रताय दिल्या बगर ब्रिटीशांक दुसरो मार्ग मोकळो नाशिल्लो. एक-दोन वर्सांत देश स्वतंत्र जातलो अशें राजकीय तज्ञांचो अदमास आशिल्लो. स्वतंत्र जावप गरजेचे आशिल्ले. तशें जाल्याबगर भारताचे स्वातंत्र परिपूर्ण जावपाचे नाशिल्ले. त्या खातीर त्या वाठारांत आशिल्ल्या परकी सत्ते आड झुजपाची गरज आशिल्ली. अख्ख्या भारतात जो अहिंसात्मक प्रयोग चलत आशिल्लो तोच प्रयोग आपणावपाचो विचार भारतीय राजकारणातल्या जाणकारांक आशिल्लो. ताजी देख घेतिल्ले जाय ते गोंयकार गोंयात आनी गोंयाभायर गोंयाक स्वतंत्रताय मेळोवपाक झुजत आशिल्ले. भारतातले तेन्नाचे जाय ते स्वतंत्रताये झुजारी तांकां मार्गदर्शन करत आशिल्ले. डॉ. राम मनोहर लोहीया तांतले एक मार्गदर्शक आशिल्ले.

डॉ. राम मनोहर लोहीयान 'भारत छोडो... चले जाव' चळवळेंत वांटो घेतल्या उपरांत तांका ब्रटिश सरकारान बंदखणेत दवरिल्ले. 1945 सालातल्या एप्रील म्हैन्यात तांका सोडल्या उपरांत कांय दिसांनी ते गोंयांत आयले आनी असोळणेतल्या तांच्या एक इश्टावांगडा रावले. तांणी गोंयच्या परिस्थितीचो बारकायेन नियाळ घेतलो. तेन्ना गोंयात सभा-संमेलना-बसका घेवपाक मोकळीक नाशिल्ली. संघ-संस्था-मंडळा आदी घडोवपाक आडखळ आशिल्ली आनी पुस्तकां-खबरेपत्रां-पत्रकां बी छापपाक उजवाडावपाक सरकारची मान्यताय घेवप गरजेचे आशिल्ले. खंच्याय राजवटेत सामान्य

नागरीकांक जे अधिकार आसतात तेंवय गोंयकारांक नाशिल्ले. ही परिस्थिती ना करपाक जाय ते गोंयकार वावुरत आशिल्ले. पुण तांच्या वावराक जशें जाय तशें मोडण नाशिल्ले. सुसूत्रताय नाशिल्ली. हें जाणा जाल्या डॉ. राम मनोहर लोहीया हांणी गोंयच्या स्वतंत्रताये चळवळेक विधायक आयटो दिवपाचो निर्णय घेतलो. तांणी एक भौशिक सभेत भाशण करपाचे थारायले आनी तशे तांणी आपल्या इश्टांत सांगलें. 18 जून 1946 दिसा नदपारा चार वरार मडगांव शारांत ही कार्यावळ घडोवपाचो निर्णय घेतलो. ''भारत माताकी जै... महात्मा गांधीकी जै'' हो आवाज घुंवत आसतना डॉ. राम मनोहर लोहीयान उलोवप सुरु केलें. भौशीक भाशण करपाक आशिल्लें कायद्याचे बंधन मोडलें आनी गोंयच्या स्वतंत्रताये झुजाक क्रांतीकारक मोडन दिलें. असो गोंयचो तो क्रांतीचो म्हान दीस उदेलो.

●●●

28.

# क्रांतीचे आगटे पेटोवपी म्हान देशभक्त डॉ. राम मनोहर लोहिया

डॉ. राम मनोहर लोहिया हे भारतीय स्वतंत्रतायेच्या झुजात वांटो घेतिल्ले म्हान देशभक्त आशिल्ले. महात्मा गांधीच्या मुखेलपणाखाला चलपी स्वतंत्रतायेच्या झुजांत तांणी सातत्यान वांटो घेतिल्लो. ब्रिटीश सरकाराच्या पोलीसांनी आनी सैनिकांनी फाराचे मार पेटयत आसतनाय मुखार वचपाची धिटाय तांच्यांत आशिल्ली. महात्मा गांधीजीच्या अहिंसेचेर आधारिल्ल्या स्वतंत्रतायेच्या झुजात ते वांटो घेत आसतनाय तांच्या आंगात क्रांतीकारक विचाराचे आगटे सदांच पेटत आसताले. ते तांका थंड बसपाक दियनाशिल्ले. सरकारी यंत्रणेच्या नदरेक पडनासतना सरकारा आड ते कारवाय करत आसताले. शिवाय जेन्ना गरज पडता तेन्ना ते निदर्शनां करपाक उगतेपणान मुखार सरताले. अशें वेळार पोलीस यंत्रणा तांकां बंदखणेत दवरताली, तांचे आड खटलो चलयताली आनी ख्यास्तय फर्मायताली.

महात्मा गांधीजीनी 1942 सालात ब्रिटिशांक भारत देशातल्यान भायर वचपाचो उलो दिलो. 'भारत सोडो... चले जाव' अशें सांगत हजारों भारतीय देशभर निदर्शनां करपाक लागले. ब्रिटीश पोलीसांनी आनी सैनिकांनी तांचेर अत्याचार केलें आनी तांका बंदखणेंत दवल्ले. अशें वेळार समाजवादी विचाराचे क्रांतीकारी स्वतंत्रताये झुजारी पोलीस वा सैनिकांच्या हाताक लागनासतना ब्रिटीशा आड देशभर आकांत घडयत आशिल्ले. अशें तरेच्या झुजाऱ्यांत डॉ. राम मनोहर लोहीया हे एक म्हत्वाचे फुडारी आशिल्ले. ब्रिटीश सरकाराक नाकाशिव करपाक जें जें करपाक जाय तें करपाक ते भारतभर भोंवत तरणाट्यांक मार्गदर्शन करताले. अशें ते वावुरत आसताना 1944 सालातल्या मै म्हैन्यात मुंबयतल्या बाबुलनाथ मार्गावेल्या एका घरात ते पोलीसांच्या हाताक लागले. 'चले जाव चळवळेत बंदखणेत घाल्ल्यांक सरकारान घरां वचपाक दिले. पुण डॉ.

राम मनोहर लोहीया सारख्या क्रांतीकारकाक सोडलें ना. तांका सोडल्यार सरकाराक ते वैर-सकल केल्या बगर रावपाचे नात ही जाणीव आशिल्ल्यान तांका सोडपाचो विचार सराकारन केलो ना. पुण निमाणे 1946 सालातल्या एप्रील म्हैन्यात तांका बंदखणेतल्यान सरकारान सोडले. फुडारात भारताचेर शेक चलोवप साध्य जावपाचे ना हाजी जाणीव ब्रिटीश सरकाराक पूर्णतायेन जाल्ल्यान त्या सरकारान भारतीय स्वतंत्रताये चळवळे आड मोव धोरण आपणावपाक सुरवात केल्ली. कांय दिसांत देश स्वतंत्र जातलो हाजी पूर्ण कल्पना भारतीय स्वतंत्रताये झुजाऱ्यांक तेन्ना आशिल्ली. अशें वेळार तांची नदर पोर्तुगीज आनी फ्रेंच सरकारांच्या ताब्यात आशिल्ल्या गोंय, पांडिचेरी आदीं वाठारांचेर वचप सहज आशिल्ले. डॉ. राम मनोहर लोहिया हे कॉलेजीत शिकत आसतना तांचे वांगडा शिकप्यांत गोंयकारय आशिल्ले. तांतले डॉ. ज्युलियांव मेनेझीस हें तांचे इश्ट जाले. तांचे वरवीं गोंयविशिची जाय तीं गजाल ते जाणा जाल्लें. गोंयात जाय ते जाण पोर्तुगीज सरकारा आड वावुरत आसात हें ते जाणा जाल्ले. बंदखणेतल्यान भायर सरल्या उपरात तांणी गोंयात वचपाचो विचार केलो. थंची परिस्थिती प्रत्यक्ष पळोवपाक ते 1946 सालात जून म्हैन्याच्या 10 तारखेक गोंयात आयले आनी असोळणेत आशिल्ल्या डॉ. ज्युलियांव मेनेझीस हांच्या घरात रावले. तेन्ना गोंयचें जाय ते सुटके झुजारी तांका येवन मेळ्ळे.

गोंयकाराक पोर्तुगीज राजवट नाका, ताजे आड जाय ते जाण झुजत आसात, तांच्या वावराक कोणाच्या तरी मार्गदर्शनाची गरज आसा हाजी जाणीव डॉ. राम मनोहर लोहीया हांका जाली. ती जापसालदारकी आपणे घेवपाची अशें तांणी थारायले. त्या खातीर भौसांची सभा घडोवन सभेत आपणे उलोवपाचो निर्णय तांणी घेतलो. भाशण करप हें तेन्ना पोर्तुगीज कायद्या आड आशिल्ले. गोंयच्या स्वतंत्रताये झुजाक सुसूत्रताय हाडपाक तांणी पोर्तुगीज कायदो मोडपाक 18 जून 1946 हो दीस थारायलो आनी त्या दीस मडगावात तांणी कायदो मोडलो. पोर्तुगीज सरकारान तांका पणजेत एक दीस बंदखणेत दवरल्या उपरांत रेल्वेचेर बसोवन गोंया भायर पावोवपाची वेवस्था केली. अशें तरेन डॉ. राम मनोहर लोहियान गोंयच्या इतिहासाकडेन आपले नातें जोडलें. ते फकत राजकारण करपाक गोंयात आयले नात. तांचो गोंयचेर उपाट मोग आशिल्लो. गोंयकारांची कोंकणी भास तांका आवडताली. कोंकणी भास उलयिल्ली आयकल्यार आपले मन धादोसकाय भोगता अशें ते म्हण्टाले. आपणे मरचे वेळार कोंकणी भास कानार पडल्यार आपले मरण शांततायेचे जातले असें तांणी आपल्या गोंयकार इश्टाकडेन म्हळ्ळें आसा.

डॉ. राम मनोहर लोहीया गोंयच्या इतिहासात क्रांतीवीर जाल्ल्यान अजरंवर जाल्यात. भारतीय इतिहासातय तांचे मोलाचे स्थान आसा. जय प्रकाश नारायण, अच्युतराव पटवर्धन, अरुणा असफ अली आदीं समाजवादी विचाराचे क्रांतीकारी तांचे सहकारी आशिल्ले. विनोबा भावे, शंकर देव आदी अहिंसावादी विचारवंत तांका मानताले. तांचे विचार आकलन करताले. जवाहरलाल नेहरु आनी तांची मतां जाय त्या वेळार एकमेकांक पटसारखीं नासतालीं. लोकसभेत दोगांमदीं खर वादविवाद जाताले. पुण तांच्यात वांकडेपणाक मातय वाव नाशिल्लो. ते एकमेकांक मानताले, एकमेकांचे विचार आयकताले आनी ताजेर मनन करताले. जवाहरलाल नेहरुंक डॉ. राम मनोहर लोहीया हांचेविशी उपाट आदर आशिल्लो. अशें तरेच्या म्हान पुरसाचे योगदान गोंयच्या स्वतंत्रताये झुजाक फाव जालें हें गोंयकारांचे भाग्य अशें म्हणपाक जाय.



29.

# अंतरराष्ट्रीय महिला दीस

ह्या संसारात हजारांनी वर्सां मनीस जगत आयला. आदीं रानांत कंद-मुळां वा मांस खावपी मनीस सदां बदलत आयला. ताजी खावपा-जेवपाची, उठपा-बसपाची, रावपा-जगपाची तरां कालांतरान बदलत गेल्ल्यान आदलो मनीस कसो खातालो, पितालो, जगतालो हाजी कल्पनाय करपाक कठीण जालां. आयच्या आधुनिक युगात विज्ञानाच्या आधारान अख्ख्या संसारात आनी अंतरीक्षात तो आपलो अधिकार चलयत आसा. मनशांत हो जो अभूतपूर्व बदल घडत आयला ताजें वर्णन करपय असाध्य आसा. असो अवर्णनीय बदल घडपाक मनशात आशिल्ले बंधुत्व आनी त्या बंधुत्वातल्यान निर्माण जाल्ले समाजविशींचे आपलेपण कारण आसा. तशें नाशिल्ले जाल्यार मनशांची सुसंघटीत समाज रचना घडनाशिल्ली आनी समाजाची उदरगतय जायनाशिल्ली. त्या खातीर जेन्ना आमी सामजीक उदरगतीचो विचार करतात तेन्ना आमी सामाजिक भावपणाची मांडणी कशी जाल्ली आसा ताजे आकलनय करतात.

कुटुंब हे समाजाचे घटक आसता. असंख्य कुटुंबाच्या एकवटाक समाज म्हण्टात. कुटुंबात बदल जसो घडत वता तसो समाजातय बदल घडत वता. कुटुंबात संथ बदल घडत तर समाजाची उदरगतय संथ जाता. कुटुंबात क्रांतीकारक बदल जायत तर समाजातय क्रांतीकारक बदल घडता. त्या खातीर समाज घडपाच्या प्रक्रियेत कुटुंबांक अनन्यसाधारण म्हत्व आसता. अर्थात सामाजीक उदरगत कुटुंबाच्या उदरगतीतच आसपाविल्ली आसता. त्या खातीर खंच्याय समाजाचो विचार करतना त्या समाजातल्या कुटुंबाविशींची जाणीव आसप गरजेची आसता. हजारांनी वर्सां जे सामाजिक बदल घडत आयल्यात तांचे त्या-त्या काळांत कुटुंबात जाल्ले बदलच कारण आसात.

कुटुंब पद्धतीत बदल जायत आशिल्ल्यानच समाजात परिवर्तन घडत आयलां.

आदीं संयुक्त कुटुंब पद्धत आशिल्ली. एक कुटुंबात पणजे ते नातरांमेरेन आसताले. ते सगळे एकच घरात रावताले. तांच्या सहवासातल्यान एकमेकांचेर बरे-वायट परिणाम जाताले. घरातले एकमेकांक सांबाळटाले. त्या काळात कुटुंबात दादल्यांत जरी म्हत्व आशिल्ले तरी कुटुंबाची वेवस्थीत मांडणी करपाक बायलांचे योगदानच चड आसताले. तांच्या मनाचो कल पळोवन घरातले दादले वागताले. संयुक्त कुटुंब ना जायत गेल्ल्यान कुटुंबात बायलांचे म्हत्व उणे जाले आनी दादल्याचो एकाधिकार कुटुंबात चलपाक लागलो. तेन्ना बायलांचे म्हत्व आदले मानान उणे जायत गेले. ताजी जाणीव बायलांक जावपाक लागली. बायलांचेर कांय वेळार अन्याय जायत आसा हेंवय दिसपाक लागले. बायलांचेर अन्याय जावपाक जायना अशें जाय त्या दादल्यांकय दिसपाक लागले. आपलेविशीं, आपल्या कुटुंबाविशीं, आपल्या समाजाविशीं निर्णय घेवपाचो अधिकार बायलांक आसपाक जाय हो विचार मुखार येवपाक लागलो. तांतल्यान स्त्रीस्वातंत्र चळवळ सुरू जाली. त्या चळवळेक कालांतरान बळ मेळत गेले. संस्कारमय कुटुंब घडोवपात आनी ते वरवी सुसंघटीत आदर्श समाज निर्माण जावपाक बायलांचो हातभार चड आसता. त्या खातीर समाजात तांका मानाचो पाट मेळपाक जाय अशें आज सर्व सामान्य मत जाल्लें आसा. त्या खातीर सगळ्या देशांत यत्न जायत आसा. ह्या यत्नाक फळ मेळपाक जाय आसत तर अंतरराष्ट्रीय पांवड्यारय प्रचार जावपाक जाय अशें दिशिल्ल्यान आता अंतरराष्ट्रीय महिला दीस मनयतात.



10.

# उमेद फुलोवपी शिगमो येता!

गोंय आनी गोंय भोंवतणच्या वाठारांत शिगम्या परबेक चड म्हत्व आसा. कोंकणी समाजातल्या सगळ्या पांवड्याचे लोक शिगम्याची परब व्हड उमेदीन मनयतात. शेतकारांक तर ह्या शिगम्या परबे वेळार शिगम्या शिवाय हेर कितेंच सुचना. शिगम्या मांडार नमन जाता आनी शिगमो नांचपाक सुरवात करता. तालार रोमटा मेळाचे खेळ गांवां-गांवांनी 'घणचे कटर घण... घुमचे कटर घुम...' हो आवाज चोंयवटेन घुमयत आसतात. त्या तालात तरणाट्या वांगडा जाणट्र्यांचीय पावलां 'थै... थै...' नांचत आसतात. सगळ्या घरांत खोस भरिल्ली आसता.

गीम आयलो तसो शेतकारांचो कामाचो व्याप वाडता. तांच्या आंगातल्यान घामाच्यो पावळ्यो व्हांवतात. नांगर भोंवडायत भुसभुशीत केल्ल्या जमनीर पावसाचो शिंवर जावपाचो वेळ पळयत शेतकार मळबाचेर नदर लावन रावतात. जेन्ना पावस येता तेन्ना पावसाची धार आंगार घेत शेतकार शेतांत बीं घालतात. कांय दिसान बीं किल्लता आनी सगळे शेत पांचवेंचार जाता. सगळे वटेन सैमाची सोबीतकाय नदरेत भरत आसता. दर दीस शेत वाऱ्या वांगडा घोलता ते पळोवन शेतकारांक खोस जाता. शेतात कणसा फुटिल्ले वेळार आपल्या स्त्रमाचे फळ आयिल्ल्याचे समाधान तांका जाता. जेन्ना कणसा भांगरा रंगाची जावपाक लागतात तेन्ना शेतकाऱ्यांच्या तोंडार भांगराळी सया मारता. तांचे घर तेन्ना धान्यान भरता. तांच्या हातांत पैशे येतात. केल्ल्या स्त्रमाचे फळ मेळ्ळें ह्या समाधानात ते आसतात. दसरो-दिवाळिचो सुवाळो शेतकारांच्या घरात सुख-समधानाचे वारे व्हांवयता. त्या उपरांत भोंवतणचो वाठार उमेद दिवपी आसता. अशें वेळार शेतकाऱ्यांक आपली संतृप्त भावना उकती करपाची उमळशीक

येता आनी तालाच्या नादा वांगडा ते नांचपाक लागतात. तांच्या तोंडातल्यान सुटिल्लीं उतरां संगीतमय आसतात. त्या संगीताच्या तालार पडिल्लीं पावलां सगळो वाठार रोमांचकारी करता. तेन्ना चोंयवटेन 'घणचे कटर घण... घुमचे कटर घुम...' हो नाद सगळ्यांचे मन उमेदीन भरता. ही उमेद त्या उपरांत येवपी कामाचो व्याप सांभाळपाक जाय ती उर्बा दीत आसता. त्या खातीर गोंय आनी गोंय भोंवतणच्या कोंकणी लोकांक शिगम्याचे चड म्हत्व आसा. शिगमो तांची उमेद फुलयता.



31.

# गोंयचो क्रांती दीस

गोंयच्या इतिहासात 18 जूनाक एक आगळे म्हत्व आसा. तें 1945 चे साल आशिल्लें. अख्ख्या भारतात महात्मा गांधीजींच्या मार्गदर्शनाखाला स्वतंत्रतायेची चळवळ निर्णायक पावंड्यार पाविल्ली. दुसऱ्या म्हाझुजात आपली सगळी शक्त पणाक लायिल्ल्या ब्रिटीश साम्राज्याक झुजा उपरांत येद्या व्हड भारत देशाचेर आपलो शेक चलोवप आपल्या ताकदी परस चड कश्टाचे काम जातलें हाजी जाणीव पुरायेन जाल्ली. देशाक स्वातंत्रताय दिवप अनिवार्य आसतलें अशें दिशिल्ल्यान ब्रिटीश सरकार ताजी तयारी करत आशिल्लें. पुण भारतातलो मुसलमानांचो प्रस्न सोडयल्या बगर देशाक स्वतंत्रताय दिल्यार आशिया वाठाराचेर आपलो प्रभाव दवरप अडचणेचे जातलें हें जाणा जाल्ल्यान ह्या वाठारात मुसलमानांची एक शक्त उबी करपाची मांडणी ब्रिटिशान आंखिल्ली. तांणी जिना वरवीं मुसलमानांचो आधार घेतलो आनी मुसलमानांचे पाकिस्तान घडवपाचे थारायलें. त्या खातीर थोडो वेळ जाय आशिल्लो. ताकतीक केल्यार तो डाव उरफाटो पडपाचो संभव आशिल्लो. एकसंघ बलाढ्य भारत फुडारात घडपाचो संभव आशिल्लो. तशें जालें जाल्यार ह्या वाठारात ब्रिटीशांचो प्रभाव उणो जातलो आशिल्लो. त्या खातीर ब्रिटीश सरकारान भारत देशाक स्वतंत्रताय दिवपाचो विचार लोंबकळत दवरिल्लो. पुण हो देश स्वतंत्र जातलो हें विशीं कोणाकच दुबाव नाशिल्लो. अशें वेळार भारतीय स्वतंत्रतायेच्या झुजाऱ्यांनी पोर्तुगेज आनी फ्रेंच सरकारच्या पाख्यातळा आशिल्ल्या गोंय, दमण, दीव, पांडीचेरी आनी कालिकत ह्या वाठारांचेर लक्ष दिवपाक सुरवात केली. पांडीचेरी, कालिकत आदीं फ्रेंच वाठारांचो प्रस्न सोपेतरेन सुटतलो हाजी तांका जाणीव आशिल्ली. कारण त्या वाठारांत गोंयच्या भशेन लोकांचेर किरिस्तांव धर्माचो प्रभाव नाशिल्लो. शिवाय फ्रेंच सरकाराक हजारों

मैल पयस आशिल्ल्या सामक्याच ल्हान सुवातींचेर राजकारभार सांबाळप अडचणेचे आशिल्ले. त्या सराकाराचेर इल्लेशें चेपण घाल्यार ते वाठार भारतात विलीन करप साध्य जातलें आशिल्लें. पुण गोंयात किरिस्तांव व्हड प्रमाणात आशिल्ल्यान आनी तांचेर पोर्तुगीज संस्कृतायेचो प्रभाव बरोच आशिल्ल्यान पोर्तुगीज सरकार सोपेतरेन गोंय सोडपाचो ना अशें जाय त्या जाणांक दिसताले. गोंय पूर्वेचे रोम करपाचो हावेस आशिल्ले जाय ते जाण ते नदरेन मांडणी घालत आशिल्ले. हें जाणा जाल्ले भारतीय स्वतंत्रताये झुजारी डॉ. राम मनोहर लोहिया हांणी गोंयात सत्याग्रह करपाचो आनी गोंय आपले पख्यातळा दवरपाक पोर्तुगीज सरकार कितलो जिद्दीन वावुरतलो हाजो अदमास घेवपाचो विचार केलो. तांणी 21 जून, 1945 दिसा मडगावात सत्याग्रह केलो आनी गोंय स्वतंत्रताये चळवळेक एक नवे मोडण दिलें. तो दीस आज गोंयभर क्रांती दीस असो मनयतात.



32.

# स्वतंत्रताये उपरांत आमी कितें साधले?

खंच्याय देशाचो स्वतंत्रताये दीस त्या देशाच्या इतिहासात सगळ्यांत चड म्हत्वाचो दीस आसता. आपल्या देशातलो राजकारभार सांभाळपाचो म्हत्वाचो अधिकार त्या देशातल्या लोकांक फाव जाता. पुण ज्या स्वतंत्र जाल्ल्या देशांत राजांचो राज कारभार चलता वा सर्वाधिकारी सत्ताधिश आसता त्या राज्यांत स्वतंत्रताय फाव जाल्ली आसतनाय लोकांक स्वतंत्रताय मेळटाच अशीं ना. कांय देशांत राजसत्ता जरी आसलीं तरी थंय राजा नांवापुरतोच राज्याचो मुखेल आसता. पुण खरी राजसत्ता लोकांच्या हातात आसता. आतांच्या काळात राजसत्तेक जावं सर्वाधिकार सत्तेक जावं स्थान सामकेंच उणें जाल्लें आसा. संसारातल्या भोवतेक सगळ्या राष्ट्रांत लोकां खातीर लोकांनी चलोवपाची लोकांची सत्ता आसा. भारत हो अशें तरेचो लोकांचो अधिकार चलपी देश आसा. ह्या आमच्या देशाक 1947 सालातल्या अगस्ट 15 तारखेक स्वतंत्रताय मेळली. त्या खातीर भारतीय इतिहासात ह्या दिसाक चडांत चड म्हत्व आसा.

खंच्याच देशाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी त्या देशात लोकांची सत्ता आयलीं जायत तर तो देश स्वतंत्र जालो अशें म्हण्टात. पुण तितल्यान तो देश खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जालो अशें मात म्हणपाक जायना. त्या देशाक राजकीय स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी लोकांचे हातात सत्ता आयलीं हें जरी खरें आसलें तरी तितल्यान तो देश स्वतंत्र जालो असो जायना. राजकीय स्वतंत्रताय मेळोवप हें गरजेचे आसताच. पुण आर्थिक स्वतंत्रताय नासत आनी जीणेत लागपी सगळ्यो गरज्यो मेळपाची वेवस्था पुरायेन जाली ना जायत तर त्या देशाक खऱ्या अर्थान स्वतंत्रताय मेळ्ळीं अशें म्हणपाक जायना. ह्या नदरेन भारत स्वतंत्र देश जालां काय कितें तें आयच्या स्वतंत्रतायेच्या दिसा अवलोकन करपाक जाय.

भारताक स्वातंत्रताय जेन्ना मेळिल्लीं तेन्ना तो संसारातलो सगळ्यांत गरीब देश आशिल्लो. गांवगिऱ्या वाठारांत शेतां-भाटां जळींमळी आसतना आनी देशाच्या भोवतेक वाठारांत उटांगाराचो पावस पडत आसतना अन्न-धान्याचे उत्पन्न मात त्या मानान सामकेंच उणे आशिल्लें. जें पिकता तें देशातल्या लोकांक जगपाक पुरो जाय नाशिल्लें. भायल्या देशांतल्या अन्न-धान्य हाडपाचो प्रसंग आशिल्लो. अमेरीका भारतात लाखों टन गंव दिताले. अशें देशात जावपी अन्न-धान्य आनी अमेरीकेन दिल्लें गंव सरकार लोकांक उणे मोलाक दिताले. पुण लोकांच्या भुकेक फाव तितलें तें मेळनाशिल्लें. लोकांचेर अर्दपोटार रावपाचो प्रसंग येतलो. राती दिवे पेटोवपाक विजेचे दिवें कांय शारांत सोडल्यार हेर कडेन नाशिल्लें. गांवगिऱ्या वाठारांतल्यांक विजे दिवे कशें आसतात तेंवय खबर नाशिल्लें. राती दिवे पेटोवपाक चिमणेत तेलाचो उपयोग करताले. तेंवय गरजेक फाव तितले मेळ नाशिल्ले. सरकारी दुकानातल्यान जें मेळटा ताजेरच रातचे दिवें पेटोवपाचो प्रसंग आशिल्लो. आरोग्य सांभाळपाक कांय शारांत सोडल्यार हेर कडेन वैद्यकीय सुविदाय नाशिल्ली. शारांनी कांय शिकिल्ले वैद्य आसताले. गांवगिऱ्या वाठारांत गांवठी वखदां दिवपी गांवठी वैद्य वा हकीम आसताले. तांचे कडेन तपासपाची आधुनिक आवतां नाशिल्ल्यान अदमासान दिल्ल्या वखदांचो उपयोग जाल्यार नशीब अशें म्हणत देवाचेर भरवसो दवरपाचो प्रसंग आशिल्लो. शिक्षणाचे मळार तीच गत आशिल्ली. गांवगिऱ्या वाठारांत मुळावीं शाळां आसतालींच अशें ना. ह्या शिक्षणाचो लाब गिरेस्तांक मात जातालो. गरीबांक शिकपाचो योग केन्नाच फाव जायनाशिल्लो. गांवात नळ्यांची घरां आशिल्लीं. गांवगिऱ्या वाटारांत कांय गिरेस्तांची सोडल्यार हेरांची कोलवांची खोपीं आसतालीं. शारांनी कांय प्रमाणात इमारतीं पळोवपाक मेळटालीं. उदकाचे नळ व्हड शारांत आसताले. पुण हेर सगळे वाठारांत बांयचे उदाकच लोक वापरताले. त्या वेळार जमशेदपूरचो टाटांचो कारखानो आनी भद्रावतीचो लोखणां कारखानो सोडल्यार अख्या भारतात म्हणपासारखे व्हड कारखाने नाशिल्ले. वस्त्रा तयार करपाचो थोडे कारखाने शारांत आशिल्ले. पुण थंय तयार जावपी कपडे लोकांक पुरो जावपा इतलें नासतालें. गरीबां खातीर सरकार उणे मोलांचे कपडे लोकांक दिताले. पुण ते गरजेक पुरो जावपा सारखे नासताले.

पांच-स दशकां आदीं स्वतंत्रताय मेळयिल्लो आमचो हो भारत देश संसारात सगळ्यांत गरीब देश आशिल्लो. पुण त्या वेळार भारताक मार्गदर्शन करपी महात्मा गांधी, जवाहरलाल नेहरू, सरदार वल्लभभाई पटेल हांच्या सारखे म्हान बुदवंत आशिल्ले. तांच्या मार्गदर्शनाखाला भारतातल्या लोकांनी उदरगतीच्या वाटेर दांग मारपाची सुरवात केली.

एक-एक पावल मुखार घालत उदरगतीचो एक-एक पांवडो चडत आज आमचो देश संसारात उदरगतीक पाविल्ल्या व्हड देशांच्या पंक्तीत पावला. अन्न-धान्या खातीर हेर देशांचे तोंड पळोवपी आमच्या देशात भरपूर पिकावळ जायत आसा. पोटभर जेवपाक-खावपाक आमकां मेळत आसा. गोदामांनी अन्न-धान्य उपाट भरिल्ले आसा. शेतात चड पीक येवपा खातीर अत्याधुनिक तंत्रागिन्याचो उपयोग केल्ल्यान, चड पीक काडपाक उदका पुरवण केल्ल्यान आनी चडावत जमनीत पीक काडिल्ल्यान आज आमचो देश भायल्या देशांकय अन्न-धान्य दिवपाक शकता. देशातल्या भोवतेक लोकांक रावपाक आज घरां आसात. गांवगिऱ्या वाठारांतय शिमीटाचीं घरां बांदिल्लीं आसात. शारांनी आनी गांवांनी मळबाक तेंकपा येदीं घरां आज पळोवपाक मेळटात. देशातल्या गांवगिऱ्या वाठारांत आरोग्य सुविदाय मेळपाची वेवस्था जाल्ली आसा. देशांत बरीच वखदां जातात. देशातल्या विंगड-विंगड वाठारांत अत्याधुनिक आरोग्य केंद्रा आसात. देशातल्या लोकांक पुरो जावन हेर देशांत आमचो देश कोट्यांनी रुपयांचे कपडे धाडत आसा. अख्ख्या देशांत आज कारखान्यांचे जाळे पसरिल्ले आसा. त्या कारखान्यांत मोटारी, विमानां, बोटीं आनी हेर जाय त्या तरेची यंत्रा तयार जायत आसात. त्या शिवाय हेर जाय ते कारखाने आसात. थंय वखदां, बांदकामाचे सामान, दूरदर्शन, फ्रीज, कपडे धुवपाची मशीनां आर्दी कितल्यो तरी गरजेच्यो वस्तू निर्माण जायत आसात. अत्याधुनिक माहिती तंत्रज्ञान आमच्या देशान आपणायिल्ले आसा. अणुतंत्रज्ञान आनी क्षेपणास्त्र निर्मणीत आमचो देश आज संसारातल्या उदरगतीक पाविल्ल्या म्हान देशांच्या पांवड्यार पावला. कांय दिसांत भारत संसारातली एक म्हान शक्ती जातली अशें अमेरिकेचे अध्यक्ष जॉर्ज बुश हांणी म्हणपाचो प्रसंग आज आयिल्लो आसा. संयुक्त राष्ट्र संघटनेच्या सुरक्षा समितीचो कायम वांगडी जावपाचो योग आमच्या देशाक फाव जातलो हेंविशीं आतां दुबाव ना.

हें सगळें साधपाक आमच्या देशातल्या सगळ्यांचो हातभार लागला. जात-पात, गरीब गिरेस्त अशें भेदभाव व्हड प्रमाणात आसतनाय ताका उणाक स्थान प्राप्त जाल्लें आसा. देशाचे उदरगतीक म्हत्वाचे स्थान मेळिल्ले आसा. देशाक स्वतंत्रताय मेळिल्ल्या पांच-स दशकांत आमच्या देशान जी उदरगत साधल्या ताजें कारण हेंच आसा.

खंच्याच देशाक आपल्या देशातली उदरगतीची प्रक्रिया पूर्णतायेन करपाक जायना. खंच्याय वाठारात उदरगत पूर्ण जाता म्हणसर नवें-सवें सोद लागतात आनी उदरगतीचो आंवांठो वाडता. अशें सदांच घडत आशिल्ल्यान उदरगतीची प्रक्रिया केन्नाच थांबना. आमी भारतीयांनी हाजी जाणीव दवरपाक जाय. ●●●

33.

# डिसेंबर म्हैन्याचें म्हत्व

गोंयकाराचें नदरेन डिसेंबर म्हैन्याक एक आगळे म्हत्व आसा. गोंयात किरिस्तांव धर्मान पाळां-मुळां पातळ्ळ्या उपरांत नाताळाची परब दबाज्यान मनोवपाचीं परंपरा गोंयात चलत आयल्या. नाताळाची परब पोन्ने गोंयात व्हड दबाज्यान मनयतात. भारतातल्या हेर वाठारांतल्यानय जाय ते जाण थंय पावतात. अखे गोंय तेन्ना नाताळाचो भार आंगार घेवन सोबीतकायेन फुलता आनी ताजो परमळ गोंयकारांच्या काळजांत रिगता. गोंयच्या घरां-घरांनी खोस परजळता. रातचो सगळो वाठार रंग-रंगयाळ्या दिव्यांनी आनी नखेत्रांनी झगझगता. अशें तरेन गोंयकारांक उपाट अुर्बा आनी धादोसकाय दिवपी डिसेंबर म्हैन्यातच गोंय पोर्तुगीज राजवटीच्या बंदखणेतल्यान मोकळें जालें आनी स्वतंत्रतायेचो नितळ वारो आंगार घेवन भारत मातेच्या कुशीत खुशालभरीत दीस सारपाका लागले. भारतातल्या हेर राज्यां भशेन सगळ्या वाठारांत उदरगत सादपाक लागले. गोंयकारांचे नदरेन पवित्र आशिल्लो डिसेंबर म्हैनो, त्या म्हैन्यातच गोंय स्वतंत्र जाल्ल्यान, गोंयकारांचे नदरेन डिसेंबर म्हैन्याक आनिकय चड म्हत्व आयले.

गोंयचो वाठार संसारातलो एक सोबीत वाठार आशिल्ल्यान जाय ते भोवंडेकार गोंयात येताले. भायल्या देशांतल्यांकय गोंय ओड लायणे दिसताले. तेंवय गोंयात येताले. गोंयात भोवंडेकारां खातीर सुविदाय बरी मेळपाक लागिल्ल्यान गोंयात येवपी भोवंडेकारांचे प्रमाण वाडत गेलें. त्या सुविदायेंचो लाब मेळत आशिल्ल्यान राष्ट्रीय पावंड्यार जावपी जाय तीं कार्यावळीं गोंयात जावपाक लागलीं. कांय वेळार अंतरराष्ट्रीय पावंड्याच्यो कार्यावळ्योय गोंयात जावपाक लागिल्ल्यान गोंय सगळ्यांक ओड लायणे दिसपाक लागले. दर वर्सा भारतात जावपी आंतरराष्ट्रीय चित्रपट म्हा उत्सव फाटल्या

वर्सा गोंयात जालो. त्या आदीं चौतीस वर्सा तो गोंया भायर, विंगड-विंगड शारांनी जायत आशिल्लो. पुण फाटल्या वर्सा जेन्ना तो गोंयात जालो तेन्ना गोंयची सोबीतकाय, शांतताय आनी बरी वेवस्था पळोवन तो म्हाउत्सव दर वर्सा गोंयातच करपाचो निर्णय सरकारान घेतलो. अंदू नोव्हेंबर-डिसेंबर म्हैन्यात जाल्लो हो सुवाळो दोळे दिवकावपी आशिल्लो. अशें सगळें तरेची सुविदाय आशिल्ल्या गोंयातच दर वर्सा हो अंतरराष्ट्री चित्रपट म्हा उत्सव सुवाळो करपाचो निर्णय केंद्र सरकारान घेतलो. डिसेंबर म्हैन्याच्या तोंडार जावपी म्हा उत्सव ह्या उपरांत दरवर्सा गोंयात जावपाचो आशिल्ल्यान ह्या डिसेंबर म्हैन्याक गोंयकारांचे नदरेन आनिकय चड म्हत्व आसतले हें विशीं दुबाव ना.



34.

# हें प्रजाराज्य कोणाचें?

लोकराज्य हें लोकांचे राज्य आसता. लोकांखातीर लोकांनी चलयिल्ले, लोकांचे राज्य अशें लोकराज्याविशीं म्हणटात. लोकराज्य आशिल्ले भारत संसारातले सगळ्यांत व्हड लोकराज्य अशीं ह्या देशाची नामना आसा. इंदिरा गांधीचो काय दीस चल्लिलो सत्तेचो खेळ सोडल्यार स्वतंत्र भारताचो भोवतेक सगळो कारभार लोकराज्याच्या बुनयादीचेर चलत आयला अशें म्हणपीय आसात. संसारातली एक म्हासत्ता जावपाच्या हुंबऱ्यार आशिल्लो आमचो देश अख्या संसारात एक आदर्श लोकराज्य असो जाय त्या जाणांचो समज आसा. आयकतल्यांक हें सगळें बरें दिसलें तरी वास्तवीक नदरेन विचार केल्यार परिस्थिती वेगळी आसा अशें दिसल्या बगर रावना.

लोकांखातीर म्हळ्यार खंयच्या लोकांखातीर? भारतातल्या लोकां खातीर, जे भारतात नागरीक आसात त्या लोकांखातीर असो ताजो अर्थ जाता. भुरगीं, दादले, बायले ह्या सगळ्या लोकांखातीर जे राज्य चलयतले ते कोण? तेंवय लोकच. पुण कोण? जांका लोकांनी आपले प्रतिनिधी अशें थारायलां तें राज्य चलयतले. अर्थात जे हे प्रतिनिधी जाल्ले लोक आसतात ते राज्य चलयतले आपण्यांक मत दिल्ल्या लोकांखातीर. पुण तशें घडिल्लें दिसना. लोकांचो प्रतिनिधी अधिकारार पावता आनी लोकांक विसरता. लोकां खातीर वावुरचे बदलाक तो आपल्या खातीरच सगळे करता. अधिकार मेळयता आनी पैश्याची रास पुंजायता. लोकांनी परत मत दिवपाक जाय अशें ताका दिसत आशिल्ल्यान काय जाणांची कामां तो करता. आंवळो दिवन कुवळो मेळोवपाचे ते धोरण आसता. लोकां खातीर तो प्रतिनिधी इतलेंच करता. तो लोकांचो प्रतिनिधी लोकांच्या मतान अधिकारार आयिल्लो आसतनाय लोकांक कुशीकच दवरता

आनी आपुण तांचेर अधिकार गाजोवपी राजा जाता आनी जो लोकराज्याचो खरो राजा आसता तो सामान्य नारगीर उणाकपणाचे जीण जगता. ताजे गरजेचे काम जावपाक जाय आसत तर ताणे सरकारी अधिकाऱ्यांचे, कारकुनांचे आनी शिपायांचेय पांय धरपाचे प्रसंग येतात. आपली पाळी यो मेरेन रांगेत उबो रावपाची ख्यास्त भोगची पडता वा काम करतल्यांच्या हातांक पैश्यांची ऊब दिवची पडता. अशें तरेन लोकराज्यातलो खरो राजा आशिल्लो नागरीक गुलामगिरीचे जीण जगत आयला. अर्ध शतका परस चड काळ प्रजाराज्याचो आदर्श आशिल्लो आमचो भारत देश म्हासत्ता जावपाच्या हुंबरार पाविल्ल्या वेळारय बऱ्या फुडाराचो उजळ उजवाड लोकांच्या नदरेक पडना.

●●●

35.

# भारतीय राजकारणात घराणेशाय

आमचो देश स्वतंत्र जालो तेन्ना पंडीत जवाहरलाल नेहरू, सरदार वल्लभभाई पटेल, चक्रवर्ती राजगोपालचारी, राजेंद्र प्रसाद, ह्यासारखे म्हान लोक आमच्या देशाक मार्गदर्शन करपाक आशिल्ले. त्या शिवाय हेर जाय ते राजकारणीय आशिल्ले. स्वतंत्रताये उपरांत तातल्या जाय त्या जाणांचे हातात विंगड-विंगड पावंड्याचे अधिकार आयले. पुण राजकारणी जे आसात ते सगळे राजकारभार चलोवपाक समर्थ आसतात अशें कांय ना. जे समर्थ आशिल्लें ते विंगड-विंगड पावंड्यार आपले अधिकार चलयत रावले. तांचे फाटल्यान तांची उपरांतची पिळगीं राजकारभार चलोवपाक लागली. हांतले कांय जाण राजकारभारात यशस्वी जाले. कांय जाण अधिकार मेळयत समाजात आपले खाशेले स्थान घडयत रावले. अशें ब्रिटीश राजवटी उपरांत ह्या देशात राजकारभार चलोवपाची परंपरा चलत आयली. अधिकार आशिल्ल्यान मान-मर्याद मेळटा आनी पैसो-आडको मेळटा आशिल्ल्यान सगळ्यांक अधिकार मेळोवपाची इत्सा जायत आसता. त्या खातीर सगळे एकसारखे धडपडत आसतात. पुण अशें घडपडतल्या सगळ्यांक अधिकार फाव जाता असो ना. हांतलें कांय जाण यशस्वी जाल्यार जाय ते जाण आपटी खायतय आसतात. राजकारण आनी राजकारणातल्यान मेळपी अधिकार आपालिपाचो खेळ आसता.

अधिकारार आशिल्ल्याक आपली घराणेशाय चलोवप सोपें आसता. पुण त्या खातीर हुशारकायेन पावलां घालपाक जाय. आपुण घराणेशाय चलोवपाक यत्न करत आसता असो दुबावय कोणाक येवपाक जायना अशें तरेन डाव-पेंच आंखपाचे लागतात. अशें करपाक राजकीय नाटक अशें म्हणटात. अशें तरेचे एक नाटक कर्नाटकात घडले. जनता दल (एस) पक्षाचे अध्यक्ष देवेगौडा हांणी आपली घराण्याची.

अधिकारशाय चलोवपाक हें नाटक यशस्वी तरेन रंगमाचयेर हाडले. कोणाकय मातय दुबाव येवपाक वाव तांणी दिलो ना.

हें राजकीय नाटक घडयलें नाशिल्लें जाल्यार कुमारस्वामी मुखेलमंत्री कशें जावपाक शकतले आशिल्ले? वीस म्हैन्या आदीं कर्नाटकात काँग्रेस आनी जनता दल (एस) पक्षांचे सरकार घडयतना धर्मसिंगान अडीच वर्सां मुखेलमंत्री आसपाचे आनी उपरांतची अडीच वर्सा जनता दल (एस)चो मुखेलमंत्री जावपाचो अशें थारायिल्ले. जेन्ना जनता दल (एस) पक्षाचो मुखेलमंत्री करपाचो धा म्हैन्या उपरांत योग येतलो आशिल्लो तेन्ना कर्नाटक विधान सभेचे जनता दल (एस) पक्षाचे मुखेल आनी कर्नाटकाचे उपमंत्री आशिल्ले एम. पी. प्रकाश हे मुखेलमंत्री जातले आशिल्ले वा विधानसभेत आशिल्ले त्या पक्षातले कोणय तरी म्हालगडे मुखेलमंत्री पदार बसतले आशिल्ले.

कुमारस्वामीक ते पद दिवपाक जाय अशें तेन्ना देवेगौडान म्हळें जाल्यार ते आपली घराणेशाय चलयतात हो आरोप तांचेर येतलो आशिल्लो. म्हत्वाच्या बसके वेळार ते आपल्या पुताक घेवन वतात हें पळयिल्ल्या तांच्या पक्षातल्या पांच-स म्हालगड्यांनी पक्षाचो राजिनामो दिल्लो. अशें घडिल्ले आसतना ते आपल्या पुताक मुखेलमंत्री पदार बसोवपाची इत्साय उक्ती करपाक शक नाशिल्ले. अशें परिस्थितीत आपल्या पुताक मुखेलमंत्रीपदार बसोवपाक कितें करप हाजेर तांणी विचार केलो आनी ते साधपाक फाव तसले तांणी एक राजकीय नाटक रंगयले.

जनता दल (एस) पक्षातल्यान फुटिल्ल्या वांगड्यांक धरमसिंग लागी करत आसात हें तांका निमित्त आशिल्ले. ताजोच लाब घेवपाचो तांणी विचार केलो. धरमसिंग आपल्या जनता दल (एस) पक्षांतल्याक त्रास दितात आनी कांय जाणांक पक्षा आड खुबळायतात असो आरोप तांणी केलो. तांणी तशें करपाचे बंद केलें ना जाल्यार कर्नाटकात काँग्रेस सरकाराक दिल्लो तेंको आपुण फाटी घेतलो अशीं तांणी दिल्लीतल्या काँग्रेस पक्षातल्या जाण्ट्यांक धमकीय दिली. त्याच वेळार कर्नाठक विधानसभेतल्या आपल्याच पक्षांतल्या चाळीसेक वांगड्याक वांगडा घेवन आपल्या आड बंड करपाचो सल्लो तांणी कुमारस्वामीक दिलो. कुमारस्वामीन काँग्रेसाक दिल्लो तेंको फाटी घेतलो आनी भारतीय जनता पक्षाचो आधार आपणावन नवें सरकार घडोवपाचो निर्णय जाहीर केलो. कुमारस्वामीन आपल्या जनता दल (एस) पक्षा आड गेल्ल्यान आनी जातीयवादी भारतीय जनता पक्षाच्या आधारान सरकार घडोवपाचो निर्णय घेतिल्ल्यान तांका आनी तांच्या चाळीसेक वांगड्यांक जनता दल (एस) पक्षातल्यान भायर घाल्ल्याचो निर्णय देवेगौडान जाहीर केलो. तशें पळयत तर हें सगळे कुमारस्वामीक कर्नाटकाचे मुखेलमंत्री

पद मेळोवपाक देवेगौडान केल्लें नाटक आशिल्लें.

अशें तरेची नाटकां भारतीय राजकारणात जायत आयल्यांत. इंदिरा गांधीक अधिकार मेळोवन दिवपाक नेहरून तशेंच केल्ले. संजय गांधीक मुकार हाडपाक इंदिरा गांधीनय तशेंच केल्लें. पुण संजय गांधी महत्वाकांक्षी आशिल्ल्यान तांणी इंदिरा गांधीकय अडचणेत हाडले. अपघातात तांका मरण आयले नाशिल्ले जाल्यार भारतीय इतिहासात सर्वाधिकारशाय येवपाची भिरांत आशिल्ली अशें म्हणपी इतिहासकार आसात. राहुल गांधीक मुखार हाडपाक आता राजकीय नाटकां जायत आसात. लोकसभेर हाडतनाय तांका ते पद ''नाका नाका'' अशें तोंडान म्हमपाक लायत निमाणे त्या पदार बसयलेंच. आतां 'मंत्रीपद नाका, नाका' म्हणत ते केंद्र सरकारात मंत्री जातले हें विशीं दुबाव ना. निमाणे तेच तरेन ते प्रधानमंत्री जातले. प्रधानमंत्री हाता लागी पाविल्ल्या वेळारय आपणे तें घेतलें ना अशें म्हणत काँग्रेस पक्षात आपले वजन वाडोवन घेत, त्या वजनाचो उपयोग राहुल गांधीक प्रधानमंत्री पदार बसोवपाक करचो डाव आज सोनिया गांधी खेळत आसात. भारतीय राजकारणात घराणेशाय चलोवपाची प्रक्रिया अशींच जायत आसतली हेंविशीं दुबाव ना.

●●●

36.

# कोंकणी परिशदेचो रुप्या उत्सव

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो रुप्या उत्सव ह्या म्हैन्याच्या 10, 11 आनी 12 तारखे दिसा व्हड दबाज्यान मनयलो. गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ आनी हेर वाठारांतले कोंकणी मोगी ह्या तीन दीस एकठांय आयले आनी कोंकणी भास, संस्कृताय आनी साहित्याच्या विंगड विंगड वाठारांत जाल्ल्या उदरगतीचो तांणी नियाळ घेतलो.

भारतीय स्वतंत्रताये चळवळी वांगडाच आमच्या देशातल्या सगळ्या भाशीक लोकांत आपली भास, साहित्य आनी संस्कृताये विशीं स्वाभिमान वाडत गेलो. कोंकणी भास उलोवपी लोक ताका अपवाद नाशिल्ले. पुण भारतातल्यो हेर भासो तेन्नाय साहित्य संपदेन समृद्ध आशिल्ल्यो. पुण कोंकणी भाशेत तशें साहित्य नाशिल्लें वा नांवघेवपा सारखे साहित्यिकय नाशिल्ले. साहित्य बरोवपाची परंपरा तर नाशिल्लीच. भारतीय स्वतंत्रताये चळवळ सुरू जाल्ल्यान हेर भारतीय भाशीक लोकांत जसो स्वाभिमान पेटलो आनी देशाच्या स्वतंत्रताये वांगडा भाशेची उदरगत साधपाची जी उमळशीक निर्माण जाली तशी कोंकणी लोकांतय स्वाभिमानान जगपाची उर्बा निर्माण जाली. सगळ्या कोंकणी भाशीक लोकांनी एकठांय येवन आपल्या आवय भाशे वरवीं आपलो स्वाभिमान पेटोवन आपली संस्कृताय म्हान करपाची उमळशीक वाडत गेली. तेन्ना दूरदर्शी विचार आशिल्ले कारवारचे माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी 1939 सालात कारवारात कोंकणी भाशीकांची परिशद घडोवन हाडली आनी कोंकणी भाशीक लोकांक आपली भास, संस्कृताय आनी साहित्याक उजळ फुडार घडोवन हाडपाक एक वेदी तयार केली. त्या उपरांत ह्याच ध्येयान भाराविल्ले कोंकणी मोगी मुंबय, उडपी, पणजी,

रामनाथी, मंगळूर, कोचीन, मणिपाल, बेंगळूर आनी हेर वाठारांनी कोंकणी परिशद घडयत आयले. सुरवेक कोंकणी भास ही स्वतंत्र भास न्हय म्हण्टल्यांक आमची भास स्वतंत्र भास हाजी जाणीव करपाचो प्रसंग कोंकणी मोग्यांचेर आशिल्लो. उपरांत कोंकणी मोग्यांनी कोंकणी परिशदेवरवी केल्ल्या म्हान यत्नाक फळ मेळत गेले आनी कोंकणी गोंयची राजभास जाली, केंद्र साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळोवपाक शकली आनी निमाणे भारतीय राज्यघटनेत मानाचो पाट मेळोवन भारतातली एक राष्ट्रभास जाली. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे हे पंचवीसावे अधिवेशन भरत आसतना कोंकणी मोग्यांच्या नदरे सामकार हो इतिहास स्वाभिमान फुलोवन गेलो आसतलोच.

●●●

37.

# वसंतरायाक येवकार

थंडीचे दीस सोपपाचो वेळ लागी येता आनी लोक शिगम्याची वाट पळोवपाक लागतात. जायत्या देवळां आनी पेडां लागसारा गांवा-गावांनी होळी पेटयतात. भोंवतणच्या वातावरणात धगसाणेची ऊब सांसपत आंगात उमेदीचे वारे गात्रां-गात्रांनी फुलता. चोंयवटेन झाडा-वालींनी, झोपां-झोपांनी, दोंगरा-दोंगरांनी पांचवी चार पानां आंकरेत रंगरंगयाळीं फुलां फुलयतात. ह्या मन भुलोवपी रंगयाळ्या सैमाक येवकार दिवपाक गांवां-गावांनी रंगांचो शिंवर करत लोक ढोल, तासो आनी कासाळ्यांच्या आवाजान मळबा मेरेनचो वाठार गाजयतात. घरा-घरांनी वचपी शिगम्यांचो मेळ लोकांक उजळ फुडाराची गवाय दितात. वसंतोत्सवाचो सुवाळो मनोवपाचो अुगडास तेन्ना लोकांक जाता आनी ते फाल्गुण मैन्यांत येवपी वसंतरायाक येवकार दिवपाच्या तयारेक लागतात.

गोंय आनी गोंय भोंवतणच्या कोंकणी संस्कृताय पातळिल्ल्या वाटारांत शिगमोत्सव मनयतना शिगम्या मेळ घरा-घरांनी वतात आनी आंगात वारे घुशिल्ले भशेन ढोल, घुमट, शमेळ, तासो, पेंपारे, झांज, कासोळे, जघांट आदींच्या वाजपांच्या तालात तोणयो हाणत नाचतात. सगळ्या शिमग्या मेळांची नांचपांची तरा आनी वाजपांचो गाज भोवतेक एक तरेन जरी आसलो तरी कांय गांवांत तांतले खाशेले पण नदरेक आयले बगर रावना. कर्नाटकातल्या आंकले-कारवार म्हालांत, गोंयच्या काणकोण, फोंडे, पेडणे आदीं म्हालांत आशिल्ल्या विंगड-विंगड गांवांत शिगम्याचो उत्सव मनयतना त्या-त्या गांवांतली लोककला विविधतायेन नटिल्ली पळोवन मन खुशालभरीत जाता. चौरंग, तालगडी, गोफ आदी कोंकणी भाशिक संस्कृतायेचे खरे दर्शन घडयतात.

होळी परब आमच्या देशात जाय त्या वाठारांत परंपरेन मनयत आयल्यांत. पुण

हाली ती परब व्हड दबाज्यान मनयतात. आतां देशातल्या भोवतेक सगळ्या वाठारांत ती मनोवपाक लागल्यांत. ल्हान-व्हड सगळ्या शारांनी आनी जाय त्या गांवगिऱ्या वाठारांत व्हड प्रमाणात होळी परब मनोवपाक लागिल्ल्यान सगळे जाती-धर्माचे लोक होळी परबेत उमेदीन वांटो घेत आसात. त्या परबेक आज राष्ट्रीय म्हत्व आयिल्ले आसा. ताका एक आगळे रुप आज आयिल्ले आसा. ताजो परिणाम कोंकणी भाशिक वाठारांतय जाल्लो दिसता. ह्या वाठारातय आधुनिक पद्धतीन होळी परब मनोवपाक लागल्यात. परंपरेन चलत आयिल्ल्या पद्धती वांगडा आधुनिक साधनांचो उपयोगय जावपाक लागला. आदले परस चड नटिल्ली धर्तरी आतां वसंतरायाक येवकार दीत आसता.



38.

# मे म्हैन्याचे म्हत्व

संसाराचे नदरेन मे म्हैन्याक म्हत्व आसा. मे म्हैन्याचो पैलो दीस अख्या संसारात 'कामगार दीस' मानतात. ह्या संसारात यंत्रयुगाची सुरवात जाली आनी कारखान्यांक म्हत्व आयले. ज्या वाठारांत कारखाने जायत गेले तशें त्या वाठारांत क्रांतीकारक बदल घडत गेलो. कारखान्यांचे उत्पन्न जशें वाडत गेलें तशें कारखान्याचे मालक गिरेस्त जायत गेले. तांच्या हातात राजकीय अधिकारय आयले. जशें कारखाने वाडत गेले तशें कारखान्यांत काम करपी कामगारय वाडत गेले. गांवगिऱ्या वाठारांतले गरीब लोक शारांतल्या कारखान्यांत कामाक लागले. त्या कामगारांनी श्रमान केल्ल्या कामान कारखान्यांच्या मालकांचे उत्पन्न वाडत गेले आनी दिर्सी-दिर्सी ते गिरेस्त जायत गेले. कामगारांच्या श्रमाचे फळ कारखान्यांच्या मालकांक मेळटाले. पुण श्रमान काम करपी कामगारांक मात उणे पैशे मेळटाले. जे मेळटा ताजेर पोट भरपय कठीण जाताले. अशें वेळार रावपाक घर बांदपाची तांक तांका नासताली.ते मेळटा त्या जाग्यार खोपटां बांदताले आनी थंय रावताले. अशी खोपटां वाडत वतालीं आनी कारखाने आशिल्ल्या शारांत कामगारांची झोपडपट्टी तयार जाताली. थंय निवळसाण नासताली. दर वर्सा पीडेन तांतले जाय ते जाण मरताले. वखद-विर्सद करपाची वेवस्था नाशिल्ल्यान हजारों जाण मरताले. अशें तरेन कामगार हालाचो दीस जगत आसतना तांणी केल्ल्या कामाचे नाड्यार कारखान्यांचे मालक गिरेस्त जायत वताले. ते बंगल्यांनी रावताले, कारींनी भोंवताले. चमचमीत खाताले-पिताले. कामगारांच्या नाड्यार हें सगळें मेळत आसतनाय कारखान्याचे मालक कामगारांक पीडताले. काम करतना हयगय केल्यार मारपीटय करताले. कामगारांचे अशें हाल जातात तें पळोवन काय विचारवंत ह्या अन्याया आड आवाज उटोवपाक लागले. ज्या कामगारांच्या कश्टान कारखान्यांचे उत्पन्न मेलटा त्या उत्पन्नाचो योग्य वांटो कामगारांक मेळपाक

जाय अशें ते सांगपाक लागले. मालकान कामगारांक उत्पन्नातलो योग्य वांटो दिलो ना जायत तर कामगारांनी कारखान्यांत काम करपाचे बंद करपाक जाय आनी संपार वचपाक जाय अशेंय ते कामगारांक सांगपाक लागले. ताजे खातीर कामगार संघ उबे जाले. तांचे वरवीं कामगार चळवळ वाडत गेली. कामगार चळवळेक एक संघटीत बांदावळ आंखपाक कारण जाल्लो मे म्हैन्याचो पैलो दीस कामगार दीस असो मनोवपाचो निर्णय घेतलो. त्या खातीर संसारातल्या कामगार चळवळेच्या नदरेन मे म्हैन्याक म्हत्व आयिल्ले आसा.

गोंयकाराचें नदरेन ह्या कामगार दिसाचो मे म्हैनो म्हत्वाचो आसा. ह्याच म्हैन्यात गोंय घटकराज्य जाल्ल्यान गोंयकार भारतातल्या हेर राज्यांतल्या नागरीकाभशेन देशाचे परिपूर्ण नागरीक जाले. ह्या कारणान गोंयकारांक मे म्हैन्याचे चडच म्हत्व आसा.



39.

# युगादीचो संदेश

संसार पाडव्याक नवे वर्साची सुरवात जाता. त्या दीस कडुलिंबाची कोडसाण आनी गोडाची गोडसाण जीबेन अणभवपाची आसता. फुडारात येवपी त्रासाचे आनी सुखाचे दीस सारख्याच तरेन आपणावन घेवपाक जाय हाजी जाणीव तेन्ना जाता. जीणेत फकत सुखांचेच स्वागत करपाचे आनी त्रासांक तोंड दिवपाक तयारी नासप अशीं अपेक्षा आसप सारखे न्हय. सुखांक आनी त्रासांक सारखेच तोंड दिवपाक जाय हो संदेश आमकां संसार पाडवो दीत आसता. युगाचे आदीचे युगादी पर्व मनयतना हो संदेश आमी ध्यानात दवरपाक जाय. आमच्या जीणेचे सार्थक जावपाक ताजी गरज आसा.

युगा आदीच्या दिसा सैमात जाल्ली परिवर्तनाची प्रक्रिया दर वर्सा चैत्र म्हैन्याचे सुरवेक सातत्यान आमच्या अणभवाक येत आसता. झाडां आपली पोन्नी पानां तेन्ना झडयतात आनी नवीं ताल्ल कोंमरी आपल्या आंगभर पालवयतात. सगळो सैम सव्यार चडपी व्हकलेवरी सोबितकायेन नटिल्लो दिसता.

संसार पाडव्या दीस कडुलिंबाक चड म्हत्व आसा. कडुलिंबाची पानां, फुलां, फळां आर्दी पंचांग वाटतात आनी ताजी केल्ली चटणी पैली खातात आनी उपरांत गोडशे जेवण जेवतात. कडुलिंबाची चटणी खाल्ल्यान आरोग्याक ताजो लाब जाता, रोग प्रतिकार करपाची शक्त मनशात येता आनी ताजी बुदवंतकाय वाडता.

संसार पाडव्या दीस सैम नवो ताल्ल जाता. त्या दीस घरातय नवें-नवें सामान हाडतात. घरातल्या बायलांक दागिने करतात. न्हेंसपाक साडी हाडतात . भुरग्यांक आंगाचे हाडतात. दाल्ले पुडवीं, तुवाले आर्दी हाडतात. घरात धान्य, कडधान्य, आमसाण, मिरसांग, कांदे आर्दी पुरमेंतय हाडतात.

युगादीक सुरू जाल्ल्या कालचक्रा वांगडा आमी घुंवत आसतात. युगादीचे आचरण करत आसतना दर वर्स आमी पोत्रे कुशीक सारत नवें आपणायत आसतात. आपली सगळी गरज पुराय करपाक आमी धडपडत आसतनाय आपआपलो वेव्हार सांबाळत आसतात. पुण आपुण एक अनंत कालचक्राचो अविभाज्य वांटो म्हळ्ळें मात आमी विसरतात. फुडारात येवपी त्रासांचे आनी सुखांचे दीस सारख्याच तरेन आपणावन आपल्या जीणेचे भांगर करपाचे आमका साधना. हें जांका साधता ते आपल्या जीणेचे सार्थक करतात.







## श्री यशवंत सदानंद पालेकार

–संपादक, 'कोंकण भारती', कोंकणी नेमाळें
–सहसंपादक, 'सुनापरान्त', कोंकणी दिसाळें
–संपादक, 'कोंकणी', कोंकणी भाशा मंडळाचें मुखपत्र
–संपादक, 'प्रजादूत', मराठी दिसाळें
–संपादक, 'भारत सेवक', कर्नाटक प्रदेश भारत सेवक समाजाचें मुखपत्र
–साहित्य अकादमीचो अणकार साहित्य पुरस्कार
–अध्यक्ष, कोंकणी भाशा मंडळ–गोंय
–सरचिटणीस, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद
















प्रकाशीत पुस्तकां

**मातयेचो मोग** (अणकार), **मोरापाखां** (कवितां झेलो), **घोटेरांतल्यो काणयो** (बालकाणया), **माणकां मोतयां** (कवितां झेलो), **सांग सांग काणी सांग**(बालकाणया), **अमृत मंथन** (लेख संग्रह)

---

**SHRI YESHWANT SADANAND PALEKAR**

- EDITOR, KONKAN BHARATI, KONKANI MAGAZINE
- ASSISTANT EDITOR, SUNAPARANT, KONKANI DAILY
- EDITOR, KONKANI, MONTHLY ORGAN OF KONKANI BHASHA MANDAL GOA
- EDITOR, PRAJADOOT, MARATHI DAILY
- EDITOR, BHARAT SEVAK, MONTHLY ORGAN OF KARNATAK PRADESH BHARAT SEVAK SAMAJ
- SAHITYA AKADEMI BEST TRANSLATION AWARDEE
- PRESIDENT, KONKANI BHASHA MANDAL GOA
- GEN. SECRETARY, ALL INDIA KONKANI PARISHAD



कोंकण भारती